# होडेम्माल्यो काणियो

*लेखकु :* **बैंदूर देवराय अय्यगळ**

डा.टि.एम.ए पै, प्रतिष्ठान, मणिपाल
पुरस्कारप्राप्त ''कौरवांलो कृष्णु''
कोंकणि-इंग्लीश स्वयम् शिक्षक
आनि इतर साहित्याचो कर्ता



मगेल्या पूज्य म्हालगड्यांक ही कृति अर्पण



प्रथम आवृत्ति १९९३

लेखन :
**बैंदुर देवराय अय्यगळ**

प्रकाशन:
**शृंगार सारस्वत,**
कुसूम क्रमांक ३,
३४, हिरा एपार्टमेंट्स,
स्वामी विवेकानंद मार्ग,
गोरेगांव, मुंबई ४०० ०६२.




मुद्रण :
**प्रिंट इमेज,**
तांतीया इंडस्ट्रियल इस्टेट,
जे. बोरीचा मार्ग,
मुंबई ४०० ०११.



मोल रु. 50/-

# अनुक्रमणिका

# प्रस्तावना

आमगेली आजी आमका ल्हानपणात कितल्योतरी काण्यो सांगताली तांतून एक कुंडेकुरकुलाची काणी आशिल्ली. कुंड्यान भरिल्ल्या खोलेत रावतल्या पुण मुकार राजपुत्राबरोबर लग्न जाल्ल्या त्या सुंदर राजकन्येली ती काणी माका अजून याद जाता. तशेंच 'फॅक्ड फँ..... फॅक्ड फँ' बँड वाजयत आनि 'घासा पांच...... घासा पांच' म्हणत, घासा पांच पांच कुल्ल्यो खावची इच्छा दवरन, कुल्ल्यांक फसवच्याक लग्नाची खोटी वरात घेवन येतल्या कोल्ह्याची काणीयबी माका याद जाता. मुकार शाळेत वतरेर या काण्यांत आनि कितल्योशो भरीक पडल्यो. बिरबलाल्यो काण्यो, इसापाल्यो काण्यो, कितल्या काण्यांनी आमगेले मन रमयले. मुकार कॉलेजात अभ्यास करतना चक्रधर स्वाम्याल्या 'लीळाचरित्रां'त आनि 'दृष्टांन्तपाठा'त ह्यो ल्हानपणातल्यो 'काऊचिऊल्यो काण्यो' परतून वाचल्यो तेन्ना तांचो नवो अवतार पळोवन एक वेगळोच आनंद जालो.

ह्यो सगळ्यो काण्यो विसरच्यो म्हळ्यो तरी विसरच्या येवच्यो नात. कारण एक म्हळ्यार मनशालो स्वभाव गोष्टीप्रिय आसा. ताका काण्यो सांगच्याक आनि नव्यो काण्यो आयकूच्याक आवडतात. ह्यो काण्यो तर मन ओडून घेतल्यो उरतात. आमगेल्या आयुष्यातल्या ल्हान ल्हान गोष्टींत त्यो रंग भरतात. आमगेले रंजन करतात; आनि त्याच बरोबर आमि ज्या जगात रावतात त्या जगातल्या मनशांबद्दल, पशुपक्षांबद्दल, निसर्गाबद्दल कितेंपुणी सांगत उरतात. ह्यो काण्यो कोणे बरयल्यो, कोणे त्यो पैली येवजिल्यो ते आमका खूषपटी खबर उरना पूण तरी ह्या काण्यांमुळे आमगेले तांचेबरोबर नातें जुळता. ह्यो काण्यो सगळ्यालो उरतात आणि सगळ्यांबद्दलच्यो उरतात म्हण त्यो सगळ्यांक आवडतात.

ह्या ल्हान ल्हान काण्यांत हे बळ येता खंच्यान ? रंजन करतनाच कितेंपुणी शिकोवची जादू या काण्यांक कशी जमता ?

या काण्यांत आशिल्ली अद्‌भुताची सृष्टी ही या काण्यांक अशेतऱ्हेचे बळ दीता आसतली. गंमत म्हळ्यार या काण्यांतली ही अद्‌भुत सृष्टी खरेपणाच्या घट्ट पायाचेर उबराविल्ली उरता. हांतुतली मनशा, पशुपक्षी, झाडांझुडपां पानाफळां, न्हयो व्हाळ आपल्याले खरे गुण सोडून या काण्यांत येतात अशे म्हणच्या जायना. पूण तांच्या सदाच्याच गुणांबरोबर तांका या अद्‌भुत जगाचे नवे गुण मेळिल्ले उरतात. ह्या काण्यांतले पशुपक्षी मनशांवरी उलैतले, गायतले उरतात. तांका मनशांली भास येता. नाजाल्यार या काण्यांतल्या मनशांक पशुपक्ष्यांली झाडाझुडपांली भास कळता. या पशुपक्षांक खूबशी रहस्यां खबर उरतात, खुबश्यो गुप्त गोष्टी ती जाणून उरतात. तांगेल्या आपापसात डलौवण्यावैल्यान ती या काव्यांतल्या मनशांक कळतात आनि मनशा आपल्याले काम साधून घेतात. हे पशुपक्षी मनशांक बरी मदत करतात. विशेश म्हळ्यार सवती आवयलो त्रास सोसतल्या बापड्या चलेक धान्य वेचूक, उदाक भरच्चाक, मुयो, चिमण्यो, बेडूक मदत करतात. ह्या काण्यांतले नाग मनशाल्या संपत्तीची राखण करतात. पूण केन्नाकेन्नाय मनशांल्या पोटात घुसून रावतात आणि त्रास दितात.

या काण्यांत काय फावटी राक्षेस नाजाल्यार दुष्ट जादूगार मेळतात. ते आपल्याले प्राण एखादया पक्ष्याच्या आंगात लिपोवन दवरतात. आणि मागिर काण्येतलो नायक ते सोदून काडन तांका मारता. केन्नकेन्नाय मनशांच पशुपक्ष्याले रुप घेवन भोंवतात. विक्रम राजा पोपटाले रुप घेवन नाना देश भोवच्यांवता.

ह्या काण्यांतली झांडांबी गंमतीशीर उरतात. तीं उलयतात; पर्दा म्हणतात ल्हान रोपाकसुद्धा शेकड्यानी फळां धरतात. 'फूलदेवील्या काणे' तल्या माळ्याल्या बागेत असली झाडां आमकां दिसतात. जाल्यार विक्रम राजाल्या काणेतली सुरुची राणी आनि तिगेल्यो दोन दासी डांळबा झाडावयल्या तीन होड डांळबांत रावतात. डांळबा झाड सदा रात्री खांद्यो बागोवन तांका उकलन घेता आनि सकाळी जमनीर देवयता. साखरलिंबाच्या झाडावैले साखरलिंबू खावन सात राजकन्यो आपल्याले पोट भरतात.

ह्या काण्यांतली मनशांबी तांतुतल्या पशुपक्षांवरीच खरीच जावनवी वेगळी दिसतात. बरी आनि गुणी मनशा या काण्यांत खूप मेळतात. पूण केन्नकेन्नाय तांगेल्यातयबी एकादी खोड उरता. नव्या राणेक भुलन कोणी बरो राजा आपल्याल्याच पयली राणेल्या धुवांक त्रास दिता. विक्रमराजा दोस्ताचेर राज्य घालन म्हयनेसंख्यान्

देश भोवच्या वता. हरशे ब्ऱ्या मनशांल्या बरेपणाक आनि दुष्ट मनशांल्या दुष्टपणाक बांध उरना. पूण दुष्टांक आनि पापी मनशांक वायट फळ मेळता हेंच ह्या काण्यांत बरेच सांगिल्ले उरता.

ह्या काण्यातल्यो राण्यो; राजकन्या आपल्याल्या हातान रांदून राजाक वाडतात आपल्याल्या घोवाली सेवा राण्यो करतात. चोरडां आवयल्या मनासारकी वागतात. आवयबापायली कष्टदशा पेल्यान करतात. या काण्यांतले मित्र निष्ठावान उरतात. या मनशांमधले नातेसंबंध साधे सरळ उरतात. तांगेले जगणे वागणे सरळ उरता.पुण थोडी मनशा विचित्र तऱ्हेनं वागतात. प्रधानाली बायल राजामेरेन पावच्याखातेर सदाच राजाल्या जवणात शेणांगुळो घालता. एकदीस राजा तिका तशे करतना पकडता तेन्ना ती राजाक भुलोवन ताजे बरोबर लग्न करता. विक्रमराजान पोपटाल्या देहात प्रवेश केल्यानंतर सुतारालो पोर राजाल्या देहात घुसून राजा जावन बसता. अश्यो काय काण्यो सोडल्यार अश्यातरेच्या काण्यातली मनशा साधी उरतात.

आमि आज जाका मनुष्यस्वभावाचे, मनाचे चित्र म्हणतात तशें या काण्यात उरना. आनि तरी ह्या काण्यांतली मनशा जिवंत दिसतात. आमकां आमगेल्यो लागीच्यो दिसतात. आमगेल्या मनाचे, भावांचे विचारांचे, इच्छांचे प्रतिबिंब आमकां तांगेल्यात दिसतां. आमगेले या मनशांबरो नाते जुळता. ब्ऱ्या मनशांबद्दल सहानुभूती दिसता. तांच्या सुख दु:खांत आमि एक जातात. वायट मनशांलो राग येता. तांका शिक्षा जाल्यार आमका समाधान जाता.

एकभाशेन ह्यो काण्यों खऱ्यो सामांन्यातल्यो. तांतून जे असामान्य उरता ते सामान्याबरोबर नाते सांगतले उरता. जीवनातले प्रश्न, दु:खातांच्यो घुसपावणी या काण्यांत दिसनात. या काण्यांतले जीवन अगदी ससार उरता. जरा बारीकसाणेन येवजिल्यार हाजें कारणबी मेळता. युरोपातल्या संस्कृताये बरोबर आमगेली वळख जातरे आमगेले भारतीय जीवन संस्कृतीसंकरामुळे खूपच घुसपल्ले आसा. ताज्यापैली भारतीय जीवन तितले घुसपल्ले नाशिल्ले ते एक दिकेन, एक वाटेन सरळ वताले त्या जीवनाक श्रद्धा, रुढी हांचो बळकट आधार आशिल्लो. ह्या श्रद्धा अनि रुढींचेर विसंबून शांतपणान जगतल्या फाटल्या काळातल्या मनशांली पोरणी संस्कृताय आमका या काण्यांतल्यान दिसता. परमेश्वर भक्तांक राखता, आमगेले पूर्वज आमगेली काळजी घेतात, संकटां नायशी करतात, पूर्वकर्मान नाजाल्यार दैवगतीन कष्टदशा येता. पूण सद्‌वृत्तीन वागत रावल्यार ती न जावन बरे दीस येतात आनि सूख मेळता. वायट वृत्तीन

वागल्यार ताजी शिक्षा भोगची पडता. अश्यो समजूती कितल्याश्या काणांतल्यांन दिसून येतात. ह्या सगळ्यातल्यान त्या त्या समाजाचें मन, ताजी जीवनाची जान उघड जाता अशें म्हणच्या येता.

आयजपावेतो या लोककथांचो बरोच अभ्यास जगातल्या विद्वानांनी केल्लो आसा. ताणी तांचे बरेच प्रकार सांगिल्ले आसात. तांचे स्वरूप उकते कन्न दाकइल्ले आसा. तांची काय ठळक वैशिष्ट्यां नोंदिल्ली आसात ती. वैशिष्ट्यां पळयली जाल्यार आमका नवल दिसता. कारण देशोदेशीच्या काण्यांची वैशिष्ट्यां बहुतकन्न सगळींकडे सारखींच उरतात. फरक जाता तो बाकी तपशीलाचो पुण त्याचबरोबर त्या त्या समाजाच्या वेगळेपणाकदेखून थोंडी वेगळी रूपांयती काण्यो दाकयतात जश्यो. आमगेल्यो व्रतांच्यो काण्यो. हो काण्येचो एक वेगळोच घाट म्हणच्या येता.

भारतीय संस्कृतायेतल्या अश्या काण्यांचो अभ्यास सगळ्यात पैली केलो ब्रिटिशांनी. ताणी हांगा 'लोकसाहित्या' च्या अभ्यासाक सुरवात केली. ताणी केल्लो अभ्यास आनि काम आमकां मराठीत श्रीमती दुर्गाबाय भागवत हांगेल्या पुस्तकांनी पळोवच्याक मेळता. श्रीमती दुर्गाबाय भागवतहांनी लोकसाहित्याचो सामको बारकायेन अभ्यास केल्लो आसा. तानी वेगवेगळ्या भागांतल्यो काण्यो जमोवन तांचे संग्रह प्रसिद्ध केल्यात. ते पळयले जाल्यार आमकां दिसतां की ह्यो काण्यो एक भाशेपुरत्यो, एक गावापुरत्यो केन्नाय मर्यादेत रावनात तांचो सगळीकडे प्रसार जाता. जशें पक्षांल्या चोचीक, पायाक ना फांकांक लागून झाडाचे बी लांब वचून पडता थंय जमनीत रुजता, आनि नवे झाड वाडता तशीच ह्या काण्यांची बिजां सगळ्या बाजून कापसल्ली दिसतात. केन्नाय एकादी पुराय काणीच जशीच्या तशी दुसऱ्या भाशेत दिसता जाल्यार केन्ना एकाद्या काण्येचो एकादो तांस दुसऱ्या भाशेतल्या काण्येत दिसता. फक्त भारतातल्याच भागांतल्यो काण्यो सारक्यो नात तर जगातल्या काय पोरण्या संस्कृतायेतल्यो काण्यो आनि भारतातल्यो काण्यो हांच्यातयवी सारखेपणा दिसता.

श्री. देवराय बैंदूर हांगेल्या या होडेम्माल्यां काण्यांतल्यों काय काण्यो अश्यो आसात. 'सोनसांखळी' ल्या प्रसिद्ध काण्येचे कांय तांस सात राजकन्यांल्या काण्येत दिसतात. ती काणी वाचतना 'आरामशोभे' ल्या काण्येचीबी याद जाता. 'विक्रमरायाल्या चरिता' तली सुरुची राणीली काणी. श्री. मुल्कराज आनंद हांगेल्या 'इंडियन फेअरी टेल्स' या पुस्तकात 'डाळिंबी राणी' ल्या काणेची याद कन्न दिता की काणी 'दख्खनच्या

लेककथा' या दुर्गाबाय भागवत हांगेल्या संग्रहात 'विक्रमराजाची भ्रमंती' या नावानं प्रसिद्ध जाल्ली दिसता. 'पोवनं शिकतलो पक्षी' तर जगभरच्या काण्यांत या ना त्या रूपान आंमका मेळत रावता. विक्रमराजाल्यो आनि कितल्यो काण्यो देशभरच्या भाशांत दिसतात. तेन्ना खंचीय काणी ही एक मनशान बरयिल्ली म्हणू जायना. ती सगळ्या समाजाची उरता. परंपरेतल्यान अयिल्ली उरता अशेच म्हणच्या जाय.

अश्यो काण्यो हे त्या समाजाचे, त्या भाशेचे वैभव उरता. संस्कृतायेचे धन उरता. भारताच्या संस्कृतायेचे हे धन उरता. भारताच्या संस्कृतायेचे हे धन कोकणीत हाडून श्री. देवराय बैंदूर हांणी कोकणी भाशेक आनि समृद्ध केला. चित्रापूर सारस्वत कोकणीचो एक उत्तम नमुनो या काण्यांत वाचच्याक मेळता. या कोकणीचे नादरूप आणि तिगेले विशेष आमका या काण्यांत दिसतात. श्री. देवराय बैंदूर हांगेली काण्यो सांगची पद्धत लोककथेक शोभतली अशीच आसा. आज्यान आपल्याळ्या नातरांक जमोवन काण्यों सांगून तांका रमयिल्ल्यावरी संथ शैलीत आनि विस्तारान ह्यो काण्यो बरयल्यात. ल्हान चोरडांक त्यो आवडतल्योच पुण होड मनशांक बी त्यो वाचतना आपल्याले वय विसरच्या जातले. एक वेगळ्या, विचित्र, अद्भुत जगात गेल्ल्यावरी अणभव मेळतलो.

**अरुणा श्री. दुभाषी**
'ऋग्वेदी' (तळमजला)
७, अजमल रोड, विलेपार्ले (पूर्व)
मुंबई ४०० ०५७.




# इति पूर्वत्र

होडेम्माल्यो काणियो हांवे मगेल्या सानपणांतु आयकिलेल्यो. १९३९ तु कारवार भरलेल्या आखिल भारतीय कोंकणि परिषदाच्या पैल्या अधिवेशनानंतर मुंबयिंतु मायभाषा कोंकणीच्या प्रसाराक ऊत्त मेळलें तावळि, सानपणांतु आयकलेल्यो काणियांच्यो थोडियो टिप्पणियो वटटु करनु, हांवे त्यो विस्तारनु बोरोवचो विचारु केलो. काम किचकट आसिलें कारण, येकाचि काणियेंतु बरेचिशे भेद आसिले. तांतु चाळनु, जे प्रसंग विशेष मनोरंजक आणि काणियेच्या बांदावळींतु बसतातिि असलेचि वेंचूनु संपूर्ण काणियो तयार केलयो.

३०/३५ वरसं लागायत, ह्यो काणियो छापून, प्रसिद्ध करकाज म्हणु भारी आकलस येताले. तरि ह्या फूडे हांवे, मगेल्या अनुकूलाक मिक्कूनु छापिल्या प्रकाशनांचि दुरवस्था देकूनु, माका पुनः हें हाताने वडे काडचें धैर्य जायनि. आत्तं, राष्ट्रीय साहित्य अकादमिचें कोंकणीक/संविधानाच्या आटण्या वल्लरींतु अधिष्टान मेळलें. अशि जावनु ह्यो काणियो छापचें काम हातांतु घेतलें.

येक पुस्तक म्हणलेल्या उपरांते ताका येकि प्रस्तावना लागता. आनि हें काम, साहित्य परिसरांतु विशेष घोळलेल्यांकचि सांगिले. सुमार जणांक निमगिलें तेदना, तानि हस्त लिखित बरेचि काळ दवरनु घेवनु, खोट्टे नाण्यशें माका परतयिलें. हे मगेले वावंट, एस.एन.डि.टी. कोलेजाचि अध्यापिका, श्रीमती अरूणा दुभाशिने दूर केलें, मात्र न्हे मगेल्या अपेक्षेक मीरूनु केले, तें, तांगेलि प्रस्तावना वाचूनूचि समजता. तांगेल्या समीक्षेंतु, तानि केलेल्या सखोल संशोधन आनि विशेष वांगमय व्यासंगाचो छापु उटावनु उबरता. मगेल्या काणियांचे समीक्षण करतना तानि, देशी विदेशी लोककथांचें इतिपूर्वत्रसुद्धा पूरा सांगून सोडल्यां, आनि तें, उच्चारदुष्ट पारिभाषिक शब्दानि न्हे जावनु, अत्यंत घरगुति भाषेंतु सांगल्यां. तांगोले उपकार हांवे विसरूक साध्य ना.

ही कृति पुस्तक रूपाने उजवाडाक येत्ता, हाजें संपूर्ण श्रेय, आमगेलो प्रीय जामातु, मुद्रण आनि जाहिरात कला तंत्रज्ञु, चि. विजय बैळ्ळारे, हाका पावकाज.

**बैंदूर देवराय अय्यगळ**



मंत्र्या बायल रायाल्या जेवणांतु शाणा उंडे घालतना रायु निप्पूनु पळयिता.

ॐ श्री गणेशाय नमः
ॐ श्री गुरुभ्यो नमः

# पाडु मंत्रवादि

येका गांवातु येकु रायु आसिलो. तागेलि येकि राणि. आनि सात धुव्वो, येकळे पाशि येकळि गोरि गेमटि पिट्टा बोंबेंशी. इतल्यांतु सानि चड गोमटि, चुरकि आनि चप्पळि, तिगेलिं उत्रं म्हणल्यारि, थपराको मारलेल्यागादि.

राणि रायागेलि भो काळजि धेत्तालि तागेलिं सर्व कामं तीचि करतालि, मात्र न्है, ताजेगुणि रांदप थांयि तिनेचि करचें आसिलें, जायि तितले नौकर चाकर आसतनायि. घरचिं दंद करनु आंगारि मस्त दणु पडतालो म्हुणु जावो, येका माक्षि येकु, सात बाळांतरे जाले म्हुणु जावो, राणि दीसा पेक्षा दिसा भागत आयलि, आनि, रोगटि लागूनु येकु दिसु तिने मांद्रि धरलि ती निदलेल्या कडच्याने उटायिल्ली चि ना.

राणियेने मेलेल्या दुःखाने, रायु भो खंगूनु गेलो. आनि थोडो पुणी ताजो विसरु पोडो म्हुणु, तो, दिसुभरि आपणालें लक्ष पूरा राज्य कारभारांतूंचि घालूक लागलो. अनाथ जालेल्या रायागेल्या धुव्वानि बावड्यानि, एकमेकांगेलें सांत्वन करनु, तांगेले जीव आट्टारनु घेतले. म्हालगडि भयिणिने आपणाल्या भावंडांक, इतलें मायेने मोगाने पळयिलें, की, तीं तिका आवसूक दिवचो मानु दिवच्याक लागलिं.

बापसुल्या जेवण खाणाचि व्यवस्था दिसाक येकळेने पोळोवचि अशि तानि पाळियो लावनु घेतल्यो, तशीचि थोडेचि दिसानि रायागेलो प्रधानियि देंवाघारा गेलो. मोरनु खंयि पावलो की प्रधानि, येकारि येक कष्ट येउच्याक लागले, ते त्या कर्माच्या भयिण्यांचेरि. ते कशि की म्हणशाद.

प्रधान्या बायल आसिलि पळ्या, ती, भो दुष्टि आनि लावाखायांचि आसिलि. मनांतु कसलो कि कुठिल विचारु येवजूनु, येकु दिवसु ती, त्या बयिण्यानि रांदप करतना येता.

''बाळानू, मगेल्या घारा रांदणिक सांपणि घालूक माका चारि केंड दितातिवेमा''

म्हुणु तांचेकडे लालेता.'' सगळें सोडनु, केंडं मागूक आयल्या, तें चोवनु, तांका चिके विचित्र दिसलें तरि, चारि केंडांचो भोसु न्हैवे म्हुणु लेकूनु, तानि केंडं दिलिं म्हणु जालें, येक पेटि खालेल्याचि रुचि लागूनु, आनेक वेळा खावच्या हकहक्याने येताति, तशि प्रधान्या बायल हेर दीसूयि येता, केंडं तीं दिताति. तिस्र्या दिक्सूयि येता, केंड व्हरता.

सानि भयिणि बाळ फडफडता ''भोंगूनु गेलें !! आमकां हांगा आसिलिं कामं सागूनु सागूनाति, नित्य त्या प्रधान्या बायलेक उज्जा केंडं दिउचें दंद लावनु घेतल्यां'' ''तुजाणे जायना जाल्यारि सोडि. तिकाचि सांगना इत्याक, केंडं काडनु व्हरुकू भारी कंठिण कामवे तें '' अशि आक्काबायिने सांगले.

कुरडो मागता येकु दोळो म्हणताति, तशि प्रधान्या बायल, ताजीचि वाट राकतालि. उज्जो व्हरुक येतना , ती धरूक कानु आसिलें येक मातियेचें बहुगुणे घेडनु येतालि. बहुगुण्यांतु येकु शेणा उंडो दवरतालि. शेणा उंडो कसल्याक निमिगिशाद. आत्तां कालांतु स्टव गेस आपशींचि पेटच्यो शेगडियो सर्व आयल्याति. रांदणि सांपणि म्हणल्यारि कसले तुमकां कल्पना थायि आसूक फावना. आमगेल्या कालाक तशिवे? सुक्केंचि जलाव राकूड हाडनु, फुट्टोवनु काप, कापटियो करनु माळ्यारि दाळनु दवरतालिं गोरवांगेल्या शेणाचे उंडे करनु रकरकी बत्तातु सुकवनु दवरतालिं रांदणींतुलो फुडल्या दिसाक जमिलो गोब्बोरु पूरा काडनु, येकु शेणा उंडो शंदणींतु दवरचो, धुवराचे उंडे उंडेशे येवच्याक लागलेली, बास्र्या नळियेच्यो चारि फुंक्यो मारच्यो, भगभगी उज्जो पेटतालो मागीरि राकडाचे काप लावचे.

आसो. प्रधान्या बायलेने येका हाताने केंड काडचिं आनेक हाताने, शेणा उंडो रांदपांतु घालचो. पंद्रा दीसांचि गडि जालि तरी केंड व्हरचे रावना केंडं व्हरूक येवच्यांतु तिगेलो कसलो की गूढ हेतु आसका, हो संशयु सानि भयिणि बाळाक भो अस्वस्थ करूक लागलो. मन् तडवनातिले ती येकु दिवसु उलवनु दाकयता.

''हें चोया, नित्य ती बायल मनुषि केंड व्हरूक येता. चारि केंड काडनु घेवच्याक ती कितलि वळसावणि करता पळयिनातिवे तुमि? ती केंडंचि काडता की त्या सरशी आनि कसलेंयि करता? पाळति दवरयां म्हळलें, ती होडि होन्नेधरणि प्रधान्या बायल आसिलि न्हैवे? हांव वारनु सांगतां, आमकां केंड भो म्हारग पडतलिं. धर करनु राबिल्यानि रांदणि सांपणि घालेल्या शिवाय अन्न शिजना हें ति नेण? जीवु घनारि घाल्ला. येवो ति फायि. सम्मचि तिज्या तोंडा उद्वाक देवयतां की ना पोळोवयेद''

''नेराने राबता की ना तुं बाळा. तुं बुद्धिवंति व्हयिगो, जाल्यारि असलिं दोळे भेतरि उत्रं आमकां शोभना'' ति भयिणि बाळाक बुध्दिमार्गु सांगता. ''पाप बावडेचें''.

''तिजें पाप आनि ति बावडि की? कुत्त आयिल्या उपरांते चुरचुरच्या बदलांक, ते येवच्याक चि नज्ज अशि जाग्रता घेवका'' बाळ म्हणता.

''पुरत्याने, बाळा, तुं भोचि उलवच्याक लागल्या''

''गळसरि फोंडांतु घालनापडे तुमी चि उलयतातिं की ना पळे. अय्यो, बाळ म्हणताली तें बद्दचि आसिलें. तिगेलें उपाय कलेलें व्हयि जाल्यारि, आमचेरि हो प्रसंगु येशिना आसिलो'' हांव फटकळ तोंडाचिं न्हेवे?'' अशि मन दुकून बाळ उलयता.

प्रधान्या बायलेलिं कुकर्मं निरातंक चलत राबलिं. रांदयांक शेणा घाणि येउनु, रायु हातु बोट लायनातिलें, आयदानाक आयदान तशीचि सोडनु दितालो, भायल्या दंदाचे तीं बाचाटूनु घासुक घालताले. धुव्वानि वांट काडनु केलेल्या रांदपाचेरि सड्ड दवरल्यारि, तांगेले मन दुकतले म्हुणु करनु रायूयि कसलोयि आक्षेपु घेना. तरी, इतले काळ सुरभुशेंचि जावच्या रांदपाक, येकायेकीं चि शेणा घाणि इत्याक मारुक लागलि, ह्या विचारांतु पडता रायु.

येकु दिवसु तो चोरनिपिने रांदच्या वासरेंतु वता आनि रांदणि पोरल समचि देकूक पडशी, येका उदका अडसळे आड निपून राबता. कान्नाचो कान्नाक पत्तो ना. थोडे वेळाने प्रधान्या बायल येता आनि इतें करता. ''चारि केंड घेतागों'' म्हणत, रांदणि पोरलांतु वता, उज्जो पुडसारलेल्यागादि करता, शंदये आयदानावेलि मांडि उबारनु तांतु शेणा उंडो सोडता. तशीचि चारि केंड काडनु बहुगुण्यातु घेउनु वत्ता. हो प्रकारु पळयिल्लो रायु संतापता, तरी, चकार शब्दु उलयनातिलें, आपणाल्या सिंहासनाचेरि वचूनु बसता. प्रधान्या बायलेक ततक्षण बंदिवानि करनु आपणा इदूर राबवच्याक अव्पण करता.

राजाज्ञे प्रमाणे, कोतवालु, प्रधान्या बायलेक राज दरबारांतु रुजु करता. रायु तिजेरि दोषारोपण करता.

''आजि सकाळिं तूं उज्या कोलति मागचें नेवन घेउनु आमगेल्या रांदच्या वासरें तु रिगलि, आनि येका हाताने कोलति ताणत, आनेक हाताने मजेगुणि केलेल्या रांद पांतु शेण घालें. हें हांवे मगेल्या दोळ्यानि पळयलें. आजीक कित्येक दीस लागायत हो

राजद्रोहु तू करीत आस. कारण कसलें, बरे उत्राने सांग.'' ती दीन स्वराने सांगता, ''राजन, हांवे घोरु अपराधु केला खरें. तो राजद्रोहु म्होणूक, हांवे कांयि विष घालनि, महाराजांगेलें मजे दिकाने लक्ष वेधूनु घेउच्या पासाबत गोमातेगेलें शेण घालें; ताजि वास्सणि येउनु रांद्यो ते कोणयि खायशिनाति म्हुणु हांवे खिंडित लेकिले. आनि तशीचि जालें. कोणाकयि कसलि इजा जायने, आनि हांवे लेकिल्या प्रमाणे तूंवे माका इद्रूर आपोवनु घेतलि. हे दीन दयाळा, प्रणत पांला, मगेलि जी अवस्था जाल्या, ती तुजे शिवाय इतरांक सांगचीयि न्है, सांगल्यारि कळचीयि न्है. तुजेकडे थोडेंचि अंतरंगि उलवंक आस.''

रायाने सभेंतु आसिल्या सर्वांक थोडो वेळु दूर राबूक सांगलें, तिने कसलि बाबलावणि केलि की, शिक्षा दिडच्या बदलाक रायाने तिका आपणालि राणीचि करनु घेतलि. तिका बाम्मुणु नासिलो, ताका बायल नासिलि. बेताळाक अजादेवि मेळलेलि संगति जालि.

प्रधान्या बायल नवि राणि जाउनु, आपणाल्या धुवेक घेउनु रावळारांतु राबूक आयलि. त्या सात्तयि भयिण्यानि रीगि दिलि म्हणूचि आपणालें भाग्य उदेलें, हे उपकारू मानचे बदलाक, ती तांचेरि चडचि कासूक लागलि. कशीपुणी कोरनु तांका धांवडावनु घालका, नावे आपण जाउनु नानि घर सोडनु वचका आनि मागीरि. आपणे आनि आपणालि धुल्लेलें मांतिं धुवेने, सर्व ऐश्वर्य उपभोग घेउका, म्हणलेलो दुष्ट हेतु करनु, ती त्या भयिण्यांक जवळच्याक लागलि. तांका धडचि कसलेंयि खावंच्याक दिडचे नां, धुवेने पोरनि केलेलिं आंगवालि तांका घालूक लावचिं येक आनि दोनि कर्मं तिजिं ! तांचो जन्मु सूण्याक दिल्यारि नाका जालो. त्यो दिवसेन दिवसु भागूनु काड्डि जावच्याक लागल्यो. सवति माक्शेने कोरचो छलु बापसुल्या कान्नारि घालूक तांकां धैर्य जायने जावचे पुणी कशि, ती आत्तं रायाल्या मोग्गाचि मर्जेचि पट्ट राणि जाल्या तिजेरि दूरु सांगलो तरि बाप्पुसु इत्तें करीद कोणे सांगचें ?

राणियेलि जळवण चारि दीस सहन केलि, म्हुणु, पोट तें, नेराने कशि राबतलें भुकेचो चरको कांयि ताळुवच्याक जायनातिलें त्यो सर्व मेळनु, तांगेल्या आवसुगेल्या वृंदावनाकडे गेल्यो. आनि उष्णयो काडनु रडूक लागल्यो. ''आम्मा तूंवे आमकां जन्मु दिलो, आनि आमगेले केवटे काडचे नाकाति म्हुणु, तूं आमकां सोडनु घालनु चलत राबलिवे ? मावशे गेले उपटळ काडूक जायनातिगोमा ! आमकां वाट दाकयि, नावे आमकां तूंवे आसिल्याकडे पुणी व्हर !''

इतलें म्हणसरि येकु चमत्कारु जाता, आंगा कांटो सुमरेता!! हां हां म्हणता वृंदावनांतुल्याने येक गोमटेंचि झाड किरलेलें, आनि, घडियांतु ताका हळ्दुवे हळ्दुवे पिकूनु हवण साखर निंबुवे लागले. ते इतले रसाळ आनि गोड गोड अमृतचिशे आसिले, की त्या भयिण्यानि पोटाक अडव जायसरि खेले. राणियेने दिलेलें खांवचेंचि ना. नित्य ते साखर निंबूवे खाले की जीवाक हितचि जावचें तांकां.

अशि सुमार दीस गेले. राणि मनांतु म्हणता, ''हीं घरचें खायनाति, गांवतुल्या कोणेयि हांकां पोट्टाक घालेलि सुद्दि ना, हांका चुकूनु केदनायि शींकि ना, संकट ना, दीसा पेक्षां दीसा टुणटुणी कोंबियोशो जायत गेल्याति, हांतु इंगित कसले आसे पोळोवका.'' म्हुणु कोरनु येकु दीसु आपणाल्या धुवेक तांचे मांक्षि सोडता. ती धुव तांचे साक्षिचि गेलेलि, आड निपूनु राबिल्याकडे इतें पळयता !! त्यों भंयिण्यो येकारि येकु येकारि येकु साखर निंबुवो आंमरसुयताति. राणिये धुवे तोंडाक उदाक सुटलें. अकस्मात तीक्ष्ण दोळ्यांचि बाळागेलि दृष्टि तिजेरि गेलिम ! ती धांवत वत्ता आनि झाडीतुं निपूनु राबिल्या राणिये धुवेक रट्याक धरनु ताणानु हाडता.

''ही चोया हांगा, आमगेलें गुपित काडूक आयिलि. तिने येदोळु पळयिले सर्व, चोंचींतु धरनु, वचूनु आवसूक कळ्यतलि. हिका आत्तं इत्तें करका सांगाति.'' म्हुणु संतापाने उलयिता बाळ, तावकि म्हालगडि भायीणी बाळाक गद्दल घालता. ''बाळा, तुं मस्त उलवच्याक लागल्या आरतां लागि. आमकां जी आत्त आटवि भयिणीचि जाल्या, इतलें इत्याक तुं लक्षांतु व्हरना. तिकां करचें म्हणलेलें कसलें, योगोमा यो. आमच्या सांगतणि तूवयि खा फळं. मात्र तुगेल्या आम्माक हें सांगू नाका. आमचि सगळ्यांचि लिगाडि काडतलि ती तूंवयि आमचे बरशि जाल्या अशि लेकूनु.'' राणिये धूव मिटक्यो मारीत फळं खाता.

फळं खालेलि रुचि, पशि तोंडाचि गेल्या की नाकि, बाळाने पंथरसूनु सांगिलें आसतना बाकीच्या नि आपणाक फळं दिलिं, हाजो येद्दोयद्दो उपकारू नातिलें, ती पाडि प्रधान्या धूव, वृदावनाकडे घडलेलें वृत्तांत पूरा आवसूक सांगता. नव्या राणियेक जाळानि आंगाक सासम वाटूनु लायिल्यावारि जाता !! ततक्षण ती दःखा मांचारि निदता, आनि आपणांक भयंकर एक शिसारु जालेलें ढोंग करता. तिगेलि परवणि आनि तिने कीडोसो वळवळवेचें देकूनु अतवे लोकांक थायि, हेरद्यांतु धडधडु सुरु जावका. मंत्रि, कारभारि, नौकर चाकर सर्व हाताक हातु लागना, पायाक पायु लागनातिलें, धांवनु खेळताति. घरगुति वकदं जालिं, मुट्टसं जालिं, वैद्य जाले, मांत्रिकयि जाले. इतेंइतें केलें तरी

तिगेलें अस्वस्थ राबना. दिलेलिं वकदंचि तिका पोटांतु राबचि नाति, ती राबूक दीना आसिलि. तीं सर्व तीक्ष्ण बकदं पोटांतु गेल्यारि, खोडियांक तीक्ष्ण वकदं केलेलें, बद्दचि कांयि पुणी जीवाक विपरीत जाउनु बैसद, म्हुणु दुकदुको आसिलो तिका.

बायलेल्या जीवाचि धडगति दिसना जाडनु, हताश जालेलो शयु, तिगेल्या उषालागि येता. संकटलेल्या स्वराने ती तागेल्या कान्नांतु सांगता. ''येकि घडि फूडे, निद्देचो दोळो लागता म्हणतना, माका कोणेकी कान्नांतु सांगिल्या गादि जालें, होडल्या राणियेल्या वृदांवनाचेरि येक अद्भुत फळझाड उटायल्यां, तें मुळह्त्त निकळावनु कोच्चावनु सिजक्का, आनि ताज्या कषायाचि धार मगेल्या मात्यारि धरका, म्हणल्यारि हांव बरिं जातां खै.'' हो येकु आयुर्वेदिक उपचारू, साक्षात धन्वंतरीनेचि सांगूनु आसका अशि लेकूनु, रायु व्यवस्था करता. तो उपचारु जालो की, राणि सुटसटीचि जाता, इतलि सुटसुटि, की, येद्दोळु गांयडळुसो वळवळतालि ति न्हौचि, अशि कोणाकयि दिसकाज.

सवत्या मावशेने केलेलिं कुतंत्र, त्या भयिण्यांक खंयि गोत्तु ? भोळ्योचि बावडियो. फळारा वेळु जोलो की आवसुगेल्या वृंदावनाकडे वताति. तरि, कसलें दवरल्यां थंयि ! झाड निकळावनु वृंदावन बोळेंचि करनु दवरल्यां. पाप तांचे, आवसु शिवाय कोणालो आधारु तांका, तिगेलीचि धांव करताति. ''आम्मा, तूंवे मायेने मोगाने आमका अन्न दिलेलें, निर्मळ जालें म्हुणु आमि लेकिलें. आमगेलें फुटकें अदृष्ट आड आयलें. तोंडाक आयिलों घासु जाळमात्यानि झोमूनु व्हेलोगो !! आमा, मुखारि गति कसलि आमगेलि. मावशेने घालचें तें शेळें भुख्सु मांडिलें अन्न खावच्या बदलाक उपासमारि पुणी बरि म्हुणु तुका शरण आयिलिं. आम्मा भुकेने प्राणसंकट जाल्यांगो, आम्मा. आमकां सोडनु घालनाका.''

इतेंयि म्हणलें तरी, आवसूलें आंत तें, देह सोडनु गेल्यां म्हुणु इतें पोरांगेल्या कळवळ्याने करगनातिलें राबता ? वृंदावनाक लागूनु येक सान तळें आसता. वारें ना, झाडांचे येक पान लगीना हालना. येक पाळ येउनु तळ्याच्या तडीक मारता. आनि त्या पाळा सरशि, येकु होडु तवो तेलुच्याक लागता. तब्यारि धवींचि दिकळिशी पीट येता, आनि तें पीट फुगूनु परमळीचि सांदण जाता. त्या सांदणाचेरि येकु दाटूचि लोणिया थरु ! तें चोवनु, ''आम्मा आमगेलि, समयाक पावलि'' म्हुणु कोरनु, तानि सांदणा रुचेचि वर्णना करीत पोटभरि तें खाललें, आनि तळ्यांतुलें गोडचि उद्काक पीवनु तीं घारा परतलिं.

तीनि दीस हें सांदणाचें प्रस्थ सुरुळीत चललें. हेकडे हांगा नव्या राणियेलें मात्तें मत्सरांचि कीडि कोरावनु खात्ता एक सम. ''आब्बारे त्यौ !! हांवे दिलेलें जेवण हुंगशिनाति खैं, वृंदावनांतुलें फळझाड मारनु काडल्यां. तरी येकु दिवसु पुणी, हांगेलो पुकारो ना फुगारो ना. प्रति येकि हागेलि गरज, निवगळायेने भागताशें, हीं खुशालेरि आसति. जेवणवेळारि भायर खंयिकी वत्ताति आनि परबे जेवण पडलेल्यांगादि पोट पोरशीत येताति.''

नवि राणि वापस आपणाल्या दुर्दान धुवेक तांचे फाटीक घालता. आनि ती धुव, चोरि धरुकयि जालें, आणि तानि खावचें तें बरें भलें, आपणाकयि मुंगरुच्याक मेळतलें, म्हुणु, दाडियो पाजूनु घेउनु वत्ता. गेल्यारि इत्तें पळयिता !! सांदणा समारंभु, जोराने चलला. येकळि बाळ मात्र, चारीयि दिकाने लक्ष दवरनु आसिलि. सर्वात मावशि, सारीपुरीं तांगेलि विद्वाट लावच्याक पळयत आस, हें तिका संपूर्ण गोत्तु आसिलें. प्रधान्या धुवेक देकूनु थांव आयले बाळाक ती म्हणता प्रधान्या धुवेक.

''साळेरिशी लागल्यामगो तुं आमचे माक्षि. आमचे इतल्याक आमि, देवु दित्ता तें खावनु, जीवु राकूनु घेताति. तेंवयि तुमच्या दोळ्यांतु खोंबता. ते दीसु आयलि, हिक्करसुणि येसरि फळं मारलिं. तुमगेलो तोडु लागलो आसकां, पळझाड नपश्यात जालें. आजि परत सार्थि आल्या, आनि कसलें येवजूनु ? अशि आमगेलो द्रोहु करनाका. त्या देवा मनांतु येशि ना.''

प्रधान्या धुव, कंठु दाटूनु आयिल्या तावळि तोंडातुल्याने शब्द सुटनाति, तशि, ताळो काडनु उलयता, ''अशि उलवनाका माका, पाप मजें. मगेल्या बापसुने आसतना, हांव येकमोळीचि आसिलि. घर म्हणलेलें खांवच्याकचि येतालें. आत्तं संवकळीचि तुम्मि मेळलि म्हुणु खुशाल जाळेंलिं. त्या दीसु आम्माते म्हणलें घर कोंबडिशी बसल्या इत्याक ? वच त्या भयिण्या सांगाति तूंवयि जीवु खेळोडनु घे. म्हुणु त्या दीसु आयलिं. आक्का, पळेगो बाळ माका काशि रोंबूनु उलयिता.'' अशि रडता, दोळे पुसूनु घेउच्या निमित्ताने वरला तुरि दोळ्यांतु कोंबूनु घेउनु दळदळीचि उद्गाक काडता. म्हालगड्या भयिणीलें मन करगूनु, ती प्रधान्या धुवेंक लागि बसवनु तिकायि सांदण खावच्याक दित्ता.

नांका पुडालागि येसरि सांदण भोरनु ती दिवटि, प्रधान्या धुव, घारा गेलेलीचि आवसुक सर्व सांगता. फटिंगेने येळु सांदणा कुडको निपवनु व्हेलेलो दिसता, तो ती आवसूक दित्ता. तो खावनु ती आवसु म्हणता, ''निर्मळ असलें सर्व खाद्य भायर वचूनु

खात्ताति, आणि हांव बरकताचे खावच्याक घालनारे म्हुणु मजे नांव धुताति !! तरि हें सर्व खंयि मेळताबा तांका, कोण दिताबा''!!!

तावळि धुव इतें सांगता ''आम्मा, आमा ती केदनायि तांगेल्या आवसुगेल्या वृंदावनाकडे बशिलिं आसताति. तें फळझाडयि थंयि आसिले, सांदण दिलेलें तळेंयि थयींचि आस.''

''फायि हांचि मारीचि आंबुडतां कीना पळे'' म्हणता, राणि, आनि तिगेल्या नौकरां कोरोबनु, तें वृंदावन उध्वस्त कोरोवनु, तळें पुरोवनु बटाबैल करयिता. ताजे नपुरो-पुरत्याक, वचूनु दुःखा मांचारि निदता. रायु तिगेलो समाचारु घेउच्या येत आस तें देकूनु, निद्दांतुशें हलबरुता. ''राजन बैस पालकि घेउनु माका आपोवच्याक आयल्याति.''

''कोण आयल्याति'' रायु विचारता. ''अशि इत्याक करता.''

''ते न्हैवे होड होडल्यो गाल मिशांचे, तांचे सांगताक येकळो रड्यारि बशिल्लो, राजवा कोंडि मजे गळ्याक घालूक आयला. महाराया माका अशि वळवळाव नाका व्हर वग्गि. हांव कोणाकयि नाका खैं.''

''माका जायि तुं तूंवे बरि जावच्या पासावत हांवे कसलें कोरका सांग'' अशि रायु ओघानेचि उलथलो.

ती म्हणता ''तुं करीशि ना, वैल्याने मज्जेरि बम्हांड कोपतलो. हांव उलयिलिं वायटि जातलिं.''

''कसलेंयि आसो तें करतां, रायु ह्या नात्याने वचन दित्तां, घे'' म्हुणु तो आपणालो हातु तिगेल्या हातारि दवरता.''

सांज म्हणसरि, तुगेल्या सांतयि धुवांक मारनु, तांगेलें रगत मगेल्या मात्याक निडलाक लावका. हें इतलें करनि, तरि, हांव मेल्लींचि म्हुणु लेक.

हें राणियेलें शर्थ आयकूनु, रायाक रावा पेट्टूचि बसलो !! मोग्गाने वाडयिल्यो आवसु नातिल्यो धुवो. ज्यानि रक्षण करका, त्याचि हातानि, तांगेले प्राण घेउकाति ? मारेकारु प्राणदंडु जालेल्या अपराधियांक मारता, तशि, निरुपद्रवि निरपराधि पोरांक मारुं !! कसलें भयंकर कृत्य हें !!!'' अशि मनांत हळहळता तरि येक रायु, वचन मोडलेलें महापातक घेडच्याक जायना. अशि उसरमेटिंतु पडता. चलियांक सोदूक

वत्ता. तीं आवसुगेलें वृंदावन आसिलें थंयि रडत बसल्यांति. येदोळु घडलें वृत्तांत पूरा बापसुक सांगताति.

''बाळानु, त्या दुष्टि सवति मावशे हातांतु तुमगेलि धडगति ना. चला, तिगेले सावळि वारें लागना थंयि दूर तुमकां राबचि व्यवस्था करतां.''

रायु तांकां घेउनु रान्नांतु वत्ता, विश्रांति घेउच्याक येकडे बसता. येतना बांदूनु हाडलेलि बुत्ति सर्व जण खाताति. चमकूनु दणूयि जालेलों. थयींचि तांका दोळो लागता. बापसुलि राकण आस देकूनु निवांत निदलेल्या चरडुवांक मारूक मन येनि ताका. तांकां थंयीचि सोडनु तो जुगुळता, आनि जाता तितल्या जोराने धावनु दूर पावता.

थोडे वेळाने बाळ जागि जालि — भयिण्यांतु चड हुसक्याचि ती. पळयता बापुसु ना. भयिण्यांक जागयता. आनि त्यो घडियांतु हाल घालनु रडतानि, घडियांतु आन्ना, आऽऽन्ना कोरनु घट्टिट आपयताति.

त्याचि वेळारि, सेजारच्या रायागेले सात पूत, रान्नांतु मृगयेक आयिले. यथेच्छ क्रीडा करनु तांगेल्या राज्याक वचत आसतानि. तांतुलो सर्वांतु सानु राजपुत्रु, जो सुमार दूर पाविलो आनि सांगता. घोडो आवरनु भावांक लागि आपयता.

''चिक्के उजवे दिकाने कान दीडनु आयकयाति. बायलमनुष्यानि रडलेलें उयकुं येना. ह्या अठंग अडवींतु बायलो कशि आनि त्यो रडताति इत्याक पोळोवयां'' म्हुणु तांका घेउनु वता.

लावण्यांतु अप्सरांक माकसायताति तसल्या भयिण्यांक देकूनु ते चकित जाले. आणि तांगेलि कर्मकथा आयकूनु तांगेलें मन भोचि कष्टि जाळें. परस्परांगेल्या वयमाना प्रकार, येकेकळ्याने येकेकळेक पसंद केलि आनि, लग्न जाउच्यांक तांकां घेउनु ते आपणाल्या राज्याक गेले.

तांगेल्या व्हरडीके गलगलु पंद्रा दीस चललो. रतिदेवि–मन्मथांवरि सात सुंदर होरं चोवनु, जेवणं–खाणं, उडगेरिं–सडगेरि, मनोरंजनाचे कार्यक्रम जावनु, प्रजाजन भोचि कौतुक करुक लागले. राजपुत्र सर्व तांगेल्या संसाराक लागले. वरस भितरि बाळाक येकु पिट्टा बोंबेंसो गोरो गोमटो गुरडणोसो चल्लो जालो. वरलेल्या भयिण्यांगेरि चरडु-बाळ जायने. तानि सर्वांनि बाळांगेल्या चल्याकचि आणणायलो तानि तांका प्रीति करचि देकिल्यानि लेंककाज, त्या चल्यागेलिं सात्तयि आवसो आनि सात्तयि आन. आशि सुमार काळ सुखसंतोषानि गेले.

येकु दिवसु, बाळा गेलो घोवु शिकारि खेळूक रान्नांतु वचुगेलो. कितले दीस वाट राकलि, तो वापस येउनु येना. ताका सेदूक बाकिचे भाव गेले, तेवयि परतनेति. भयिण्यानि लेकलें, तांका कोणेकी मारनु काडले आसका.

येकु दिवसु, गोसाव्या वेसु घालनु येकु दुष्टु मांत्रिकु येता. दरवान ताका आडायताति. ''तुका भितरि सोडूक जायनारे, राजपत्नियो सर्व वैधव्याच्या दुःखातु आसति. तुका भिक्षा घालूक भायर येशिनाति त्यो वच तुं.'' मांत्रिकु तांका जोरु करता

''येकश्चित दरवान तुमि माका अडवंतावु करचें धैर्य तुमकां. नेराने माका भितरि सोडाति. ना जाल्यारि तुमकां शापु दीउनु भस्म करनु सोडीन.'' म्हणतां कमंडलुतुलें उद्दाक हातारि घेता. दरवान भीउनु ताका भितरि सोडताति. भितरी गेलेलो तो सगळें रावळार भरि भोंवता. थंचे भारी मोलाचे आनि येका पाशि येकु सुंदर वस्तु देकूनु ताका आयंडे येताति. चिके मुखारि वत्तां, येका, नाना थरेने सजयिल्या दालनांतु, बाळ दिसलि ताका, आपणाल्या चेरडाक खेळयित बशिलि. तिगेलें गोमटेपण पोळउनु तो थक्क जालो.

तुगेलो घोवु गेल्लाखैं. हांगा जन्मु इत्याक व्यर्थ करता ? मगेलि बायल जा. पळे हांव तुका राणिशी दवरतां. मगेलि मंत्रशक्ति पळयिने तूंवे. ऊटा, कसलें घेउका म्हुणु तें बांदूनु घेवनु भायर सर.''

''मगेलो पतिदेवु देवा घारा गेला. तागेले प्रतीक ह्या मगेल्या चेरडाक होडु बुद्धिवंतु रव्यातिवंतु करनु वाडोवचें, मगेलें आद्य कर्तव्य जावनु आस. तुका भित्तरि सोडले कोणे ? कोणरे थंयि म्हणु नौकराक आपयता.

मांत्रिकु तिका मंत्रबलाने काळें सुण करनु गळ्याक दोर घालनु ताणनु व्हरता. सुणे खंयि मेळलें की म्हुणु दरवानाने आडायना पडे, राणियेने दिले म्हणता, वचत राबता चेरडाने रडनु आकांतु करचें आयकून, बाळाल्यो भयिण्यो थंयि वताति. बाळ ना. सोदलि, खयींयि देकूक पडना. दरवानाक निमगीना पडे तो सर्व घडलेलें सांगता. तक्षण त्यो दिकाक येकेकळो नौकरु तांका सोदूक धाडताति. सुणेंयि ना मंत्रवादीयि ना देकूक. प्रारब्धा भोगु तो भोगनूचि सरका न्हैवे. अशि मनाक समाधान सांगूनु, तानि तांगेले लक्ष, तांगेलो पूरा वेळु, बाळागेल्या चल्यागेलि पळवण करच्यांतु घालूक सुरु केलो.

अशि चौदा वरसं गेलिं. चल्लो गोरो गोमटो सुरया खोद्टोसो, आंगाने बलिष्टु

मात्याने भारी बुद्धिवंतु, धीरु शूरु जालो. सगळे संसारांक येक आधाराचें मूळ जाडनु आशिलो, ताका कसलेंयि नांव घालनांतिलें, तीं ताका चड्डु म्हुणु आपयतालि. तागेल्या जीवाक भो जपतालिं येकु दिवसु तीं तांगेल्या उभय कुलांचि कथा सविस्तर सांगताति ताका. आपणाल्या राज घराण्याचो इतिहासु आयकूनु, तागेलें हेरदें अभिमानाने फुगलें, आणि शतप्रयत्न करनु, म्हालगड्यांगेलो शोधु घेवकाज, आनि जीवानिशिं मेळल्यारि, तांका घारा घेउनु येवकाज, ह्या आकांक्षेने, तो अत्यंत उतावीळ जालो. तागेलो तो विचारु आयकूनु, तोवयि हाता भायर गेलो; तरि, मुखारि कोण गति, म्हणलेल्या चिंतेने तांका व्याकुल केल्यो. तांगेलो मनोनिर्धारु बदलावच्याक तानि ताका फुसलावच्याक प्रयत्न केलि, ताका वारनु सांगलें, ताजे पायमुळांतु कपाल घेतलिं, येक जात आपणालें हट सोडना जालो.

''इतलि मायस्त म्हालगडिं मगेलिं, तीं खंयि गेलि, तांकां कसलें जालें, जीवंत आसति तरि खंयि आनि कशि आसति, तांका मारनु व्हेलिं, तें, अपघाताने की शत्रुहाताने, इतलें सुधा समजूनु घेउचिं यत्न हांव करना, तरि, हांव तांगेलो वारसु जाडच्याक योग्यु वे? आमि कोणाकयि कष्ट दीनेति कोणालेंयि वायट करनि. मगेल्या म्हालगड्यांचेरि अन्यायु विश्वासघातु जालेलो आसद, तो केलेल्यांक कठोर शिक्षा जावकाजचि. पाच्ची, तुमि माका यश मेळो म्हणु आशीर्वादु दियाति. बाकि तो देवु आणि हांव पोळोउनु घेताति.''

अशि तागेलो अचलु निर्धारु सांगता. तागलो तो उत्साहु आत्मविश्वासु चोवन मावशांक भारी कौतुक दिसलें, आनि तानि अनुमति दिली. अवश्य आसिलिं आयुधं, प्रयाणांतु लागचि थोडि सामग्रि समेत, येकु उत्तम जातीचो कांबोज देशाचो घोडो घेउनु तो भायर सरलो.

तो गेलो गेलो गेलो, कोसगटलेने क्रमण केलें. खंयीचि कांयि चिन्ह दिसनाति. भारी दणूनु गेलो. येकडे विश्रांति घेवयां म्हुणु पळयिता तरि थंयि, सुत्तूचि फातरा गुंडे, होडले होडले खडप, आणि प्रचंड घेरु आसिले रूक, तांचे मद्देगति येक रावळार, आणि ताका लागूनु येक सान माळियालें धर देकूक पडलिं. तो हेकडे कसलें की सोदता तें चोवनु, माळिया भायल धांवनु आयलि.

पुता कोणु तुं, असल्या भयानक स्थानारि येउचि बुद्धि धैर्य, तुका कशि जालें? आरे, हें येका दुष्ट मांत्रिकालें रावळार. भयंकर मंत्रवादि तो. नाना थरेचें इंद्रजाल आस ताजेकडे. हे फात्तर रूक दिसताति पळे ते सर्व जीवंत मनुष्य आसिले, तागेल्या मंत्रानि

तशि अवस्था जाल्या तागेलि. कसलें सांगु पुता तुका, सुमार काळ माक्षि हांगा येकु राजपुत्रु आयिलो, आनि ताका सोदूनु तागेलेस जण भाव आयिले. तांका सर्वांक त्या पिसाट मांत्रिकाने खडप करनु घाल्याति, ते चोयि मात्र न्हे, त्या थंयि सातव्या माळियेरि येकि सुंदरि राजकन्या हांडनु दवरल्या. तिका काळें सुणे करनु हाडलेलि ताने. तो तिका बायल जाउचि मागणि घालता, ती येक जात ना म्हणता. चौदा वरसं जालिं.

तें आयकूनु चेड्डाक खात्रीचि जाता, तीं सर्व आपणालिं म्हालगडि आनि बापोलये. माळिणीक सर्व पूर्वत्र सांगता चेड्डा, आनि जिगेले पाय धरता. बाये मजेरि उपकारु करि, त्या सर्वांलि सुटका करूक माका सहायु करि. तुका ह्या सकडांक जीवदान दिलेलें पुण्य येतलें.''

माळिणि कनिकराने करगता, आनि चेहडाक बायलो वेसु घालनु, तो आपणालि धुव म्हुणु सांगूक सांगता, तेंवयि कोणेयि निमगिल्यारि मात्र. येकु दिवसु, चड्डाक बागेंनु खेळतना देकूनु, मांत्रिकु ''तु कोणि'' म्हुणु निमगिता. ''हांव माळ्या धुव '' म्हणता चड्डा. ''गोमटीचि बुद्धिवंत पोरि. मगेलें येक काम करतावे मा ? त्या थंयि सातण्या माळियेरि येकि राणि राबता. फायि तूंवे तिका येकु गोमटोचि फुल्लां घोसो व्हरनु दिवका.'' ताका धाडूक माळिणीक सांगूनु व त्ता.

चड्डाने सान चरंडुं आसतनाचि मांत्रिकाने तिका व्हेलेलि. एकमेकांक गुरतु मेळचे संभवु नाआसिलो ताने आनि माळिनिने रात्रि बैसूनु कूट केलें. बाळाल्या कुडाचेरि सक्त पारो आसतालों. येकेक वेळा मांत्रिकु स्वतः बसिल्लो आसतालो. चाणाक्ष चेड्डा इतें करता, फुल्लां घोसो दितना आवसूने सानपणांतु आपणा गळ्याक घालेलि, पदक लांबयिलि भांगरा सरपळि तिगेल्या पोरल्यांतु उडयता. ततुक्षण ती गुरतु काडता. चेड्डा तिका दोळे मोडनु सन्नि करता, आनि कुडाच्या येका खिडकेकडे तांका निक्षूनु पळयत आसिल्या मांत्रिकाक सांगता,

''राणियेक तुवें फुल्लां धोसो पेटयिल्लो भोचि मनांतु गेलो खै, ती तीं पुल्लं माळनु घेउनु, गोमटे कपडे अलंकारु कोरनु, मागीरि, तुजेकडे कसलें की अंतरंग उलयता खैं. तेदवरेक तुम्मि भायर राबल्यारि ती साडि बदलायतलिशिलि. जायद वे निमगीता.''

मांत्रीक येकदम फुगाने पडता. ''चला रे सर्व भायर.'' म्हुणु तांकां घेउक वत्ता. मागीरि आवसु फूतु मुखारि कशि करका ती खुरलि करताति. पप्रथम बाळाने मांत्रिकाक लग्न जावचि खुशि दाकवनु ताका विश्वासांतु घेउका. ताका कसल्ययि थरेचो संशयु,

संकोचु जायनशि ताजेकडे गोडी गुलाबि करनु, मुखारि तांगेलो प्रपंचु कशि चलोवका ह्या सगळ्याचि चर्चा गोष्टि करका. आनि ताने खुशालेने सावधान हरलेल्या क्षणांतु, तागेल्या मंत्र सामर्थ्याचें गूढ गुपित निमगूनु घेवका.

थोडे वेळाने ती मांत्रिकाक भित्तरि आपयता. तो खुशालेने भाळनु गेलेलो आसता. जाता तितले वंगि तो तिका लग्नाचो आग्रहु करता.

ती म्हणता ''हें चोयि वरसंगणिके आमच्यांतु जायनि तें बरेपण आत्त जाल्या. मगेलें आनि मगेल्या पतिदेवालें पनुर मिलन जावचि आशा हांवे आत्तं सोडल्या. माका लग्न जावचेंचि आस. माका तुजेरि प्रेमु वाडूक थोडो अवकाशु आस्पदु जायि.बाम्मुणु बायलांतु इतलो घनिष्ट बंधन जावका, की तांचांतु भेद कपट निपवण आसूक नज. माका येकळाक सांग तु अमरुवे मनुष्यांक जावचे क्लेष कष्ट तुका बाधनति वे.

''अशि इत्याक निमगिता'' तो प्रश्नो करता.

इत्यांकी म्हणल्या रि लग्न जन्माचि गांटि, पतिपत्नि हीं एकजीव. तुं महामांत्रिकु, मगेले प्राण कशीयि रक्षण करशि, माका खात्रिचि आस. तुजेरि कसलें अनाहुत संकष्ट येद तरि हांव हात पोटळनु मगेल्या अद्दष्टाक दुरूयत बैसुं की इत्ते ? माका तुगेले विशय कसलेंयि गोत्तु ना. ''तूंवे म्होणचें बद्दचि. हांव बाकि मानवां म्हणके न्है. हांगा थावनु सुमार दूर येकु पाडपडलेलो देशु आस. थंयि येका जंगलांतु मदेंचि येकडे वर्तुळाकार जावनु माड्डे आसति. त्या वर्तुलाचे मद्देगति, एकारि येकि अशि उदकाने भरलेल्यो स मडकियो आसति मुळांत आसिल्या मडके पोंदाक येका पांजिऱ्यांतु येकु कीरु आस कीरालो जीवु तो मगेलो जीवु. कीरू मरद, तरि हांवयि मरतां. त्या कीराक कसलीयि दुखापति जाउचो संभवु ना. एक म्हणल्यारि तो सहसा कोणाल्यायि दृष्टीक पडनाशी, झाडि रूक्काडि मद्देगति दवरला ताका. तसल्यांतु चुक्कूनु कोणयि अतवे जनांक तो देकूक पडलोचिबा, तरि, सुत्तूचि हांवे शंबरगटलेने, भुत्तं पिशाचं, चवंडियो, जटके जठमास्तियो मंत्रावनु राबयल्यांति. कोणयि लागि गेल्लो. ताजि जीवाचि आशाचि ना.

बाळ पुत्ताक हें पूरा सांगता, ''तरी पुता, तुं तो कीरू घरुक वचुनाका, मजे आन्ना, तुगेल्या जीवाक कांयि पुणी''— चड्डा आवसूलें तोंड धांकूनु, म्हणता,''आम्मा, हांव बरे कामाक हातु घालतां, तेदना, अवाच्य कसलेंयि उलवनाका. कीरु हातांतु मेळो, त्या दुष्ट मांत्रिकाक हांव डोंबरागेलें खेत्तेंरो खेळ यितां पळे. तुं मात्र कसलें पुणि निमित्त सांगूनु लग्न मुखासयि. ताका संबाळनु धरि, हांवे वापस येवसरि,'' अशि सांगूनु तो वत्ता.

तो वत्ता वत्ता वत्ता, लेक नातिलें दूर येका जंगलााकडे पावता. चिके दणु परिहार करुक, येका झाडा मुळांतु बसिलो, थंयिचि कुरुणि येता ताका. सुकूनु पडलेल्या पाल्लो-जिग्गांतु कसलेंकी चरलेलो शब्दु कान्नांतु गेलेल्या तसाक उटावनु पळयिता, येकु होडलो अजगरु रुक्कारि चडत आस. जाने तडवु करने. आपणालि तलवार काडनु अजगराचि बोडीकचि उसळायलि. तितलें भितरि, दोनि गरूडपक्षियो, पिल्लांगुणि आहारु घेउनु तग्गु देंवतातिं. चेड्‌डाने मारलेलो तो अजगरु पोळोवनु, पिल्लां आवसु, उपकारु लेकूनु म्हणालि ''पुत्ता, तुका देवु बरें कोरो कितलिं वरसं जालिं, हो क्रूर अजगरु आमि नातिलो वेळु पोळोवनु, आमरोल्या पिल्लांक धरनु गिळतालो. आजि तूंवे तांका जीवदान दिलें. नुगेलें कसलेंयि काम आमच्याने जायशी आसल्यारि, सांग, आम्मि ते करनु धन्य जातातिं. तुर्ताक आमगेलि हि दोनि चरडुव घे. ती दिसूक पिल्लं, तरी तुका फाटीरि घेउनु, जायि थंयि व्हरचें त्राण आस तांका तुजेकडे वाहन ना न्हैवे, व्हर ताकां, तुगेलें काम जालें की घारा येतलि ती.''

गरुडा पिल्लं, येकाच्या दाव्या पाक्कारि आनेकाचे उजवें पाक दवरनु ताजेरि चेड्‌डाक बसवनु घेउनु उडतातिं. मांत्रिकाने सांगिल्या ठिकाण्यारि येतातिं. प्रती येक मांत्रिकाने वर्णन केलल्यागादि, तंतोतंत, तशि आसिलें. दोनफारां भरु, वत्ता रापाक सगळि निशाचर भूतं पिशचं गाड निद्देवनु पळलेलि, आंगारि धातूचि नासो. तरी तीं इतलिं लेक नातिलें आसिलिं, की, तितले जणांक दांटूनु वचसरि, कोणना कोण उटायद म्हणलेलें भय आसिलें. चड्‌डा, तग्गु देंविलोचि, दोळ्यांचि पात्ति फापुडच्या भित्तरि मडक्यांचो थरु लातुमारनु पाड्यता, पांजिऱ्यांतुलो कीरु उपरणींतु मुसकायता, आनि गरुडां फाटीरि बैसून वाऱ्यावेगाने वत्ता. मांत्रिकागेल्या राजमहालाकडे पावता.

''मगेलें येक अपसाध्य काम सफल जाउच्याक तुमि सहायु केलो माका रुणांतु घालो'' म्हुणु चेड्‌डा गरुडांगेलो उपकारु स्मरता.

''तूंवे आमकां जीवदान दिलेलें रूण आमकां जन्मजन्मांतरांतु फेडचे फावशि ना,'' आशि गरुडांगेलें उत्तर. तांगेल्या म्हालगड्यांक आपणाले प्रणाम सांगून चेड्‌डा गरुडांक तांगेल्या घारा रवाणे करता.

मांत्रिकाल्या महाला मेट्टारि बैसून, चेड्‌डा कीराक घेउनु खेळत बसता. कीराक ताजे हातांतु पोळोउनु मांत्रिकालो जीवु भीउनु हंहारूनु वत्ता. फुसलावणे स्वराने तो निग्नगिता ''पुता खंयि मेळलेरो तो कीरु तुका. कितलो गोमटो आस. खंयि पोळोवयां.''

''मगेलो मोग्गा कीरु तो, कितले काळ धरतु हांवे पोसला. ताका हात लावच्याक थादि दीना हांव कोणाकयि.'' अशि चेड्डा उत्तर दिता आनि तो कीरु किशांतु घालनु, भित्तरल्या भित्तरि ताजो गळे हगूर दाटता. मांत्रिकाक गळपासु लागिल्यो वेदना जातातिः. उसरमेटि लागिल्यावारि धाप्पेनचि मांत्रिकु दम्मय्य घालता.

''माका दी तो कीरु, मजेरि दयाकरि, तूंवे मागिल्लें दित्तां, सांगिल्लें करतां, कीरु माका दी. आसो दम्मय्या तुका.''

चेड्डा येकेकचि आपणालें शर्थ सांगता. सात राजपुत्रांक तूंवे फात्तर, रूक करनु घाल्याति तांका मोकळि करि'' मांत्रिक आपणालि मंत्रा कांडि फिरावनु चेड्डाले बाप्पूसु बाप्पोल्यांक जीवंत करता, आनि कीरू मागता. ''राब अजूणि सरनि. आजि वरेक तूंवे कितले जणांक आशि वंदि केल्याति तांगेलि सुटका जावो.''जाल्लि ते चोयि'' अशि मंत्रिकालें उत्तर भायर पडच्याकचि फातरांचे राजेराजादिक, सेनापति सैनिक सर्व घोडे सवार जावनु राबताति.

''आत्त पुणी दी मगेलो कीरु माका'' मांत्रिकु लालेता.

चेड्डा कीराक भायर काडनु ताजि दोनीयि पाक्कं तिरपूनु उडयता. मांत्रिकाले हात थुंटूनु पडताति. कीराले पाय मोडले की मांत्रिकूयि पाय मोडनु पडता, मागीरि सरि कीरालो गळोचि तिरपूनु ताका मारता, आनि खा तुगेल्या पापांचें फल म्हुणु कीरु उड्यता. मांत्रिकु मोरनु मुद्दो जाउनु पडता.

इतलें जालेल्या उपरांते, चेड्डा सातव्या माळिये वेल्याने आवसु बाळाक घेउनु येता, आणि मुक्त जालेलि सर्व मंडळी चेड्डाले मन:पूर्वक उपकार स्मरूनु, तांगतांगेल्या देशा वतले तसले जाताति.



रित. दाळिंब देशाच्या सुरुचि राजकन्येक देकूनु विक्रम रायु मोहित जाता.

# विक्रम रायालें चरित

पूर्विल्या कालांतु विक्रमु नांवाचो येकु नामांकित रायु जाउनु गेलो. तागेलो भूति म्हणु येकळो प्रधानि आसिलो. चेरडपणांतूचि तांगेलिं म्हालगाडिं अंतरलेलिं अशि जाउनु, सान्ना प्रायेरीचि, राज्य परिपालनेचो भारू तांकां आंगारि घेउचो पडलो. सानपण धरनु तांका अतोनात प्रेमाने बांदूनु धरलेले. सदोदित एकमेकांगेल्या सहवासांतु आसतांले, इतलें थांयि की, विक्रम धारा ना, तरि, भूतीगेरि मेळतालो, आनि भूति धरांतु ना, तरि, विक्रमागेरि सोदूक वताले.

राज्याचें अढळित दोगंयि एक मताने व्यवस्थित रीतिने चलयतालें, विक्रमु चिके अंवसराळो. हातांतु घेतिले कार्य संपन्न जालेलें पळयिसरि फुरसतीचि नासतालि ताका. अवसरानि फडपुशि जउच्याक फावता, थंयि भूति हस्तेरि अंकुश म्हणतातिं, तशि ताका आवरतालो. येकून कारबार गोमटांयारि चलतालें, राज्यांतु सर्वांगीण उन्नति जायत गेलि.

विक्रमाल्या राज्या लागसार, दाळिंब देशांतु सुरुचि नावांचि येकि पिण्णि, म्हणल्यारि, सान्ना आंगटणाचि, चोयिल्यारि, दोळ्यांचें पाप वत्ता, तितली लक्षणवंति येकि राणि आसिलि. तिगेल्या आवस-बापसूनि, तिजे पूर्ते जाउनु येक, दाळिंबे ह्त्तिल कोरनु दिलेले, हितलांतु वरषावधीक, येक म्हणु झाडांक दाळिंब लागतालि, सांगचें न्है.येकापशि येक गोड, नपोट (रूचि ना जाउचें) बसिल्या तोंडाक उद्दाक सुटकाज, खंचें घेउं खंचें सोंडुं, अशि जातालें, तीं पळयिल्यांक. हितलाच्या मध्यगतीचि येक चंद झाड, ताका तीनि वाटकुळींचि दाळिंब आसिलि, तोटवा लागि कवडशें उबति जातालि. भित्तरि, ऐकेक पलंग आसिलें. मद्देंतुल्यांतु राणि निदतालि, आनि बगलेच्यांतु तिगेल्यो दोग्गं दासियो.

नित्य फांतोटीरि इतें जाउचें ! त्या झाडाचे हेगे बगूनु नेलाक लागचे, आनि तीं तीनि दाळिंबां तोंडं उघडचि, आनि तांतुल्याने, सुरूचि आनि दोग्गं दासियो भायर येताल्यो. हितलांतुले फलपंगं खाउनु, विहारु करनु, तीनिसांज जालि की, तांगेल्या ठिकाण्याक परततालिं तानि लागि येउच्याकचि झाड वांकूनु तांका घरांतु घेतालें.

कितले जण राजपुत्र वांट काडताले तिका लग्न जाउच्याक, लेक ना मिति ना. इंद्राल्या सभेंतुल्यो अप्सरो लगीन तिजो इतल्यो गोमटियों ना आसिल्यो खैं ! मात्याक

काळोचि मोवाळु पायघोळ केसु शंखावारि गळो, फुल्लेलें कमलशें मुख, वट पोवळ्या कांदे, मोतियां दाणेशे दांत चिकळि, वर्णन केलें तितलें नपुरों. ती कितलि रूपवति की, तितलीचि गुणवति जा-ल्या-रि, म्हणलेलो येकु व्हडु प्रश्नो आसिलो. कोणेयि दांडगायेच्या काक-पोकानि तिका बळकावनु व्हरूक नज्ज म्हुणु, तिगेल्या म्हालगड्यांति, त्या रम्य हितला सुत्त, चक्रव्यूहशें येक कोटें बांदिले ताका बागलं, बागलं, बागलं, बागलं आशिलि. येकांतुल्याने भित्तरि गेलेलो, हितल इदूर दिसता म्हणतना आनेक बागलांतुल्याने भायर. कित्येक तरूण ह्त्तिल भोंगो, येका फांताचो भायर पोंडु म्हणलेलो, भितरल्या भित्तरीचि, घाण्या बैलुसो घूंवनु घूंवनु वाट मेळना तिलें, तान-भुके संकटाने थयींचि निपात जालेले.

विक्रम रायाल्या म्हालगड्यानि, तांगेल्या राजवाड्यालागसार येक काळ भैरवालें देवळ बांदयिलें. जाल्यारि सुमार काळ थायि, देवळाचि देखरेख घेतल्यांक बगा नातिलें. देवळा सुत्तूचि, कांटेरि, रान वाडून, झडनु पडलेलिं पात्रं जिग्गांचि राशियो, वाळते हुत्त ह्या सर्वानि देवळचि धांकूनु पडलेलें.

येकु दिवसु, विक्रमु आनि भूति भोंवच्याक गेलेले. तावळि येका हुंतवांतुल्याने ''ॐ, ॐ, ॐ'' अशि गंभीर शब्दु आयलो. दोगयि चकित जाउनु स्तब्ध रावले. ''आररे !!, आत्तं लक्षांतु आयलें,'' भूति कसलें की येवजणेक येउनु उद्गारलो, ''महाराज, हांगाचि सुमाराक तुगेल्या पिताश्रीने येक काल भैरवालें मंदिर बादयिलें. ॐ कारु त्या देवळांतुल्याने येत्ता आसका, आपणालें सानिध्य हांगा आस म्हुणु कोणूयि येतल्या वतल्यालें लक्ष वेधूनु घेउच्याक, नावे कोणु की रुषि तपस्येक बसला.'' ह्या दोनींतुलें खचेंयि खंडित आसका.

अत्यंत कुतूहलाने तानि दोगानी, जंगलि वालियो धरनु ताणल्यो ; तरि कसलें पळयताति ! शिलेचिं दोनि शिंगशिं देकूक पडलि. ''देवळ हांगाचि आस'' म्हुणु दोग्गयि एक कंठाने म्हणाले. विक्रमाने, ततक्षण शंबरि कामगारांलि योजना करनु सक्त अप्पण केलि की, तिनिसांज जाउच्या भिजरि देवळ व्यवस्थित मोकळें जायि. देवळाचे काम खंयि थायि आयलें तें पोळवच्याक आमि दोगयि येताति.

देवळ इतलें गोमटें आसिले, वर्णन करूक शब्द सुचनातिलें, देवळाचि शोभा दोळ्यांतु पुणी भोरो म्हुणु ते, तें नियाळत राबले केद्दोळु गेलो तांका कळनिचि. बीटी राकडाचें महाद्वार, ताजेरि कुशल कारागिरांगेलें चिरणिगे काम, भित्तरि विशाल प्रासाद चारी दिकाने पौळियो, वणत्यांचेरि, शिवलीलामृत, शिवपुराणांतुले प्रसंग वर्णन करचि

रंगित चित्रं, पळयितल्यांगेलें मन मुग्ध करतालिं. विशाल सुतवा मदें‌तु गर्भगुडि आनिकयि चड आकर्षक आसिलि. तांतु प्रतिष्ठा केलेलि काळ भैरवा मूर्ति, शिल्प कौशल्याचो येकु चमत्कारूचि आसिलो.

विक्रमु आनि भूति नित्य दर्शना खातिर थंयि यउच्याक लागले. जीवाक इतलें हितचि दिसतालें ताकां, की रात्रि थयींचि वचूक सुरु केलो तानि. येका रात्रि स्वप्नांतु विक्रम रायाक तागेलो स्वर्गवासि बाप्पुसु येउनु सांगता, ''विक्रमा, उटा देवळा मुखारि आसिल्या दीपमल्लाकडे वच.''हो दीपमल्लु कोणु आन्ना ? देवळा इदूर ह्या नावाचो कोणूयि राबता म्हुणु हांवे आजि वरेक आयकने.'' अशि विक्रमु विस्तारु निमगीता.

तो कोणूयि मनुष्यु, मल्लु न्हैरे दारवट्या भित्तरि आयिल्या क्षण, उंच, थोरूचि आनि सुत्तु, मूळ धरनु तुरि थायि, सान्नावणेचिं कुर्कुटं आसति पळे,-तो दीपस्थंबु. परव आसण म्हणलेल्या तावळि देवळांतु उत्सवु जाता, तावळि, त्या खांब्याच्या कुरकुटांतु येकेकु दीवो दवरतातिं. शंबरिगटले दीवे धरनु रांबिलो येकु महाकायु जद्दिट राबलासो दिसता म्हुणु ताका दीपमल्लु म्हणतातिं. त्या खांब्या मुळांतु, अमाप धनांचि कोपरिगा पुरलेलि आस. तूं कोरकाज तो धाडसु पराक्रमु करशी, ती कोपरीगा तुका मेळतलि, आनि विक्रम नांव तुका अधिक शोभतले. येकळाक तूंवे काळभैरवालें, निष्ठेने, आराधन कोरनु, मागीरि येकु क्रमु करकाज. तो सांग रीतिने पार पडलो, तरि देवु प्रसन्न जाला अशि लेकूनु, तूंवे कोपरिगा काडनु व्हरचि.

''आराधन आनि मागीरि करचो क्रमु कसलो तो.'' विक्रमु अति कुतूहलाने निमगिता.

''तें कशि की म्हणल्यारि, खांब्या तुरियेक येकु नेणु बांदचो. नेणाच्या आनेक तुरियेक येकु पेठारो बांदनु तो लांबोवचो. पेठाऱ्यांतु तूवें शीं सकल पांय उचारि जावनु राबकाज. तेदना तो पेठारो तीनि सुत्तं घुबंडावकाज; तो उपरतून फिरुक लागलो की, खड्गाने कापचो. तुं पडतलो. खांब्या सुत्त आसिल्या शूळांच्या मोघोलि (कटांजन) तुं पडशि ना, महाकाळाचेरि निष्ठेने तूंवे हें केल्यारि.

बाप्पुसु अदृष्य जाता, आनि विक्रमु जागो जाता. स्वप्नाचें वृत्तांत आयकूनु, भूति सल्लो दिता. महाराज, तुगेल्या पिताश्रील्या अदेशा प्रकार, तुं, अवश्य आनि तत्क्षण करि. हांव सहायु करतां, महाकालु आमगेल्या फाटबलाक आसचि.

सगळो क्रमु यथाविध केलो. भूतीने पेठारो फिरायलो, तो उपरतूनु फिरता म्हणत

आसतना विक्रम रायु नेणु कापता. पेठारो शूलां कटांजनाचेरि पडचो, तितल्या भितरि, येकु, काळि शिलाशी थळथळि आंगाचो, धिप्पाडु दूतु प्रकट जालो. ताने पेठारो अंतराटीचि जिक्कूनु घेतलो, आनि सुरक्षित, कटांजना भित्तरल्या दिकाक देंवरयिलो. तो दूतु भित्तरि देवळांतु रिगिल्यावारि दिसलो, तरी देवळांतु खंयियि देकूक पडनि.

सर्व देवागेलो खेळु समजूनु, दीव्या खांब्या मूळ खणयिले. कोपरिगा वैरि काडलि. तांतु कोण कोटीने द्रव्य भरलेलें मोजूक मापूक असाध्य. माणिकं, मोतिं, वैढूर्य, वज्र, केंप, पाच, नील, पुषराग, आनि नाना थरेचिं आभरणं, बुगड्यो, काराफुल्लं, नत्त, हत्तिकट्ट, नागमुरग्यो, वांकसरियो, कांकण, कडे, वाळे, पायंजण, सुतुंगुलो, कंठियो हार, सर, बिंदियो, मात्र न्है, भांग्राचि रुप्याचि आयदान, चेंब तट्टिं, कांसे पळेर, थाल्लियो, इत्यादि अमौल्य वस्तु, दोळ्यांचि दृष्टि पावना, तितलें दूर थायि पसरनु पळलेलें. निरिच्छ विक्रमु, तांतुलें येक कसलेयि घेना. सर्व संपत्ति, विकूनु प्रजेच्या कल्याणा खातिर खरचयिता. नित्य देवळांतु विशेष पूजा पुनस्कार सुरु जाले. पुराण, श्रवण कीर्तन जावच्याक लागलें. प्रजा जनांतु देवाचेरि भक्ति श्रद्धा वाडूक लागलि. भेद भाव असूया नष्ट जावनु सर्व परस्परांकडे, सौजन्याने सलोक्याने चलूक लागले. एकूनु, राज्यांतु सर्वांगीण प्रगति जालि. इतलें सर्व परिवर्तन घडोवनु हाडलेल्या विक्रम रायाचेरि प्रजानन अत्यंत प्रसन्न जालें, ताका देवु मानूक लागलें. उज्जयनींतु विक्रमाले देवळ बांदलें तानि.

येकु दिवसु, प्रातःकालारि काकडार्तिक आयिलो विक्रमु, तावळि, महाकाळु, प्रकट जावनु म्हणता ''विक्रमा, तुगेल्या सद्गुणानि सदाचारानि, आनि उत्तम प्रजापालनेने, तुं येकु आदर्श रायु जावनु आस. तुका कसलो वरु जायि सांग.'' विक्रमाक कसलेंयि सुचना. गोंदळनु तो म्हणता, ''देवा, दीनदयाळा, तूंवे माका कसल्याकयि अणे करनि. वरु कसलो मागचो येवजना जाला. विचारु करुक येका दिवसाचि अवधि दी माका,'' रायालि अवस्था पोळावनु देवु मनांतूचि हासता आनि ''बरें बरें, फायि निवेदन करि'' म्हणता.

रायागेल्या वाड्याच्या लगत येकळो सुतारु राबतालो, मोडि-माट, मंत्र-तंत्र करतलो. तोवेयि राया माक्षीचि सकाळिंचे दर्शनाक वत्तालो. आपणेयि कसली पुणी मंत्रशक्ति प्राप्त करका म्हुणु विचाराने तो पाळतेरि आसिलो. देवु रायाकडे डलयिता हें सर्व जाणतालिं. त्या दिवसु ताने. रायाने विचारु करुक देवालागि अवधि मागतना आयकिलें. हेर दिवसु तो येका खांब्या आड देवळांतु येवनु बसता. प्रधान्याकडे विचारु

विमर्षा कोरनु, विक्रमु देवळांतु येता. विक्रम वरु मागता. ''देवा, माका पर देहांतु, मनुष्य जावो प्राणि जावो, प्रवेशु कोरचि तशीचि, परत मगेल्या शरीरांतु येवचि सिद्धि दी.''

महाकाळु ताका दोनि मंत्र सांगता. ते रायु येका चियऱ्याचेरि बोरोवनु घेता. ''हे मंत्र इक्रा वेळा जपले की तुगेलि परकाया प्रवेश आनि प्रस्थानांचि मंत्र सिद्धि जातलि'' देवळाच्या दाखट्याकडे पावता म्हणसरि ते मंत्र ताका पाठ जाताति. चिटारो तो चोंतो करनु उदयता. सुतारु तो चिटारो वेंचूनु घेता आनि अपणयि मंत्राचें पटण करता. जीवु भायर पडलेल्या उपरांते परत प्रवेशु करसरि, ताजो विलयु जायनाशी तें भद्रतेरि दवरका, ताजे तोंडांतु मंत्रायिलि वेलपत्रि दवरका अशि देवाने विशेष सूचना दिलेलि; ती चिटाऱ्यात बरयिलि नाआसिलि.

सुताराने मंत्र सिद्धि कोरनु घेतिलि व्हयि. जाल्यारि परकाया प्रवेशु केलेल्या ताबळि निर्जीव देह अबाधित दवरूक, देवाने रायाक कसलें दिलेलें, तें तो नेण.

हि दिव्य शक्ति प्राप्त जाल्या, आतं तिज्या प्रभावाने, दाडिंब देशाचि सुरुचि राणिने आसिल्याकडे. वचचो विचारू करता. विक्रम राजा प्रधानु भूति सांगाति सर्व व्यवस्था करनु, येकु कीरु मारनु; तागेल्या देहांतु प्रवेशु करता, आनि उब्बूनु वता. सात थरांच्या शूलांच्यो मोघोल्यो दांटूनु सरळ तिगेल्या उद्यानांतु वता. तीनीयि दाळिंब काडनु तांचे तोट्ट चोंचीतु घेवनु आपणाल्या राजधानीक येता. कीरा आंगांतुलो जीवु पुनः आपणाल्या आंगांतु घालनु विक्रमु जाता. दाळींबातु सुरुचि राणीक पोळोवनु; प्रजा सर्व भारी गौरव करता. तांगेले लग्न भारी विज्रंभणेरि जात्ता. तांगेलो संसारु अति संतोषाने चलता. तरि येकु दिवसु रायाक, विश्वसंचाराचि तोडु अनावर जाता. भूति ताका वारता. तरी तो आयकना.

विक्रमु सुरुचि राणिक लागि आपोवनु सांगता, ''देवी सुरुचि माका कितले काळ तुजेलागि थावनु दूर राबचें जातलें हें आत्तंचि सांगूक जायना. वरस दोनि वरसं हां हां म्हणतां उड्डूनु वतलिं, तरी, हांवे नातिल्या वेळारि, तुजेरि कसलेंयि संकष्ट येवो. संकोचु करनासतना, आमगेलो बुद्धिमान प्रधानि भूतीक सांग तो आपणाल्या जीवारि वड्डु घालनु तुगेलें रक्षण करतलो.

इतलें सांगूनु, तो, आपणाल्या भुजाक ये कि सानि चीरि घालता, तांतु यक्षाने दिलेलि औषधि भरनु, आपणाल्या निर्जीव देहाच्या भद्रतेचि व्यवस्था करनु पुनः येका कीरा देहांतु प्रवेशु करता, दूर उब्बूनु वत्ता.

रायु संचाराक गेला म्हुणु कळलेल्या क्षण, सुतारु विक्रमाल्या शरीरांतु प्रवेशु करता. सर्व लेकताति, की रायाक दोळयांतु चिंदारे आयिले, आत्तं तो बरो जालो. परंतु हांतु कसलें की कृत्रिम आस, तें, भूतिगेल्या लक्षांतु येनातिलें रावने. सुरुचि राणीक सांगता तो ''देवी महाराणि, आमचे समक्ष, महारायु, कीरांतु प्रवेशु करनु उब्बूनु गेलो. रायालि मंत्र सिद्धि प्राप्त जालेलो दुसरोचि कोणुकी, तागेल्या शरीरांतु शिरला, माका खात्री आस. त्या निमितिं, तूंवे सावध राबचें अत्यवश्य आस. त्या फटिगाले बिंग भायर घालका तरि आमि सर्वानि, विशेष करनु, तूंवे, सहकारु दिवकाज.''

राणि आश्वासन दिता. त्या कालांतु, सुरक्षा प्रबंधु जावनु रायालें जेवण राणियेने स्वत हाताने कोरचें आसतालें विक्रमाक, जेवण पौष्टिक तरी तरी पथ्यकर आणि रुचिकर जायि पडतालें. आजि तिका परीक्षा पोळोवचि आस. ती इतें करता साद्योचि दोनि चारि रांद्यो, आणि गोडँ घालेले, केळ्यांचे हशाळें करता. ताका येळचि दाकयना. सुताराने हे सुद्धां खंयि देकल्यां, तागेल्या जन्मांतु. बांदी व्हाळांतुले जेब्ब धरनु हाडनु, सोय्ये शास्त्रापूर्ते येक कातले वेळ दाकोवनु तागेरि रांदयि केरचि, सकाळि सांजेक मेळनु. उकड्या तांदला शित्ताक त्या रांदयेचि शिवरि मारनु, तें चि गोड करनु जेवण. आयचें जेवण ताका होडलि येकि मेजवानीचि जालि तो भुरके मारनु जेवलो आनि धेंकत, पोट्टारी हातु फिराय उटायता. राणियेकडे जेवणाच्यो तोंड भोरनु थोकणायो उलयता. विक्रमु असलें फडपुशि जेवण, आपणाल्या सुण्याक थांयि घालना आसिलो. आनि जेवतना भुरके मारचे, मिटक्यो मारच्चो. सगळो खरकटो हांतु लेंवचे, हे सर्व अशिष्ट गुण लेकताले. सुरुचि राणि हो सर्व सुतारालो प्रकारु भूतीक सविस्तर सांगता, ''प्रधान दादा, तुगेलो संशयु खरोचि ठरलो. आत्त इत्तें कोरचें जालें.''

''रायागेल्या आंगांतु आस तो, ताका बंदि करूक जायना. मात्र, कोणेयि ताज्या तिष्टतेक थांयि वचूक नज्ज. संपूर्ण बहिश्कारु घालचें. आपणालें इंगित संर्वाक कळल्यां कोणयि आपणालि खब्बरि घेनाति, म्हणु दीस काडचे कष्ट जावनु रातोरात पोळनु वचका ताने. कोणाकडेयि उल्लवच्याक आयल्यारि, झगडूकचि सुरु करकाज आम्मि, सुताराक मंत्रु मात्र गोत्तु आसिलो. औषिधि ना आसिलि. तागेलें स्वंत शरीर फुरंगटेनु गेलेलें. तो निरुपाय जावनु थयींचि राबलो.

हांगा राजा विक्रम कीरु, दूर येका विशाल वडा रुक्कारि वचूनु बसता. त्याचि रुक्कारि येक हजार थरथरेचे कीर आसिले. विक्रमागेलें बलिष्ट आंगलट, विशाल धवांड्रीं पाक्कं मात्यारि गोमटी तुरायि देकूनु, तान्नि ताका रायु केलो, नित्य तानि दिसाचें पोट भोरनु घेवच्याक दूर वययें, आनि तिनसांज जालि की घारा परतुवचें.

येकु दिवसु, येका पारध्याने त्या कीरांक पळयलेम ! तांका कशि धरनु खांवचे तो हवण पळयत आसिलो. तो इतें करता, सपूर सुत्तळ्ळेचे बलें बांदूनु दवरता आनि वत्ता सांजे घारा आयिले कीर पूरा शिरकूनु पडताति. ''भीवुनाकाति, फायि पारधि येतलो. आमि सर्व कालच्या झडि वारें पावसाक मेल्याति अशि दिसशि गळो मान आड घालनु, नेराने पोड्यां. आमि मेल्याति लेकूनु गळो तिरपूनु मारिशि ना. आमकां येकेकळ्याकचि घूडां थावनु काडनु तग्गु उडयतलो. तग्गु हांतूरण पातलयिल्या गादि दाटीचि कर्के जड्डि चिगरल्या आमका दुखापति जायशि ना. सगळ्यांक तग्गु घालनु तो आपण तग्गु देवता म्हणतना सर्व उब्बूनु वचयां.

हेर दिवसु पारधि येवनु; कीरानि धोरण बांदिल्यावारीचि येकेकूचि करनु हजार कीर तग्गु उडयता, ते सर्व झाडाचि आंबलि झडनु पडता तशि, बुड्डु बुड्डु पडताति, पडलेल्या कडच्याने हालनाति. कर्मधर्म संयोगाने म्हणताति तशि, एकहजार एक्कावो उरलो, विक्रमु. तागेल्या पायाचें जाळें काप्पूक पारध्याने हातु पुढसारलो, तेदना, कशिकी हातांतुलि कोयति सुटूनु तग्गु पडलि. तग्गूच्या कीरानि लेकलें, सकडांक तग्गु घालनु, पारध्याने मुद्दाम कोयति उडयिलि. येकळ्याक इत्याक सोडका तें, म्हुणु, कोयति घेवनु परत रूक्कारि चडच्या विचाराने, पारधि तग्गु देंवता कीरांक इतें गोत्तु. ताने तग्गु उडकि मारलेल्या तसाक, सर्व कीर भुर्रने उब्बूनु गेले. पारध्याक आयलो संतापु. वैरि चडनु तो विक्रमाक धरता, ''चोरानु, ही तुमगेलि इक्कडि आसिलि. तांगेलों हेग्गोडो तुं, हि सर्व तुगेलि किचापति. भारी बुद्धिवंतु न्हैवे तुं. राब तुका शिकयता'' म्हणता. आनि विक्रमागेलो गळे तिरपुवच्याक करता तावळि तो चकित जाता.

''मारनाका माका, हेर कसलें मेळतलें तुका. चड म्हणल्यारि येकु घासु मास. तेंचि माका वीक. कोणूयि व्यापारि तुका येक हजार पोवन दीद. कोणाकयि निमगूनु पळे पुणी.''

कीरागेलिं उत्रांक पारधि पिस्सोचि जाता. ताका घेवनु तो सुमार जणांक निमगिता, हजार पोवन मोल आयकूनु सर्व तोंड फिरावनु वत्ताति, ''पोटटु कीराक हजार पोवनांचि मोल सांगता. आमकां दुड्डु दोळ्यांरि येनि इतें,'' म्हुणु वताति.

तितले घडियांतु येकळो श्रीमंतु व्यापारि झोकदार कपडे जरे एलवस्त्तर शाल घालेलो, येता देकूनु विक्रमूचि उलयता. ओ सेठ, एक हजार पोवन दी, आनि माका विकत घे. हांव तुका दसपट लाभु करनु दितां. दम्मय्यां घे माका.'' विक्रम कीरालि.

उत्रं आयकूनु, सेठियाक एकं आश्चर्य जालें सांगचे न्है.'' कीर केदनायि शिकिल्लें उलयतातित हो स्वंत उत्रं उलयिता. माका फायदोयि करनु दितां म्हणता. हाजांतु कसलें की इंगित आस सामान्या कोरु न्है हो.'' अशि मनांतु लेकूनु, तो व्यापारि, विक्रमाक विकत घेता. सेठजि कीराक येका होड्डा पांजिऱ्यांतु घालनु, आपणाल्या आंगडीतु लांबयिता. गिरायिक्यांकडे विक्रमु येक म्हुणु उल्लयता, आणि तें भारी बुद्धिवंतपणाचें उलयता. तें आयकूनु, सेठियाल्या आंगडीतु, घे, ही गरदि. गिरायकं वाडलिं, व्यापारु वाडलो आणि त्या सरशी सेठजि लक्षाधीषु जालो. कीराक दिलेले मोल तें केदनांचि वसूल अशि जावनु शेठजि खुश, विक्रमूयि खुश.

त्याचि गांवातु येकळि नामांकित कलावंति राबतालि. तिका भांग्रा पाट्या गोदु म्हणतालि. कोणयि स्थितिवंतांगेरि लग्न मुंजि म्हणल्यारि थंयि गोदूगेलें नांच-गायन तें आसचोंचि. येकडे वाजपा गोजि, लग्नाक आमंत्रितांगेलो गजबजु, पोरांगेलि धावंडि-खेळु कितलोयि आसो गोदु ती आपणालों कार्यक्रमु यथासांग करनु, रुप्पयि पांयशाचो वीडो घेवनूचि वतालि. काळ भैरवागेल्या देवळाचो वार्षिक रथोत्सुवु जातालो तावळि, भरजरि काप्पड देवा मुखारि जळोवचि आंगवण आसतालि गोदुगेलि.

त्याचि गांवातु येकळो गरीबु कुंबारू आसिले. मडकिं विकूनु आपणाल्या कष्टांचें शीतमीट खावनु आसिलो बावडो. येकु दिवसु, तागेलिं सर्व मडकिं विकूनु गेलिं, केदनांपेक्षां विशेष पायदोयि जालो कांयि पुणी तलब कोरयां म्हुणु तो कोटी आंगडींतु गेलो, आणि सगळें मडकें भोरनु सूरु पिल्लो. जेविल्या क्षण आड सरलो. उषाक कानु लागिलोचि, मारनु घालेल्यागादि नीद लागलि. निद्देंतु ताका येक सोप्पन पडलें. ताने भांग्रापाट्या गोदूक बायल कोरनु घेतल्या आणि पांयशिं पोवनांचे तिंका उडगेरें दिल्या. विचित्र सोप्पन. हेरदीसु पेंटांतु गेलेल्याकडे सर्वांक ही खब्बरि सांगत सुटलो.

हें गोदूगेल्या कान्नारि अयलें. ति लेकता, हो कुंबारू, दिसूक भोळोचि दुर्बळो दिसलो तरी बरोचि दुडवाळु आसकाज. पांयशि पोवनं ''हाजेलागि थावनु झडयिना, तरि, मजे नांव गोदु न्है म्हणता आनि कोर्टातु दावो करता. पाप बावड्या कुंबाराचें. ताजेकडे खंचिं पांयशि पोवनं. हांवे सोपन पडलेलें म्हणलें, हि तेंचि खरें करूक पळयता.'' म्हुणु तो न्यायाधीशा मुखारि रडता. जाल्यारि, गोदूने आपणालो वशीलो लावनु धा साक्षिदार रुजु केलेले, कुंबाराने भर पेंटांतु भारी डौलारि सांगिलें, म्हुणु साक्षि दिवच्याक. कुंबारु शेटिया लागि येवनु लालेता, विक्रम कीराक आपणाल्या दाव्याचि विवरणि करूक. शेटजि, कुंबाराचें पाप दिसूनु, कीरु विक्रमाक धाडता.

रायूचि न्यायाधीशु आसता. कुंबारु आनि गोदु तांगतांगेलि वृत्तांत सांगताति. तावळि कीरु गोदूक निमगिता. कुंबाराने तुका लग्न जावनु खंयि बिडार केलें. ''अय्यो दूर दूर, कितलें दूर तें माका कल्पना थांयि करूक साध्य ना. हेर दिसूचि तो पोळनु गेलो, ताजो पत्तोचि ना जालो. सोदित सोदित हांव ह्या गांवा येवनु पावलिं. पळयितां, सांते पेटांतु हो साबडोचि जावनु, मडकिं विकूक बसला. बायल म्हुणु नांदयिने जाल्यारीयि होडना. वचन दिलेल्या प्रमाणे पांयशिं पोवन दीवो, हांव ताका सोडूक राजि आसं.''

''स्वंच्या तिथेक तुमगोलि व्हारडीक जालि, आनि केदना तु घोवा घारा गेलि.'' विक्रमाने प्रश्नो केलो.

ती रडव्या स्वराने म्हणता ''पैरि युगादि परबे दिवसु आमगेलें लग्न जालें, आनि त्याचि दिवसु हांव ताजे सांगतणि वचुगेलि.''

तावळी विक्रमु प्रश्नो करता, ''गोदू, तुंवे राया मुखारि आण घेतल्या, आपण सत्य सांगतां, सगळें सत्य सांगतां. सत्या शिवाय दुसरें सांगना. अशि आसूनु तुं धडधडीचि असत्य उलयिता. थाटमाटांतु, ऐष आरामांतु राबतलि तुं, कुंबारा वोट्टु लग्न केलें अनि दूर बिडाराक गेलि. हें योयि हांगा धा मर्यादस्त साक्षिदार आसति. युगादि परबे दिवसु, महाकाला देवळांतु पूजा पंचाग वाचन पनवारु जालेलो. अष्टावधानां वेळरि तुगेलें संगीत नृत्य जालेलें. तावळि तुं दूर कुंबाराल्या घारा नांदूक गेलि मणलेलें हश्शी फट्टि.'' विक्रम कीरु, न्यायाधीश रायाकडे निवेदन करता, ''महाराज, ह्या गोदूकडे दुड्डु पाय मोडनु पडला. वरसा संबंधि लाख-देडलाख उत्पन्न आस हिका. शेतं बंगले आसति. इतलें आसूनु, फट्टिट पुनावु घालनु, ह्या गरीब बापड्या कुंबाराक छळत आस. असल्या दुष्टांक अत्यंत सत्क सजा दीने, तरि, गरीबानि ह्या राज्यांतु जीवन कोरयें कष्ट जातलें.''

रायु, तिका, राज्य गोशालेंतु स म्हयिन्यांचि सक्ति सेवा कोरचि शिक्षा दिता. शिक्षा नाका तरि, दोनि हजार पोवन दंडु, आनि तो तिने मानसीक छळु केलेल्या पासावत, कुंबाराक पावका, अशि आपणालो तीर्पु दिता. गोदु दंडु भरता.

गोदूक दोनि हजार पोवनं कुंबारा भरीक घालका पडलिं. ताजि दूकि तितलि जायने. ताज्या दसपट जोडूक फावतालि ति. परंतु, भर राजसभेंतु पोट्टु पांयशि पोवनांच्या आशेक लागूनु, भोसु काडनु घेतलों, हाजि दूकि तिका विसरचें कठिण जालें. इतलें अपहास्य जावच्याक मूल कारण तो कीरु, हें तिजे मनांतु येक सम

खतखतेत राबलें. विक्रमा मुळांतु तिन्ने उद्दाक धरलें. तागेलो निपातु केलेल्या शिवाय तिजो जीवु नेराने राबना जालो. मांडस कशि मांडोवचें, हाजे हवण पळयत राबलि ति.

पंद्रा दिवस कशी गेले म्हुणु जाले. शेठियाल्या म्हालगड्या पुत्तालें लग्न निश्च जालें. लग्न समारंभांतु, रूढीप्रमाणे, नांचु-गायनाचो वीडो, गोदूक येवचो तो आयलो, आनि तिने तो आनंदाने घेतलोयि. तिगेलें वेतनाचे आंकडो तिने सांगनेचि. मागीरि पोळोवयां म्हणालि. लग्न समारंभु गौजेरि जालो. गोदूगेल्या नांच-गायनाचि आमंत्रितानि भारी ईडायि (कौतुक) केलि. खुशालि मनाने शेठियाने, गोदूक तिगेलो वीडो कितलो निमगिलें.

''माका धन दौलत कसलीयि नाका. तें मजेकडे भरपूर आस. मजेकडे येक ऊणे आस, तें तुजेकडे आस. तें दित्ता तरि दी,'' म्हणता गोदु.

कसलें तें कळल्यारि न्है वे दिवचे. मजेकडे आस म्हणता. आसिलें जाल्यारि, खुशालेने दितां, सांग कसलें तें.'' शेठु उत्तरता.

''तुगेल्या आंगडींतुलो कीरु जायि माका.''

कीरु मागद म्हुणु स्वप्नांतु थांयि लेकने शेठाने. तो येकदम बोचकळ्यांतु पडता. ''आपणालो वैभवु वाडोवनु दिलेलो कीरु तिका दिवुं. कुंबाराल्या प्रकरणांतु पेट्टु खालेले वळ तिगेल्या मनांतुले भांदूक फावनाति. तिगेलो शेडु काडूक ती कीरु मागता. हाजो हें येका क्षणांतु तागेल्या मनांतु उजळलें. ना म्हणन उत्राक चुकतां. कीरु दिवू, कीराल्या द्रोहाक पात्रु जातां.'' अशि दोनि मनांच्या खायींतु तो, तारण देकनाशी जाता. कीरु महारायाक धनियालि दुर्दशा देकूनु तोचि सांगता.

''धनियां, माका दीवनु सोडि तिका. उत्राक चुकूनाका. तुगेलि प्रतिष्ठेचि मोल, मगेल्या पेक्षां कित्येक पट चड आस. तशीचि मगेलि चिंतायि सोडि. मगेलें रक्षण कोरनु घेवच्याक हांव समर्थु आस.''

कीरु घेवनु, गोदु घारा पाविल्या तसाक, रांदपिणीक ओपोवनु तिका आज्ञा करता, ''हाजें मात्तें चेंचावनु मारि, हाज्या मासाचें खीमा करनु हाडि.'' ती विक्रमाक घेवनु वत्ता. तो येक दम् प्राणु उडिल्यावारि तिगल्या हातांतु गळो मान आड घालता. रांदपिणि लेकता, कीरु आपापींचि मेल्लो. ताका मारलेलें पाप माका लागचें त्या द्वेवानेचि चुकयिले.''

कीराचिं पाक्कं काडूक सुरु करता रांदपिणि. आनि तो धुवंच्याक उद्दाक हाडूक, गडवंचिचेरि होडि अडसळि दवरलेलि, तिजेरि धांकिलि मांडि काडनु पेल्याने येकेकूचि पेलो उद्दाक. येका भोगुण्यांतु घेता. येवनु पळयिता कीरु दवरलेल्याकडे ना. तांगेल्या सेजारा येक महा चोर माज्जर आसिलें, केदना केदनायि शिक्यावेलि दुदगळि पाडोवचि, नारला वळें चाब्बूनु व्हरचें, अशि नाना थरेचे उपद्र दिताले. लास्सल्या माजराने कीरु चाब्बूनु व्हेलो !! आत्तं मालकिणीक कळल्यारि आपणाकचि तेलतूप दाकयिनातिले गिळतलि, म्हुणु भीवनु येक कोमडे पील हाडयिता. आनि ताजि रांदयि करता, मालकिणीक हाडनु वाडता. तावळि, राजसभेंतु आपणालि मर्याद तीनि कास केलेल्याक सम्मचि शिक्षा दिलि म्हुणु लेकूनु, ती दुष्टि म्हणता, ''विक्रम राया, आत्तं कशि, हेंचि वे तूंवे वापरलेलें बोड, ह्याचि तोंडाने न्है मगेलि नाचक्कि केलेलि'' म्हणत, रुचेरि चाबडावनु खात्ता.

विक्रमु कीरु, पाक्कं काडलेल्या निमित्ति समचि उब्बूक जायनातिलें, मोरियेच्या तुंबांतु वचूनु बसता. थंयि ताका माजरांचेयि भय्य ना, कोणाचेंयि भय्य ना. तुंबांतु आयिले खरकट्या कण चपाते चूर खावनु आट दिवस कशि पुणी काडता. तेद म्हणसरि, पाक्कांचि पीसं थुंटयिलि दूकीयि राबिलि. कीरु इतें करता, थोडें उबत, लागीचि आसिल्या देवळांतु मूर्ति माक्षि निप्पूनु बसता. नित्यावारि, गोदु देवाल्या दर्शनाक येता आनि सद्दांचि तिगेलि प्रार्थना करता. तिने मस्त पापं केलेलिं. देवु आपणाक वळवळावनु मारीद म्हणलेलि भीति, तिका रात्रंदिवस सतायतालि. ति सपोट पांय पोडनु देवालागि धांवा करता. ''हे देवा, हांवे नेणतेपणाने जाणतेपणाने पातकं केल्यांति, ताजो माका भारी पश्चात्तापु जाता. पश्चात्तापाने पाप धूवनु वत्ता म्हणताति. न्है, माका शिक्षाचि दिवचि आस, तरि, रोगु-रुत्तीने रेंझनासतना, हातापायानि घट्टि आसतनाचि, कप्पने मगेलो प्राणु उडूनु वचोशी मजेरि कृपा करि. हांवे कसलें दान धर्मु करका सांग. तुका भांगरा कवच करनु घालतां. प्रती पुनवेक फुल्लां पूजा सांगूनु घेतां. तुगेल्या डब्बियेक काणिक घालतां.'' म्हुणु देवाकडे मागूनु घेत्ता. तावळि, भितरल्या गर्भगुडींतुल्याने विक्रमु उलयिता. ''गोदू, नित्याक तुं येवनु सांगूनु घेता आणि हांव तुजेरि प्रसन्न जालां.'' परम आनंदाने गोदु ''उलयि देवा, उलयि, हांव आयकत आसं. कसलें कोरुं, सांग.

''गोदु, पश्चात्तापाने तुगेलें मन पुंनीत जाल्यां आनि कसल्यारि ऐहिक उपभोगांचि तान, लागनाशि. तुगेलें सर्वस्व दानाक दी.'' ''दित्ता देवा दित्तां, आनि कसलें'' गोदु निमगिता.



''ह्या देवस्थानाचि पाठशाला आस. विद्यार्थ्यांक बैसूक जागो नपुरो. तुगेलें घर अर्पण पत्र  कोरनु दान दी. आनि,सीदा काशि वचूनु गंगा तीराचेरि वास्तव्य कोरनु राब. थंयि तुका मोक्षु मेळतलो.'' अशि आज्ञा करता. इत्तेयि म्हणलें तरी राजा विक्रमु तो कोणालेंयि वायट करतलो न्है. गोदु, देवाने सांगल्या म्हुणु कोरनु आपणालि आस्ति वृत्ति सर्व दानाक दित्ता आनि, काशि वचचि तयारि कोरनु, देवागेल्या दर्शनाक येत्ता. गांवतुलें जान हें पोळोवचाक आनि गोदूक निरोपु दिवच्यांक देवस्थानाच्या पटांगणांतु जमताति. तावळि पाक्कांचो शब्दु जाता, आनि विक्रम कीरु गोदूगेल्या मात्यावैरि घिरट्यो घालता. ''गोदू, कालि तुजेकडे उलयिलो देवु कोणु कळलें वे ? दुडवा जोमाने नाका नाका जालेलें तूंवे केलें. केलेलें खात्ता म्हणताति तें अशि. ह्या मुखारि पुणी बरे गुणानि वर्तन करि.'' म्हणता आनि डब्बूनु सीदा आपणाले प्रधानि भूतिगेल्या खंदारि वचूनु बसता.

दोनि वरसांचि गडिं जालि तरी पत्तो ना. तागेल्या जीवाक कांयि पुणी बरें वायट जावनु आंसकाज अशि लेकूनु राज्यांतु सर्वकडे दुःख निराशां पसरलेलि. विक्रम राजा परत आयिलो पोळोवनु भूतिक भोचि संतोषु जालो. तरी हि संगति ताने कोणाकयि कळूक दीने. कारण होड येक संकट आयिलें. विक्रमालो जीवु कीरांतु आनि सुतारालो जीवु रायाल्या शरीरांतु. ताका आत्तं धांवडावचो कशि. नकलि विक्रमाक कोमड्यां जूज, बकऱ्यांचे जूज खेळोवचो भारी नादु. भूतिकडेयि येकु जूजाचो बकरो आशिलो. नकलि विक्रमाल्या आनि आपणाल्या बकऱ्यांलें जूज लायताति. तासु भरि जूज लागता. कडेरिसरि, भूतीगेलो बकरो ढोंगि रायाल्या बकऱ्या पोटांतु शिंग घालनु ताका मारनु काडता. ताका परत जुजूक जोरु हाडोवच्याक, ढोंगि विक्रमु आपणाल्या बकऱ्या आंगांतु रिगता. होचि वेळु पोळोवनु विक्रम राजा स्वंत शरीरांतु प्रवेशु करता.

हैं वर्तमान राज्य भरि पसरता. प्रजा सगळी आनंदाने उत्सवु करताति. आनि सर्व सुख संतोषाने राबताति.

# फूल देवि

पूर्विल्या कालांतु येकु रायु जाउनु गेलो. ताका बारा राणियो आसिल्यो. येकळेगेरीयि चरडुं बाळ जालेलें ना. चरडु जाउका म्हुणु, त्या राणियानि अमकोचि येकु उपायु करनि म्हणलेलो ना. उपास जाले, वकदं विरसदं जालि. तीर्थ यात्रो केल्यो खंचेखंचे देवांक हरकियो, आंगवण सांगूनु घेतल्यो. चरडुं जायने तें जायनेचि.

रायागेलो येकु भारी बुद्धिवंतु मंत्रि आसिलो. ताका घेउनु येकु दिवसु रायु, राज्याच्या दूर येका कोन्‌शांतु संचाराक गेलेल्याकडे, येका कुंबरीतु येक झाड पळयिता झाड आपण दोनिचि हात्ति उंच, तरी ताका लागिलिं एकशें एक वायंगणं, शास्तराक येक पान ना. हो कसलो चमत्कारु की निम[illegible]ता रायु, मंत्र्याक. तावळि मंत्रि म्हणता, ''महाराज, हांजे रहस्य माका कळता, सांगूक भय दिसता, तुगेलो विश्वासु बैसनातिलें, हांव फटफट्टीचि उलयतां म्हणु तुं कोपशि ना म म्हुणु.'' ''कोपना,'' अशि रायालें आश्वासन घेउनु, मंत्रि सांगता, की, त्या कुंबरीचो धनि जो आस, तागेल्या धुवेक लग्न जल्यारि एकशें एक चरडुंव जातातिः शंबरि पूत आनि येकि धूव.

''खंयि आस ती माळियालि धुव,'' रायाने विचारले.

''तुं रायु आनि तुजे सांगाति हत्यारबंद परिवार देकूनु, हांगाचे रहिवासि पूरा भीवनु निपूनु बसल्यातिशें दिसता. तुगेलें सरंजाम वापस धाडि, आनि येकळोचि कुंबरींतु संचारु करि. मागीरि पळे कसलें जाता.

मंत्र्याने सांगिल्यावारीचि करता रायु, आनि ताने सांगिल्यावारीचि घडता. रायु येकळोचि कुंबरि सुत्तूचि चांटियो काडता. तावळि माळिया धूव फुल्लं काडतना ताका देकूक पडता. तिका मेळूक म्हुणु रायु मुखारि वत्ता, कोणु की परको मनुष्यु पोळोवनु ती घरा भितरि धावनु वत्ता, हांव गोमटि, हांव गोमटि म्हुणु उडक्यो मारतल्या राणियांक थायि लाजोवचि तितलि गोमटि आनि लक्षणवंति आसिलि ति माळिया धूव. तिक्का देकूनु कोणयि पिश्शारि पडशी आसिलि ति. तावळि, इत्तेयि म्हणलें तरी रायांगेलि जाति ति ! ताजो जीवु नेराने राबता ? तिजे माक्षीचि वता रायु. ति बागलं घालनु खीळि लायता.

''माळी बाबा माळीबाबा कवड काडि. हांव ह्या देशाचो रायु आयलां, तुगेल्या धुवेक मागणि घालूक.''

माळि, शब्दु करनातिले बागिल चिक्के उघडनु खांचिंतुल्याने पळयिता, तरि खरोचि रायु आयला. बागिल काडनु भित्तरि बैसूळ रायाक येक आसन दिता, आनि आदराने निमगिता ''महाराज, तुगेलि कसलि सेवा करुं.

रायु सांगता ''तुजेकडे कसलियि निपवण करनासतना सांगता, मजेरि विश्वासु दवरि. मगेल्यो बारा जणियो बायलो आसति, येमळेगेरी चरंडु बाळ ना. हांवे इतले काक व्यवस्थित आळूनु सांबाळनु घेतिलें सुभिक्ष राज्य, वारसु नातिलें अराजक जावनु शंत्रुगेल्या हांतांनु पोडूक नज्ज. मगेल्या कुलदेवाकडे प्रसादु लायनापडे सांगणि जालि, उत्तर दिशेक, मगेल्या राज्यांच्या गडिचेरि येकि सुपीक कुंबरि आस आनि त्या कुंबरि मालकाक सर्व राजलक्षणानि आनि गुणानि संपन्नि येकि धुव आस. तिका फूलदेवि म्हणतातिं. तिका जो लग्न जाता, ताका तिगेरि, शंबरि शूर वीर पूत आनि अप्सराशी येकि धूव जातलिं. माका तुगेल्या धुवेक धार वतूनु दि. हांव तिका मगलि पट्ट राणि करतां.''

देवागेल्या सांगणेतुलो विस्तारु आपणाल्या धुवेलें नांव थायि अचूक सांगल्या तें आयकूनु माळियागेलो विश्वासु बसता. तरि राजेराजादिकांगेलि बाब ती, मुखारि कसलें जायद ताजो भरवसो खंचो ? समचि खात्रि कोरनु घेउयां म्हुणु माळि उलयता. महाराज, हांव येकु सामान्यु, हळ्ळिवाडु रैतु, —— तशि ह्या हळियेंतु माका चांग मानु होडपण दितातिं. तरियि, राजघराण्यांच्यो रीतियो नितियो माका गोत्तु नातिं. तुगेल्या राजधानिक हांवे येउनु, थंचे जानांकोरोनु गांवटि घोबडो, म्हणयिनाशी, मगेल्या धुवेगेलें उणेपण कोणेयि काडनाशि, कोरोउनु मगेलि येकि पिश्शि प्रार्थना आस, कोरचिवे.''

''तुगेल्या सौजन्याने हांव तीरा भारावनु गेला. सांग, कसलि तुगेलि इच्छा ?'' रायु विचारता.

''हें लग्न हांगाचि, मगेले आप्त-बंधु-बळगेच्या मुखारि जावका. हांव होड्डु त्राणिकु न्है. जालें तरीयि, मगेल्या शक्तिअनुसार खर्चु करीन. मगेलि येकळीचि धुव. तिका राणिगेल्या सन्मानाचेरि रवाणे करकाज अशि मगेलि येकीचि आकांक्षा आस. आयचि हि दैवी घटना अशि जातलि, तिका ताजें सोपन जालेलें खै, आजि फांतोटीरि, म्हुणूचि कळवलेउनु भित्तारि धावुन आयलि ति.''

''भित्तरि धावलि जालें. बागलाक खीळि धालनु घेतलि, तें इत्याक ? तिका मन नाकीं इतें ?''

''तशि न्हैबा तें. स्वप्न साकार जालें, पट्टराणि जावचें भाग्य बागलांतु आयलें देकूनु, आनंदा भरांतु देहंभानचि हरलि ती. इतले काळ आपणाक प्रीतीने पोसिल्या बापसूक सोडनु घालनु वचका जालेंम म्हुणु माका पोटळनु, उष्णयो काडनु रडलि पोरि'' हें सांगताना माळ्या दोळे तेवेले.

लग्नाक लागूनु, माळियाने आपणालें शर्थ घाले, त्या बदल रायाक कोपु येनि, तागेल्या सरळ स्वभावाचें कौतुक दिसलें. आनि ताने शर्थ मान्य केलिं. फूलदेवि-रायांगेलें लग्न विज्रंभणेरि जालें. आनि होक्कलेक म्हालगड्यानि, तिगेल्या संवकळि चलियानि, गांवकऱ्यानि दोळ्यांतुल्याने अश्रु गळयित बामणाल्या बिडाराक रवाणे केलि.

बाकिच्यो बारा राणियो फुलदेविचेरि खारू खावच्याक लागल्यो. येकशेंयेक चरडुबां आवयि जावनु ती रायाल्या गांटीरि बसतलि. आनि वांझ म्हुणु रायु तांका काळकांतु काडतलो हें ताका खंडित कळनु चुकिल्लें. त्यो तिका सुखाने राबूक सेडनाजाल्यो. तिका देकिल्या कणकणि तिगेलिं ऊन उच्चारचिं, ति हीन कुलाचि, बरप-शिकप नातिलि, म्हुणु सांगूनु, तिका प्रती येका बाबतींतु दूर दवरूक लागल्यो. फूलदेवि बावडेचें पाप, कसलें करतलि. त्यो बारा जणियो, ति येकळि पडलि. सवत्यांगेलो जाचु कांयि सहन जायनातिलें येकु दिवसु ति रायाक सर्व सांगूनु रडता. ''तांचि तिष्टताचि नाका तुका'' म्होणनु रायु तिका येक वेगळसूनु महाल बांदोवनु राबयिता.

चारि दिस सुखसंतोषाने गेले म्होणूक अवकाशु ना, रायाक दूर कामगिरिचेरि गेलेल्या शिवाय निर्वाहूचि ना जाता. आपणे नातिल्या वेळारि राणियो फूल देवीक उपटल दितल्यो लेकूनु रायु तिका येकि घांट दित्ता आनि सांगता. ''ही घे घांट, ती संबाळतु दवरि. हांव आत्त येका महत्वाच्या कामगिरिचेरि वत्तां. वापस येवसरि सुमार समयु लागतलो. तुगेल्या जिवाचि चरडुवांगेलि चांगि काळजि घे इतें ? कसलेंयि कंटक येद तरि ह्या घांटेरि पेट्टु घालि. हांव खंयि आसलो तरी वायुवेगाने येतां, तुगेलें रक्षण कोरूक.

रायु सोबारि दूर पावला की नाकी, परीक्षा पोळोवच्याक फुलदेविने घांटेरि पेट्टु घालो. रायु ततक्षण येता, पळयल्यारि कसलीयि गडबडि जालेलि ना. ''नुसतेंचि घांट वाजवनाका म्हुणु बायलेक सांगूनु वापस वत्ता. येक पेटि आयलो दुसऱ्या पेटी येद की कशि पोळोवच्याक तिने आनेक फांतां घांट वाजयलि. रायु येता. कायींयि जालेलें ना. ''अशि करनाका फूलदेवि. मगेलि मस्त काम थंयि मगेलि वाट राकतातिं. घांट वाजवनु

आपयाल्यारि हांव तरातुरिने धावनु येतां, आतं कळले म आनी वाजव नाका'' म्हुणु सांगूनु रायु वता. फुलदेविने आत्त पुणी निश्चिंत राबू नये ! परत घांटेरि पेट्टु घालता. इतलें, कीराक सांगिल्यावरि सांगिल्ले आसतना,केदना की घांट वाजलि, भयंकरचि कसलें की घडनु आसका, अशि भिवनु रायु घाप्पेतचि येता. विनाकारण घांट वाजयिल्या खातिर, रायु बायलेक धडसूनु उलयता, ''तुका दुसरो उद्योगु नाकी इतें ? आपतकालारि मात्र वाजयि म्हुणु तुका काड्डि मोडनु सांगिल्ले आसतना, तीनि फांता हातांत घेतिलें काम अर्धकुडें सोडनु. माका येवका पडले. तु राणि आत्त कुंबरि माळियालि धूव उरने. थोंडें बुद्धिवंतपण शीक.'' इतलें उलयिल्लोचि रायु अंतर्धान जाता.

थोडे दिसानि, सांगल्यारि तुमकां फट्टि दिसूक फाव आस, फूलदेवीने एकशें एक चरडुवांक जन्मु दिलो, शंबरि चल्ले आनि येकि चल्लि. ही वार्ता बारा राणियां कानारि गेलेलीचि, तांका पोटजाळ पिश्शें लागिल्यांवाारि करनु सोडता ति. हेरशांतु तांकां आपसांतु, म्हणशि तितलें थायि बरेपण ना आसिले तरी फुलदेवि विरुद्ध त्यो वोट्टु जाउनु कूट करतातिं. सर्वांतु म्हालगडि म्हणता, ''ही माळियां पोरि आमका धडाक लागने, राज्याक वारसु दिलेलि भाग्याचि लेकूनु रायु संपूर्ण तिगेल्या कक्षेंतु जातलो, आम्मि केवल आश्रित जावनु रावचें पडतलें. चरडुवां आवसु म्हुणु मेरवतलि, त्या अर्थि, त्या चरडुवांक आसिलींचि ना केल्लें, तरीचि आमकां दिवस काडूक जातलें हांगा, तितलें करनि, तरि, आमि आस्सुनूयि नातिल्यां लेकाचि जातलिं. हें काम, जात्ता तितलें वग्गि, रायाने नातिल्या तावळीचि केल्यारि जावनु वतलें. मागीरि पोळोवयां म्हुणु हळसंडे सोडलेलें जायत, आमचि फसगतीचि. आजि-फायि रायु परत येउचो जालो. इत्तें कोरयां सांगा वेळु ना.''

तावळि येकळि चिके अनुमानुसो दाकवनु उलयता ''तुं म्हणता तें सर्व व्हयि. येकु न्है दोनि न्है, शंबऱ्यांक शंबरीयि पूत मेलेल्या दःखाचो धाकु बोडुवनु रायाल्या जीवाक कसलियि बाधा जायदम हें येक चि भय्य दिसता. मात्र न्है, ताने आमचेरि संशयु घेतल्यारि ?''

''तावळिचें ह्नावळि पोळोवयां; तो कसलें लेकता, पोळोवनु ताका उत्तर येवजुया. तुर्त आमगेलिं भद्रता कोरनु घेड्यां'' म्हणता, म्हालगडि राणि.

अशि कूट कारस्तान केलेल्यो त्यो दुष्ट राणियो फूलदेविगेरि वतातिं. तांकां देकूनु, हीं आपणाक दु:ख दिउच्या हेतुनेचि येत आसति, तें फूलदेविक कळता. आनि जीवु हंहारूनु ती जोरजोराने घांट वाजयता. रायु कांयि येना तिने घांट म्हणलेलि येकु

खिळखिळो म्हुणु लेकल्यां की इतें ? अशि रायु स्वतःकचि पश्नो करता, वचना. राणियांक हें पथ्यारि पडलें. तानि फुलदेविगेल्या चरडुवांक पळयतलि आया, तिकाचि बांदूनु घेतलि. ति आया फूडे राणियांलि काम करतालि, इतलि दुष्टि, की, दुड्डु भसभसी दित्तां म्हणल्यारि, जायि तें काम, मागीरि तें कितलेंयि कठिण आसो, कितलेंयि क्रूर आसो, कोरूक सज्ज आनि शक्त आसिलि. राणियानि तिका ''त्या चरडुवांक पूरा मारनु उडयिशीवे निमगलें, ''हो हो, कानाक काना पत्तो नातिलें, आनि तांचें येक केसकूट थांयि कोणाकयि मेळूक नज्ज, तश्शि.'' तिगेलें उत्तर, ''राति फाल्लें जावच्या भित्तरि जावका हें काम. हो घें चक्रसरु. काम जाल्या उपरांते दितातिं शंबरि वरु.''

इतले म्हणसरि राति आयलि. त्या दुष्टि पापिष्टि आयाने इतें कोरकाज !! राजमहाला माक्षि दिकाक दाट जंगल, त्या जंगलांतु येकडे येकु सान्या फोंडु. फोंडांतु सुत्तु होडलि होडलिं उंदरा बिळं, आनि बीळांतु, होडले होडले गुर्का पेट्टेशे कोळुंदुर आसताले. आयाने चरडुवांक सान्या फोंडान्यांतु उडोवनु दिलि, आनि येकेका पाळण्यांतु येकु फातरा गुंडो दवरलो. आनि फुलदेविक जेरूवच्याक लागलि.

''ये कैदाशिणी, पोट्टांतु उबजलेल्या पोरांक फात्तर करनु घालिंमगो !! पापिणि, खंचे जन्माचि वैरि तूं ह्या जन्माक त्या चरडुवां आवसु जालिगो तुं ऽऽ!!! आमगेरि चरडुं बाळ ना म्हुणु आमि हळहळताति, तुका देवाने दिलेलिं, तांचि तूंवे विद्राट लायलिमगो, तुंजे ते मन की फात्तरुगो''

येक न्है दोनि न्है, चाय पाय उलयिताति. रायाने आयिल्या तसाक फुलदेवि विरुद्ध वायट वायट सर्व सांगूनु ताजें मात्तेंचि वायट करताति. कोप्पाने केंड जालेलो रायु फुलदेविक जन्मवधीचि बंदिवासाचि शिक्षा दिता.

त्या चरडुवांगेलो अद्दष्टा गेरो नीटु आसिल्लो म्हुंणूचि तीं प्राणियां तोंडांतुल्याने वांचलि. कशिकी म्हणशाद. चरडुवांगेलें रडणे आयकूनु, कोळुंद्रांलि महाराणि भायर आयलि. कोणाल्या की दुष्कर्माने अशि जाल्यां तिका कळता, पाप दिसूनु, येकेकळ्यांकचि ति भित्तरि बीळांतु व्हरनु तांगेलें आरोगण करता. तशीचि तिगेल्या राज्यांतुल्या सर्व उंदरांगेलि येकि सभा भरवनु, अप्पण करता, की एकशें ऐक उंदरानि, नित्य चरडुवांगुणि पोटभरि अन्न पुरवकाज. सात पंगडांक सात दिवसांचि पाळि घालनु दिलि तिने. दिने दिने, पुष्टिकर आहारु मेळनु ति चरडुवं वाडूक लागलिं भायर येउनु खेळुक लागलिं.

येकु दिवसु चल्लि चमेलिने भायर खेळत आसतना कोण आयलें म्हुणु सांगुं,

नि निवाळसूनु उजयिल्या गुणांचि आया. चमेलि तिका देकुनु बिळांतु धावलि तरि त्या मारिने पळयिलेंचि. पुण्याक बाकीचे चल्ले तिगेले भाव पूरा बिळांतु आसिले. जाल्यारि ति आया कितल्याचि ? तिने अचूक तर्क बांदले. आनि, चोचींतु धरनु म्हणताति, तशि, सीदा वचूनु राणियांक सांगलें,

तिं चरडुवं मरनेति फोंडाऱ्यातुल्या बिळांतु असकाति. तागेल्या भयिणीक हांवे देकलि बिळा भितरि पोळनु वतना. आत्तांच्या आत्तं बिगाऱ्यांक पेटोवनु बिलं भेत्तूनु तांकां उंदूरशे मारयियाति. तशि केल्यारि कोणाल्यायि लक्षांतु वचद म्हुणु भयेने, राणियानि इतें केलें, तो फोंडु पूरवनु सपाट येक बेण करोवंचें ठरयिले. उंदरांगेलि राणि, खाण सोदत राजमहालांतु सुळूतचि आसिलि, तिगेल्या कानारि गेले राणियांगेले कुचोद्य. जीवु न्है म्हुणु ति धावनु वत्ता. सर्व चरडुवांक घेउनु येका तळ्याकडे वत्ता. तळ्याच्या चौकटांतु लांबचि लांब मेट्ट आनि मेट्टां मुळा दिकाने अनेक पोकरलियो आसिल्यो. रातोरात उंदूरराणिने, येकेकांतु येकेक चरडाक निपोवनु घालें.

हेरदीसु मडुवळु, तुमगेल्या भाषेने धोबि, धुवणेचिं वस्तरं घेउनु, तळ्याकडे उंबोळूक आयलो. ताजे सांगाति ताजि धूव आयिलि, महा हुडहुडि, येकु क्षणु येकडे बोसचि ना, तग्गु वैरि, हेकडे तेकडे धावनु खेळूक लागलि. येक फांतां ति येका मेट्टारि उडलि. पाप, त्या मेट्टा मुळांतु चमेलि आसिलि दिसता. तिका फाट्टीरि धाड्डायिल्यावारि जाउनु दुकता. ताळुच्या जायनातिलें ''अय्यो माका दुकलें, कोणबा हें वैरि उडकियो मारता ?'' तें आयकूनु धोब्या धुवेक आश्चर्य ! ति बापसूक सांगता. मडवळु धुवेने सांगिल्लें व्हयि की कशि पोळोच्याक त्या मेट्टारि पायु दवरनु दाबता. तशीचि कोणकी भितरल्याने उलयता, देकूक पडना. कसलें की दैव थंयि तळ्यांतु आस, असशि सर्व जाल्लें म्हुणु, मडवळु राणियांक वरदि दित्ता. राणियांक मनाक कळता, फुलदेविलिं चरडुवंचि थंयि निपूनु बसल्यांति. तळ्यांतु भूताटकियो आसति अशि सांगूनु, एक हजार बिगाऱ्यां सांगाति येकु मंत्रवादि दीउनु तळें पुरोवनु उडोवच्याक धाडताति.

तळ्याच्या लगत येक पोरने गणपति देवळ आसिलें. थंयि पुजारि पूजा करीत आसिलो. त्याचि समयारि तें जन तळे पुरोवच्याक आयलें. तांकां देकूनु, ति चरडुवं मुरियो करनु रडत गणपति देवाक रक्षण करि म्हुणु सांगूनु घेताति. गणपति देवाक तांगेलि प्रार्थना पावनु तो शंबरि चल्यांक शंबरि आंब्या रूक कोरनु देवळा सुत्तूचि राबयिता. मद्देगतीचि येकु चमेलि फूलवालिचो मांटोवु जांता. हो चमत्कारु देकिल्ले तें जन, भूतनाथु गणपति कोपला आनी कसलेंयि तांकांचि करीद म्हुणु भीवनु कामा खातिर

हाडलेलिं खोरिं, पिकासं पारायियो, घमेल्यो. धण सर्व थंचि थंयींचि सोडनु, ''वांचूनु वरल्यारि वेंचूनु खायन'' लेकूनु पोळनु पारा जातातिं. तांचे सांगतणि आयिल्लो मंत्रवादि सगळ्यांकयि मुखारि, अग्गु येवसरि धांवता, वचूनु ''काम पक्का कोरनु आयलो'' म्हुणु राणियांक सांगता. ''तळ्यांतु येकु कोळुंदरु मात्र मेळलो ताका मारनु काडलो.''

हेरदिवसु, नित्या प्रमाणे मडिवळु आंगवालि घेउनु तळ्यालागि वत्ता. शंबरि आंव्या रुक, मद्देगति चमेलि मांटवु पोळोवनु ताका धस्स जाता. आत्तं इत्तें करचें, हे कशि अशि, विचारु करता. तितल्या भित्तरि, तागेलि धिंडि धूव, चमेलि कळे काडूक गेलेलि, ''तांतुल्याने येका चलियेने उलयिल्ले, पुडल्या दीसु तळ्या मेट्टांतुल्या गादीचि आयकलें.'' म्हुणु धांवत येउनु बापसूक सांगता. मडवळु हि संगति तरातुरिने वचूनु राणियांक कळयिता. राणियो, जाळानि पेटिल्यो, रूक, चमेलि मांटवु समूळ निकळावनु उज्जो घालचि उप्पण करतातिं. आळानि आंब्या झाडं, मांटवु निकळावनु येकडे होडलीचि राशि केलि. आत्तं उज्जो घालतातिं, तितल्या भित्तरि, देवळांतुल्या गणपतिने, प्रलयकालाचें वारें सोडलें, कांडणा धारेचो पावसु पाडयिलो. वाऱ्या थडाक्याक झांडवालि उब्बारनु लागिचि आसिल्या न्हयिंतु घालि, न्हयींक उवारु येउनु तीं पूरा हूळनु दूर गेलि, येका सुरक्षित स्थानारि तडीक लागलिं. सर्वांक तांगतांगेलें निजि मानवरुप मेळलें. कितलि खुशाल जाउनु आसूनाका बावड्यांक !!!

अशि सुख संतोषाने, त्या भावंडागेलि सुमार वरसं गेलि. केदनायि ते, पन्नास भाव भयिणीत्या धैर्याक माक्षि रावताले, बाकि जण शिकारेक वताले. येकेक वेळा तिका सुरक्षित येकडे बसवनु सर्वयि शिकारेक वताले. चुकूनु खंचेयि वनचरानि तांकां उपद्रव दिलेलें ना असिलें. एकु दिवसु तानि इतें केलें, भयिणीक येका रुक्कारि, चांग सावट आसिल्या कडे बसयिलि आनि सर्वयि मृगबेटेक गेले. रानांतु संचारु करतां करतां ते येका राक्षसीणिल्या झोपडेकडे पावतातिं. कोपाने राक्षसीणि तांका कायळे कोरनु सोडता. सांज जालि तरी भावांगेलो पत्तो ना. फक्कने, आकाशांतु भुरभुर् भुरभुर् शब्दु जालो. पळयता शंबरि कायळे येवनु, येकेकळो येकेक तिका खाण दिडच्याक लागलो. तावळि, तिका खात्रि जालि, खंचा की क्रूर राक्षसाल्या करणेने, कायळे जाउनु पडलेले आपणाले भावचि ते. तिका भो दुःख जालें. मसत रडलि ति. फाल्लें जाउच्याक ते कायळे वताले आनि कुळकां वेळारि, कुळकां वेळारि म्हणल्यारि, तिन सांजे, सूर्यु बुडिल्याक्षण, उजवाडु आसतनाचि, परत येताले, मोगा भयिणिगुणि आहारु घेउनु. दीसु भरि, येकळीचि बावडेने रडरड रडचें. तिगेल्या दोळ्यां उदकाने येकि नदीचि व्हावच्याक लागलि.

तशीचि थोडे काळानि, येकु बरोचि दिवसु उदेलो. येकु राजपुत्रु, रानांतु शिकारेक आयिलो, वाट चुकूनु, तागेल्या सुण्यांक घेवनु चमेलीने बसिल्या झाडा मुळांतु आयलो. तानेने ताळ्याक कांटे आयिल्ले, भुकेने पोट्टांतु कायळे रडताति. लागीचि स्वच्छ न्हयि पोळोउनु देवूचि देकिल्यापारि जाले ताका. यथेच्छ उद्दाक पडिनु, विश्रांति घेवच्याक तो, तळहात उशाक घेउनु, पाय निडूवनु निद्दता, इतल्यांतु वैरि रूक्कारि ताका चमेलि दिसली, अत्यंत आश्चर्य जालें. त्या निर्जन प्रदेशांतु ही स्त्री की वनदेवता अशि झाडारि इत्याक बैसूनु आस, ताका कल्पनाचि करुक जायना जालि. की कोणि राक्षसि, सुंदर रूप घेउनु कोणाली बलि घेउच्याक हवण पळयित आस ? निज स्थिति समजूनु घेउच्याक तो धैर्याने झाडारि चडता. चमेलि जालि तरी, ताका देकूनु भीनासतना, देवानेचि धाडनु दिलेलो रक्षणकर्ता लेकूनु राजकुमारा सहायाने तगु देंवता तो भुकेने संकटेला तें पोळोवनु ति आपणाक भावंडानि हाडनु दिलल्यांतुलें खाण राजपुत्राक दित्ता, आनि आपापणालि करुण कथा ताका सांगता. तरि येकि निपवण करता; शबरि कायळे आपणाले भाव म्हणु सांगना. राजकुमारु तिगेलें सांत्वन करता ''दुःख कोरनाका मजेवोट्टु यो हांव तुका मगेलि धर्म पत्नि करतां, मगेलिं म्हालगाडि संबंधिक तिं सर्व तुगेलिं जातलिं.'' ति दोळे पुसूनु म्हणता ''मगेलि येकि विनंति आस. झाडावेले हें शंबरि कायळे मजे सांगाति जायि. ह्या निबिड अरण्यांतु आजिवरेक तानीचि माका सांगातु दिला. तिगेल्या उत्रांक युवराजु हासता, म्हणता ''हीचि वेती नम्र विनंति ? तितलें इत्याक ह्या रानांतुलें अनि कसलेंयि सांगाति जायि जाल्यारि घे. माका खुशीचि, पुणियो मजे वोट्टु.

युवराजु तिका घेउनु वत्ता. तिजे सांगाती कायळे उब्बूनु वताति. म्हांतारि रायु राणि, चमेलि गेले अप्रतिम लावण्य, मोवाळ उत्रं, विनीत स्वभावु, सर्व राजवंशाचि लक्षण चोवनु, येकाचि उत्राने लग्नाक हुंकारु दिताति. भारी विज्रंभणेने लग्न जाता. राजमहाला इदूर विशाल वाडिल्लो येकु वडारूकु आसता. ताजेरि शंबरि कायळे घर करनु राबताति. नित्य चमेलिने भायर आयिल्या तसाक, कायळे तिजे सुत्तूचि जमताले. आनि आपणाल्याचि हातानि ति तांका अन्न, पक्वान्न खावयिताली. अशि सुखांतु आसिल्या चमेलिक, येकु गोमटोचि गुरडणो सो चल्लो जाता ताका रणधीर नांव घालताति. तशीचि थोडेचि समयाने म्हांतारि राय राणि मरताति आनि युवराजाक पाटु बांदताति. रणधीरु राज्य कारभारा सांगतणि शस्त्रकला शिकूनु पारंगत जाउनु वापसूक कामांतु सहायु करीत आसता.

ह्या थरेचि सुख-समृद्धि आसतना, येकु दिवसु, वडा मुळांतु बैसूनु राणि चमेलि

दोळ्यांतु उद्दाक काडीत आसता. आवसूने दुःख गळवचिं देकूनु रणधीरु कळवळता. आवसूले पाय पोटळनु तो तिगेल्या खंतेचें कारण निगिता. ''पुता, मगेलें दुःख तो देवु लगीन दूर करना, तें कोणाक सांगूनु कसले प्रयोजन ? सदोदित तें मजे इदूर येता. कांयि सहन जायनारे मजे आन्ना.''

''आम्मा, तुका तितलि वेदन्ना दिवचें कसलें तें दुःख ? दुःख वांटूनु घेतल्यारि तें हगुर जाता म्हणताति. सांग आम्मा सांग'' अशि तो आवसूक आग्रहु करता.

आजिवरेक घडल्यां तें संपूर्ण वृत्तांत चमेलि पुत्ताक सांगता. तें आयकिल्लेंचि, चरको लागिल्यागादि रणधीरु उटावनु उबरता आनि ''आत्तं सांग आम्मा, मगेले माम कायळे जाउनु खंचे दिका थावनु आयले ?''

''हेकडे दक्षिणे थावनु आयलेरे बाळा. जाल्यारि तुका इत्याक जायि तें ? तुं थंयि वत्ता म्हणता की कितें ?'' चमेलि कळवळेवनु निमगिता.

तावळि रणधीरु आपणालो निर्धारु सांगता. ''आम्मा, हांवे मस्तकडे वाचल्यां आयकिल्यां. की हे राक्षस कितले क्रूर गर्विष्ठ आसताति, तितलेचि बुद्धिने मद्दड, बुद्धिवंतांक न्है ईड. गोमटायांक, गोड उत्रांक घडियांतु बळि पडताति. राक्षसांक हदाक हाडचि विद्या हांवे आत्मसात केल्या. आजि मिति धरनु पंद्रा दिवसांच्या अवधींतु येउनु माम्मांक मुक्त करना, तरि मगेलें नांव रणधीरु न्है, रणभीरु करि. माका आडावनाका वारनाका.''

धनुष्यबाण डाल तलवार घेउनु, उत्तम लक्षणांचो घोडो घेउनु, भायर सरलोचि. देवसाचें भोवचें, सांज जालि की, राजांतुलि फलंमूलं आपणेयि खावचिं, घोड्याकयि दिवंचिं, आनि येका विशाल रूक्का मुळांतु दोगानीयि विश्रांति घेउचि. सुमार दिवस गेले, तरियि, राक्षसालो पत्तो थारो लागना. येकु दिवसु बिचारु मनांतु येता ताका, आवसु कोरोवनु रणभीरु म्हणवनु घेउचेंचि मगेलें हणेबरप की इत्तें बा. आयचें हें अंतिम प्रयत्न करचें म्हुणु वत्ता दूर ताका येक खोंपट दिसता. खोपटांतु येकि म्हांतारि बच्चरडि, गाढ निद्देंतु, बडकटीचि आंगाक आंब्या घोंटागादि निरियो, केस म्हणलेले तेल वळप देकनातिलें झांटिचे मुद्दे जालेले. रणधीरु, हगुर पावलानि भित्तरि वचूनु म्हांतारेल्या उशालागि बसता, आनि मायाळ हातानि तिगेलें मात्तें पोरसुवच्याक लागता. म्हांतारेक हाय जालें सुखचि दिसलें.

दोळे उघडनु पळयिता आनि हर्षाने म्हणता, ''भीवनाका पुता, हांव येकि

म्हांतारि. तुका कांयि दुखापति करना. मजे सांगतणि राब हांगा, इतें ? मगेल्या आस-आधाराक पाव. माका आतं मरणकालु लागि आयलो. हांवे शिकिलि मोडिमंत्रां असलि गुप्त विद्या मजे माक्षीचि व्यर्थ वतलिम म्हणु माका भो खंति दिसतालि. तुं निवांत राब हांगा, हांव पूरा तुका शिकयितां.''

हरियें देकल्यारि पुरो म्हणतल्याक पिकूनु हाळीत मेळलेल्यावारि जालें, रणधीराक. म्हांतारेल्या उत्रांचेरि कितलो विश्वासु दवरयेद हें ताने पैलेंचि मनांतु लेकूनु धरलेलें. तिगेलो गूढ हेतु, कसलोयि आसो तो, आपणाक कष्टांतु घालतलो जाउनये म्हुणु तो अपणालें भान, अवधान राकूनु घेवनु राबलो. म्हांतारेलि मनधरणि सेवा करनु, तिका आपणाचेरि प्रसन्न करनु घेतलि.

येकु दिवसु तिगेले पाय पोरशीत बशिल्या तेदना रणधीरु निमगिता, ''आजि, आजि, धरा सुत्तु उदका मडकिं इत्याक तीं–'' सादें उद्दाक न्हैवा तें, मोडिमंत्र मारलेलें. तांतुलें उद्दाक थोडेंचि सिंपल्यारि पुरो, हांवे हांगा माट कोरनु घालेले हे मुद्दे आसति पळे, ते सर्व मनुष्यं जाउनु उटावनु राबतातिं. तशिचि ती माडाक खोयिलि कांडि. मनांतु इच्छा करनु ति कांडि फिरायशि, जायि तें जाता, गुड्डो, रान, न्हयि, उज्जो, प्राणियं इत्यादि. हें सर्व लक्षांतु दवरनु, रणधीरु म्हांतारेचेरि सूडु घेउच्याक संधेचि वाट राकता.

येकु दिवसु, तो म्हांतारेक यथेच्छ द्राक्षा सोरो पिवयिता, मस्त जेवण घालता. दोन फारांच्या रणरणि वत्ताक विपरीत धग्गु जातालो. मांतारिक भारी गुंगींतु आसिलि, तरि धग्गाक तिका नीद लागना. इतलें जायसरि, सांगूनु धाडलेल्यागादि रान्नांतुल्याने थंड वारें सुरु जालें. होचि वेळु म्हणता रणधीरु. तागेलें पैलें काम म्हणल्यारि, म्हांतारेने आनि कोणाकयि मोडि माट करनाशी, त्या मायावी दांड्याने तिगेलि मंत्रशक्ति पुरा नष्ट करता. तिने आपणाक इंद्रजाल शिकयिल्या उपकाराक तिका जिवशिं मारना. मडक्यांतु उदका शिवरि मारनु तिने मुरि करनु घालेल्या सर्वांक जीवंत करता. येक उदका मडकें आनि तो मायावि दांडो घेउनु, चौफेर घोडो धांवडावनु सुरक्षित आपणाल्या घारा पावता. पुत्ताक सुरक्षित आनि भारी हर्षभरित देकूनु चमेलि राणीक धरुक जायना तितलो आनंदु जालो. रणधीरु आवसूक घेउनु पटांगणांतु येता. तिने तो भावांक जेवण घालचो वेळु तो. तरि ति रित्याचि हात्तानि आयिलि. तिका देकूनु सर्व कायळ्यानि तिका सुत्तु घालो. रणधीराने कुडचि भरि मडक्यांतुलें उद्दाक कायळ्यांचेरि फाप्पुडलेलेंचि, येकापाशि येकु गोमटो, अशि शंबरि राजपुत्र उबरले. आगाशिचेरि राबूनु हो चमत्कारिक

प्रकारु चोयिल्लो रायु, तग्गु देवनु येता, सर्व पूर्वत्र आयकूनु खुशी जाता. तशीचि, सर्व रायांगेलें परिवार समेत येक सम्मेलन भरता. ताका फूलदेवि बाम्मुणु बारा राणियांक घेउनु उपस्थित जाता.

तांगेलो स्वागत समारंभु जातां, चमेलि ताका निमगिता ''महाराज, फूलदेवि इत्याक येनि ? आमि सर्व तिका मेळूक भो आतुर जाल्यांति. चमेलि आपणालि धूव, हें रायु नेण. हिका खंचो फूलदेवीलो गोत्तु. रायाक आश्चर्य जाता. तो अगदी तिरस्काराने उलयिता ''त्या दुष्ट डाकिनीलें नांव असल्या सुखमय समारंभांतु घेउनाकाति. तिने जन्मु दिलेल्या शंबरि चल्ले एकि चल्लि तिने मारनु काडलिं. मनुष्य रूपांतुलि राक्षसीणि ती, तिने केलेल्या अक्षम्य अपराधाक आजन्म बंदिवासाचि शिक्षा दिल्या हांवे तिका. तिका खाणाक जेवणाक कांयि कम्मि करने.''

तावळि शंबरि राजपुत्र ताका घेरो घालतातिं आनि तांतुलो म्हालगडो उलयता ''कांयि कम्मिना तिगेल्या दुःखाक आनि तूंवे तिजेरि केलेल्या घोर अन्यायाक. फूलदेवीने आंताक पिकल्या पोरांगेलि परगुणायि केलेलि सहन जायनातिल्या, निपुत्रिक ह्या तुगेल्या बार राणियानि, तांकां मारोउंचि शतप्रयत्न केलिं, तीं सफल जायनेति. आम्मि ते शंबरि भाव, चमेलि राणि आमगेलि भयिणी आत्तं जन्मावधिचो कारावासु ह्या बारा राणियांक दि.'' तशीचि तो प्रतियेकि घटना, चलचित्ररों ताका सांगता. ततक्षण तो बारा राणियांक वापस धाडता, फूलदेवीक सन्मानारि आपोवनु हाडयिता. समारंभु संपन्न जात्तचि, रायु शंबरि पूत, राणि फूलदेवि समेत स्वस्थानाक वत्ता. सर्वयि सुखसंतोषाने राबताति.



पोवन शिकतलो पक्ष.

# पोवनं शिंकतलो पक्षु

येका सानशा हळिळ्ये गांवांतु येकु गरीबु ग्रहस्थु राबतालो. नित्याक तान्ने, रान्नांतु वचूनु. थंचो पाल्लो, सुकिलें राक्कूड, जिग्गं, अडरं इत्यादि वोट्टु कोरनु, येक मातेवज्जें बांदूनु हाडचें आपणाल्या घरगुति वापराक लागचें तितलें दवरनु, वरलेलें पेंटांतु विकचें. अशि कशि पुणी हात्ताचें तोंडाक करनु, आपणालो संसारु करनु आसतालो. तागेलिं येकि बायल आनि दोनि चल्या चेरडुवं आसिलिं. म्हालगड्या चल्यागेलें नांव तिम्मप्पु, सान्नागेलें भीमप्पु. तीं नांवं इत्याक घालेलें गोत्तु आसवे ? तिम्मप्पु आंगाने दौडु दिसूक गोरो गोमटोचि, सुरया खोटटोसो. आवसूल्या भारी गांटीरि बसिल्लो. ताका कोणालीयि पाडि दृष्टि लागद म्होणु करनु, आवसूने ताका तिम्मप्पु (गोऱ्या तोंडा मांकड) दवरलें. सानु जन्मत तरब, हात पायानि किडकिडि, आंगटणाने सुकडपेतु, ताका, कोणयि पुण्य केलेल्यांगेलि दृष्टि लागूनु पुणी, तो आंगाने गति घेवो, म्हुणु ताका भीमप्पु केलो. त्या कालांतु येकि रूढि आसिलि. जालिं-जालेलिं चरडुवं वांचनाति, तावळि वांचिल्याक मर्तु म्हणल्यारि मरचो नावे फोंडु, फोंडांतु घालचो. अशि नांवं घालतालिं. अवलक्षणि नांवां निमित्तिं जावनु पुणी वांचूनु उरो, अशि येकि पिश्शि भावना त्या बावड्या म्हालगड्यांगेलि.

काणि खंयि थांयि आयिलि ? व्हयि त्या गरीब ग्रहस्थाक तिम्मप्पु, भीमप्पु म्हुणु दोगं चल्ले आसिले, तिम्मप्पु वाटकुळो गुटगुटी गुरडणोसो, सगळींयि ताका अपरुवायि करतालिं. सानु भीमप्पु बावडो, येकळोचि आपणा इतल्याक जीवु खेळोवनु घेतालो. दोगंयि भावंडांतु, वरस-देड वरसाचेंचि अंतर. अशि चारि पांच वरसांचें जालें की, तांका थोडें पुणी शिक्षण मेळो, बरप वाचप येवो म्हुणु, बाप्पुसु तांका त्या गांवच्या शालेक घालता. हळिये गांवचि शाला ती कसल्या कर्माचि !! वणतियो म्हणलेलो मडलं वीणनु केलेल्या तटियांच्यो नित्य शेणाने सारोवनु खवळे मांडिलें नेल, ताजेरि बैसूनु शिककाज. मशि सारयिलें येक फळें, मास्तराने बैसूक मात्र येकि पायमाणायि. प्राथमिक शाळा आसिलि. मास्तरु, हेड मास्तरु, सिपायु, सगळे मेळनु येकळो. तो शिकयितालो थोडेंचि, तरी, घणचि चुरक चरडवांक तितलेंचि पुरो जातालें.

भीमप्पु महत्वाकांक्षि आसिलो. आपणे मस्त शिककाज होडु जावकाज, हें सानपण धोरनु ताका. त्या निमित्ति त्या बावड्या मास्तराक येतालें तितलें, ताने शिकयिलें तितलें तो मन दीवनु शिकूक लागलो. बरप वाचप आपणाक वग्गि लागता

तें कळनु, तागेलो आत्म विश्वासु वाडूक लागलो. शाला नातिल्या तावळि सूटी दिवसांतु, तो वेळु व्यर्थ करिना आसिलो. आपणाक कळ सारखिं सान्न होड्डं पुस्तकं हात्ताक लागलिं की, तिं पूर्ण वाचूनु काडतालो. कळ नातिलें पुना वाचतालो. तरीयि कळना, तें कोणयि जाणत्यांक, मास्तराक निमगूनु घेतालो.

तिम्मप्पु येकु दिवसु, लागसार आसिल्या येका गावांतु जात्रा भरलेलि, थयि पावता. थंयि येक सर्कस पळयिलें ताने. तें पळयित लागायत, ताका, आपणेयि रिंग मास्तरु जावका, वागांक सिंहांक खेळोवका , शक्तिचो प्रयोगु पराक्रमु करका म्हणलेलो तीव्र ध्यासु लागता. बरप शिकपाचेरि तागेलें ध्यान-मन लागना आसिलें सानपण धरनु दांडगा यि करचि ताने, सज्जन, दुर्बल चरडुंव आपणाक भित्ताति, हें देकूनु, ताने जीवूचि घनारि घालेलो. दीसु भरि खेळु कुस्ति. धारा असचें म्हणलेलेंचि येक अपरूप. घर रिगलोवे, खंयि कसलें मुंगरुवच्याक मेळद म्हुणु सासपुवचें, आनि हातांतु मेळलेलें, नांका पुडालागि ये सरि भरचें. आरे, घरांतु बाकीचींयि खातलिं असति, ताजि चिंता ताका इत्याक !! आप्पणु सुखि आपणालि पशणि सुखि, हो तागेलो मट्टु. असले ताजे पाड गुण मनांतु येना त्तिलें, बापसूने ताका चड-ऊणे कांयि उलयिलें जायद, आवसु पुत्ताल्या हिनासर्याने बामणाक दाट्टावच्याक येत्तालि.

''आस्सो म्हणल्यारि दोड आंग तागेलें, भूक लागता, खात्ता. कसरत कोरनु दणूला आसतलो. घडि भरि आरामु कोरो. तुमकां तेमयि, तो म्हणल्यारि अगदी नाकावडीचि. ताज्या मुळांतु उद्दाकचि धरल्यां. सर्कस कंपनींतु रिंग मास्तरु जावचो आसतो.''

''रिंग मास्तरु न्हे, घोड्या कास्तरु करतले ताका. मुटियांनि लद्दियो बरगुवच्याक, घोड्यांक मालीस करुक. रिंग मास्तरु, सडसडीचि सुटसुटीचि आसचो पडता. असलें अडंब्राण कास्तरि करूक, नावे, मावूतु जावच्याकचि योग्य.'' अशि बापसुलिं चोंचावणे उत्रं आयकूनु आवसु पदरु दोळ्यांक लावनु घेता. ''दोळ्यांतु उद्दाक काडशि कसलें म्हणलें हांवे ?'' बाप्पसू तिगेलें सांत्वन करता. ''ताने घरांतु आसचोचि हरमगालु !! आस म्हणु इतें प्रयोजन आसवे. घरांतु येकि कासा काड्डि हक्कडलि तेक्कडे करता वे तो. पाप, तो पोरु भीमप्पु, तशिवे आपणालो अभ्यासु संबाळनु, घराबेचिं चुंगडिं कामयि करता. दोग्गांयि प्रायेक आयल्याति. कांयि पुणी उपयोगाचो उद्योगु करनु, स्वंत कष्टांचें अन्न करनु राबचे दीस तांगेले, हाज्जो विचारु करका आम्मि.''

हेर दिवसु, बापसुने दोग्गांयि पुत्तांक बसोवनु घेवनु, चांगु बोधु भरलो. ''बाळानु,

तुमि आत्त प्रायेक आयल्याति. तुमगेल्या हातकष्टाचें अन्न कोरनु खावका तुमि. इतले काळ, हांवे हाता रट्टे धाडावनु कुटुंबाचि जोपासन पळवण केलि. तुमकांयि स्वंत पायांरि राबूक पुरो जायशी, शिक्षण प्रशिक्षण, तुमका पसद तशि दिल्यां. आत्त शहरांतु वचूनु, तुमगेल्या स्वंत चातुर्याने, प्रामाणिक प्रयत्नाने कसलोयि येकु लाभदायकु, उद्योगु, धंदो, व्यापारु, नावे कोणालीयि चाकरि, करूक लागाति.

आवसुने बांदूनु दिलेलि दोनि दिसांक पुरशी बुत्ति घेवनु, ते शहराक वताति. होडु तिम्मप्पु घटमुट्टु, कशि पुणी जीवु आट्टारनु घेतलो म्हुणु, आवसु बापसूंक तागेलि काळजि ना आसिलि. काळजि दिसतालि ती, लिकलिकी सान्नागेलि, देहाने दुबळो तितलोचि मनाने गागूरु. कोणालेयि कष्ट देकूनु, करगूनु, आंगावेलिं वस्त्र, तोंडाक व्हेलेलो अन्ना घासु थांयि काडनु दिवचो. म्हालगडो भावु तिम्मप्पु, ''आमाआना येतां, मगेलि चिंता कोरनाकाति '' म्हुणु सांगूनु, हेरदें नीट कोरनु भायर सरलेलो. ''आम्मा-आन्ना, वचूनु येतां'' म्होणचें भीमप्पाक भो कष्ट जाले. तेवेलेले दोळे पुसीत ताने, म्हालगड्यां मात्यारि मस्तक दवरल्या क्षण, येद्दोळु दाट्टूनु धरलेले दुःख न्हंयीचो काटुशें कोसळलें. दोळ्यांतुल्याने संतर धारो व्हांवल्यो, कंठु दाटूनु आयलो, वट थरथरूक लागले, तोंडातुल्याने अक्षर फुटना जालें. म्हालगड्यांगेलि ती अवस्था चोवनु, भीमप्पु चडचि व्याकुल जालो. सुमारु वेळाने सर्वानि समदरशूनु घेतलें. उष्णयो काडीत, भीमप्पाने तोंड मेकळलें ''आम्मा-आन्ना, तुमगेलो आशीर्वादु मेळल्यारि हांव जगाच्या खंचायि कोनशाक वचूनु येन इतलें धैर्य येता माका''

''देवु तुगेलें रक्षण कोरो. मनाचो निर्धारु सोडनाका, प्रयत्नशील राब. असल्यांकचि यश प्राप्त जाता. लक्षुमि हातु धरता'' अशि मोणनु बापसूने प्रीतीने मात्यारि हातु दवरलो. ''आरोग्याचि काळजि घे. सुखरुप वापस यो'' म्हुणु दोळे पुसत आवसूने निरोपु दिलो. म्हालगड्यांक तो हें पैले फांता अलगतालो. जडचि अंतःकरणाने, दोळ्यां आड जायसरि माक्षि फीरनु पळयित-पळयित, भीमप्पु चलूक लागता. ताका वाट्टेरि येकि तारि लागता.

तारि कशि दांटूवचिबा म्हुणु विचारु करतां, पेलतडि लागि येकळो अंबिगु, गाळ घालनु मासळि धरतालो. ताजे लगत येक सान केंतल, नांगरु घालनु राबिलें. कोंतल अंबिगागेलेंचि लेकूनु, भीमप्पु उल्लो कोरनु सांगता ''ओ ऽऽऽ अंबिग नायक, माका पेल्या तडीक पावयशी, तुका मगेलें अर्ध जेवण दिता.

''ओ ऽऽ राया, तुमि उल्लोवनु घेवनु आयल्याति की पळयितां. चिक्के तावळि

येकळो अशि फटवण कोरनु तडि पार जालो. हांव आनी फसचो ना. न्हयि हावूनु वच नावे पोवनु वच. हांव दोणि भायर काडना'' अशि म्होणनु, तो खारवि गाळु घालनु बसता. येकळ्याल्या कर्माचो फलु, येकेक फांतां, आन्नकेळ्याने कशि खांवचो पडता, हें भीमप्पाल्या प्रचीतिक आयलें. त्या सरशीचि, येक वेळा कच्चु खालेलो, दसरि पेटी, कशि सावध जाता, हाजें जिंति उदाहरणयि मेळलें ताका.

भीमप्पु तडवूचि करना. बुत्ते पोट्टण फाटीरि बांदूनु घेता आनि उतकांतु देवता. नेलें कुरटणे लागि आयलें की तो पोंवक लागता. दोणीचेरि चडता, आनि बुतिये पोट्टण मेकळनु, अर्ध जेवण तांडेलाक दिता, उरलेलें अर्ध आपण जेवता. दोणीकारु आश्चर्याने चकित जाता. ''तावळि तुका थापु मारनु गेलेलो मगेलो होडु भावु. तागेले रुण हांव पावयितां'' म्हणता भीमप्पु ''तुजे असले नीतिवंत गुणवंत मेळचे दुर्लभ. भावागेलें रुण पावेवनु तुंवे माका रुणांतु घाला. हांव तें पावयिता. दोळे चिम्मि करनु धा मेजि. त्या उपरांते दोळे सोडि. उदकांतु इदूर जें देकूक पडता तें तुगेलें. तुगेलि इच्छा पूर्ति जातलि. तग्गु देरनु मजे दिकाक फाटि करन नदीकांटारि बैस.

धा मेजिल्या उपरांते, भीमप्पु दोळे उघडनु माक्षि फिरता. दोणीयि ना, दोणीकारु यि ना. उदकांतुल्याने येक धवेंचि बदक पोवनु ताज्या पाय मुळांतु येता. भूक जाल्या की इतकी, पाप म्हु लेककू तो बदक घेवनु येका वडारूका मुळांतु बसता. बुत्तेंतले थोडेंचि अन्न बदकाक घालता. खावनु जालें की बदक शिंकता. तरि इत्तें पळयता. खळ् खळ् कोरनु धा पोवन पडताति. भीमप्पाने दोळे मरडूंतु घेतले, आपण सोपनांतु तरि ना, पोळोवच्याक चिमटूनु घेता. समचि दुकता. बदक आनेक वेळा शिंकलें, आनी पोवन उसळताति. तावळि ताका खात्रि जाता, तांडेलु दुसरो कोणूयि नंता देवु की यक्षु. हें बदक येकूनु सामान्याचे न्हैं. हें आत्तं जपूनु जो पासन कोरकाज.

वाट क्रमण करतां करतां भीमप्पु येका राजधानींतु पावता. थंचे जन भो कंगाल स्थितींतु पळयिलें ताने. पावसु नातिलें सान सान व्हाळ सरोवर बांदियो सुकूनु शेतं बंजर पडलेलिं. म्हारगायि अतोनात वाड्डिल्लि. रायु भांगारसो. तागेल्या कोठारांतुले धान्य दवस लोकांक बांटूनु स्ति जावच्याक आयिले. प्रजेगेले हाल अपेष्टा सूण्याक दिल्यारि नाका असलि कंगाल स्थिती प्राप्त जालेलि. श्रीमंत लोक थांयि म्हारगाये माराक कासाभद्र जालेले. गांवचो रायु डंगुरु पेट्टयिता, की, जो कोणूयि येक लक्ष पोवन उधार दीद, ताका, आपणालि नक्षत्रशी लावण्यवति धूव धार वत्तूनु दित्तां.

यक्षदेवाने सांगिल्यागादि, होंचि तो बरेपणा योगु चलनु पायमुळांतु आयला,

हाजि खात्रि जाता, भीमप्पाक. आनि तो बदकाक पोटभरि खावच्याक घालता. तो पक्षु जोर जोराने शिंकूनु लक्ष पोवनांचि राशि राबयिता. बदकाक भद्रतेरि येका पेठाऱ्या मुळांतु धांकूनु, पोवन घेवनु सीदा रावळारा वाट धरता तो. रायाक मेळनु, तागेल्या धुवेक पोळोवचि आस आपणाक म्हणता. येक्कश्चित वाटसुरो रावळारांतु घुसता इतें, धुक्के दाकयि म्हणता इत्तें !!! रायु कोप्पूनु केंड जाता, ''कोणु तुं खंचो, मगेल्या धुवेक दाकयि म्होणचें धैर्य कशि केलें तूंवे,'' रायु, तशि विनय पूर्वक, तरि आपणाल्या अधिकार वाणिने निमगिता.

''राजन, तूंवे, डुंगरू पेट्टोवनु, सारूनु सांगणि करयिल्या शर्थाने माका धैर्य दिलें. तुगेलें लक्ष पोवनांचे शर्थ पूरवचें सामर्थ्य माका आस. तुगेलि धूव मजेरि प्रीति करीद की कशि, माका खात्रि कोरनु घेवचि आस.''

परद्या आड रावूनु हो प्रकार पळयिलो राजकन्येने. खांदारि लक्ष पोवनांचि पोटलि घेवनु आयिलो, ताने रायाक दिलेलें चातुर्याचें उत्तर आयकिलेलि रायकनया लेकता, की तो वेशांतरांतु आयिलो कोणुकी पराक्रमि पुरुषु. प्रथम दर्शनीचि तीगेलो प्रेमु बसता ताजेरि, आनि ती भायर येवनु, ''ताका कसलें म्होणचें आस तें पूरा आयकूनु पुणी घें'' म्हुणु बापसूकडे विनंति करता.

भीमप्पु उल्लयिता, ''महाराज, तुगेल्या आपत्कालाक जायि ती लक्ष रुप्पयि हि घे. धारा मजेकडे येक दिव्य बदक आस, माका येका यक्षराजाने दिलेलें. पोवन बदकाने दिलेलिं, पोटभरि खाण पडलें की, तें बदक पोवन शिंकता. तें हांव तुका दित्ता. तुगेलें राज्य सुभिक्ष समृद्ध करि, प्रजेक सुखि दवरि.

भीमप्पु बदक रायाक दित्ता. रायु, धूव धार वस्तूनु दित्ता. जामातागेल्या म्हालगड्यांक सन्मानारि आपोवनु हाडनु तांका भव्य महाल दीउनु राबयिता. तांचे सांगाति, दोनि दीसांचे जेवण सरलें, उदर निर्वारु करचे कष्ट जावनु, तिम्मप्पु, मात्यारि हातु घेवनु परतलेलो आसता. तागेले धष्ट पुष्ट आंगटण पोळोवनु रायु ताका आपणालो सेनाधिपति नेमता. आनि सर्व सुख संतोषाने राबतातित.





रोह्णिणि राक्षस होराक बायींतु घिंगुळता.

# रान्नांतुलें रावळार

एका गावांतु येकु रायु आसिलो. ताका दोग्ग जाणियो धुव्वो. बायल बळ्ळीक लागुनु गेलेलि. धुव्वो आसिल्यो कशि ? गोऱ्यो गोमट्यो नक्षत्रंशो. म्हुणूचि तांका नांवं घालेलींयि नक्षत्रांचींचि, रेवति आनि रोहिणि. बापसुगेल्या जेवण-खाणाचें पारुपत्य कोरनु सुखाने आसिल्यो बावडियो, राणि नातिलें रावळार खावच्याकचि आयिल्यावारि जाउनु, रायु पाप नवि राणि हाडता. ''आमि आयलिं घारा, तुमि भायर सरा'' म्हणताति न्हे, तशि, इतें पळयिता घरांतु राणियेल्या सत्तेक सुरु जालो. घराबे कारभार पूरा नव्या मोग्गा राणियेक ओपसुयिल्लो रायु, धुवांगेलि वासपूसचि घेना जालो. सवति मावशेल्यो केवरायो, उपटळ कांयीचि काडूक जायनातिलें, येकु दिवसु रेवति भयिणीक सांगता, ''रोहिणी, ह्या सवति मावशेचि मारि घरांतु सार्थि जायत धरनु, आमि खावचें अन्न तें अन्नशें लागना जाल्यां आमका. खयीं पुणी वचूनु, नावे एलपाषाण खाउनु जीवु दिवयां, ह्या जिंति यमयातनेंतुल्याने सुट्यां म्हुणु दिसता पळे, येकेक फांतां.

रोहिणी तिका समजायता, ''रेवति, मावशेगेलो जाचु काडूक जायना म्हुणु जीवु इत्याक काडनु घउचो तो ? दुसरिं सुटवाटचि नातिल्यांगादि, हातपायचि सोडताम तुं! आमगेलें पूर्वपुण्य आसिलें म्हुणूचि राजघराण्यांतु उबजलिं. थोडेंचि जालें, तरि सुख भोगलि. आमगेल्या अदृष्टांतु, त्या विधत्याने कसलें बरयिल्ले आस, तें, तूंवे पळयिल्या की हांवे ? रानांतु गेलेलेक्डे रावळाराचें भाग्य आमकां इत्याक लाभूक नज्ज ? घट्टिट मन करयां आनि पार जाउयां. चल, आनी माक्षि मुखारि पळयित बसचें नाका !

रेवति आनि रोहिणि कोरनु घर सोडनु वताति. वतां, वतां, तांका, अठंग रानांतु, येक भव्य रावळार लागता. रानांतुलें रावळार म्हणलेल्या उपरांते, तें, मानवांगेलें नंतां, नक्कि कोणा येका राक्षसागेलेंचि आसतलें अशि तानि लेकूनु घेतलें. थोडो वेळु येकडे आडशीक राबूनु पळयलें. घरांतु कोणालोयि संचारु ना. दोगंयि भुकेने संकटेलेलिं. भित्तरि भित्त-भित्तचि वताति, रांदच्या वासरेंतु खाउच्याक कसलेंयि मेळताकी म्हुणु, डब्बे, भरणियो सर्वांचिं धांकणि काडनु पळयलें. येकांतु तांदुळु आसिलो, ताजें शीत केलें, भरणेंतुले लोणचें घेतलें आनि शिक्यारि लांबयिल्या बुडकुळ्यांतुले घट्टिट धंयि घेउनु, दोगंयि पोटभरि जेवलिं. आयदानं, ताटं घासूनु विसळुन व्यवस्थित लावनु दवरलिं. अस्ताव्यस्त बीरुनु पडलेलो सामानु गोमटेंचि करनु मांडवनु दवरलो. इतलिं सर्व काम सागूताति म्हणतना आयलींचि, राक्षसु आनि ताजि बायल. तांकां देकूनु

दोगंयि भयिणियों येका तणाच्या गोदन्या आड निपूनु बसताति.

राक्षसु बायल कोरनु भित्तरि वचनु पळयताति. घरांतुलि आड्‌डावण राष्टाळ सर्व काडनु घर फुटचि केलेलें. मागदरांतलें आंगण झाडनु स्वच्छ. तांनि केदनायि धग्गा दिसांतु सुखंड बसचो कट्‌टो, तोवयि पुसूनु साफ. खात्रीने कोणकी अप्पंत मनुष्यांगेलें काम हें, आनि तीं हांगाचि खंयि पुणी निपिल्लि आसकाति. अशि लेकूनु तीं सोदूक लागताति. कोणयि कांयि देकना. ''माका नरमनुष्यांलि वासणि येता'' म्हणता राक्षसु, ''मनुष्यांक मारनु खाउनु खाउनु तुजे कुडंशी नांकापुडांतु, तो येकूचि वासु भरला'' म्हुणु राक्षसिणी बामणाक गौजि करता. ''घरांतु थंयि उदका थेंबो ना. त्या आयिल्यानि पूरायि उद्दाक उसपून हलाक केल्यां. ही घे'' म्हुणु बामणा हातांतु येकि होडि दोडि दिता, आपण येकु कळसो घेता, आनि दोगंयि बांयिंच्या लागि वताति.

दोगंयि भयिण्यो स्वभावाने चांग. तरीयि, म्हालगडि कितलि भोळि की, तितकीचि सानि चप्पळि. ती, निपिल्या कडेच्याने राक्षस होर कसलें करता तें पळयत राबता. तानि राज्जु बांयिच्या गाड्यांवेल्याने घेउनु, राजवा कोंडि दोडि कळशांच्या गळ्याक गच्च बसंवनु बायींतु सोडलिं, आनि तीं भरलेल्याक्षण, येकु पायु बांयिच्या आड्याक दीवनु कळशे वैरि ताणूक लागलि. हात वैरि तानि, राजवा शेडो जाता तितलें वैरि धरूक येका पायाने आड्यारि चडतना माक्षिचो पायु नेला वैल्याने अंतराटि जातालो. तावळि सानि रोहिणीक युक्ति सुचलि. तिने इतें केलें. सट्‌टने आयलि, आनि राक्षसाल्या अंतराटि पायाचि खूळ धरनु उंच उब्बारलि. राक्षसु ताने घेतिल्या झोलीच्या जोराने, बोबटेत बांयिंतु पडलो. बामुणु पडलो तें पळयित बायल बांयिच्या बाणीरि वळंबलि रोहिणीने तिकायि बंयिंतु धिंगुळलि.

राक्षसु राक्षशिणि दोगंयि मेल्लि. तांगेलें घरदार, दुड्‌डु दागिन्यो सर्व आतं रेवति रोहिणीगेल्यो जाल्यो. राक्षसाने रात्रांतु वाट चुकूनु आयिल्यांक लुटूनु, मारनु येक म्हुणु संपत्ति संग्रह केलेलि, लेकना मिति ना. मोतिं, माणिकं, वज्र, केंप, पाच, पुषराक, नील, तशीचि भांगार, रुप्याचिं आभरणं, आयदान भरनु दवरलेलि, एकि रावणालि लंकाचिशी. कोटग्यांतु गोरवं, तांगेलि पळवण करतले आदिवासि चाकर आसिले. तागेलें हित्तल रांकूक, काडसुणि, एकापेक्षां येक भयंकर आसिलिं. घर रेवतिने संबाळचें, आनि शेत, कुंबरि, नारला पाडे, हे सर्व रोहिणीने पोळवनु घेंवचें. अशि कामाचि वांटणि कोरनु तांगेलें कालक्रमण सुखाने जाउच्याक लागलें. रोहिणीने, भायर कामा पासावत वतना, केदना केदनायि म्हणचें, ''आक्का, आमगेले दिवस निश्चिंत, निरातंक वताति

न्हैवे म्हुणु आमि हुसक्या विरहीत राबचें बुद्धिवंत पण जायशी ना म्हणलें. कोण कसल्या रुपाने येद म्हुणु सांगुक जायना. जाग्रता घेतलि तितल्याक नपुरो. त्या निमिति कानाक खडो लावनु घे. कोणयि अतवें मनुष्य देकूक पडलें, म्हणलेल्या क्षण, आमि ताज्या दृष्टि आड जाउका. कोणेयि, तान जाल्या येकु घोटु उद्दक दी म्हणता, तरि, ताजेगुणि उद्दाक घेउनु येतना, पिंदूनु बोंतर जालेलि वस्त्र घालनु, तोंडाक भसभसीचि मशि सारोवनु, तुं इतलि गोरि गोमटि आसिल्याचो ताका तिळा इतलो संशय लगीन येउच्याक नज्ज. कोणयि तुका उब्बारनु व्हेलि, तरि, ह्या जन्माक आमि येकडे मेळचें फट्टिट कळलें न्हैवे ?''

''कळले, कळलें, अगदी तूंवे सांगिल्यागादीचि करतां तुं लेकता तितलि बोदरवळि ना हंवे हांव, रोहिणि.

सुमार काळ गेले, कोणूयि नरहुळ तांगेल्या घराच्या सावळि वाऱ्याक थायि आयिलो देकु पडने. आत्तं जाल्यारि, हुसक्या विरहीत ! म्होणचोयि तडवु, येकु राजपुत्रु, ताजे सांगाताच्या शिकारियांक घेउनु, थंयि येता, अगदी दणूनु, तानेने संकटेवनु. गोमटेंचि घर देकूनु ताका भारी आश्चर्य जाता. ''कोणबा हांगा राबताति ? इतलें गोमटें रावळार अठंग रान्नांतु बांधल्या.'' भित्तरि वचूनु तरी पळोवयां. तानेक उदाक हांगा खंडित मेळतलें.'' तागेले सांगाताचे ताका आडायताति ''नाका, नाका, भित्तरि वचुनाका. रान्नांतु असलिं घरं बांदूनु राक्षस राबताति, आमचे असले वाट चुकूनु आयिल्यांक लुटूनु मारनु खाताति.'' ''माका कांयि तसलें कसलेंयि भयंकर हांगा आसद म्हुणु. खंयि सुट्ना. कसलोयि संचारू ना. तुमि हांगाचि राबाति'' म्हणता राजपुत्रु आनि कवडारि बोटागांटियाने ठोकता, भित्तरल्याने खीळि घाल्या. ''कोण भित्तरि, धर्माक आमकां इतलें उद्दाक दियाति. तानेने भोचि संकटेल्याति.'' कोणयि उल्लयना. रोहिणि थंयि भित्तरल्या कुडांतु, तोंडाक मशि सारोवनु पिंदकर वस्त्रं आंगारि घालनु घेत आसिलि. राजकुमाराक तानें तळमळु ताळुउच्याक जायना जालो. तो कोप्पाने बागिल धाडायता, आनि उंच ताळो काडनु बोबटेता. ''बरे उत्राने कवड काडताति, की, तें भेत्तूनु भित्तरि येउं ? रोहिणि भीउनु भळभळतचि, बागिल काडनु, उदका गुलगुलो ताजे हातांतु दित्ता, चकार शब्दु काडना. गुलगुल्यांतुले उद्दाक पितना, तिगेलें तोंड चोवनु ताका विचित्र दिसता. ''ही नित्याक न्हायनाशी दिसता. निज जाउनु ही इतलि भुरशि आसूक फावना.'' तो इतें करता - बुद्धिवंतु आसिलो तो - फक्कने तिगेलें लक्ष चुकवनु उद्दाक तिजे तोंडाक मारता. उदका समेत मशि देवता आनि तिगेलें गोरें तोंड देकूक पडता. तिगेल्या हाता रट्याक धरनु तो प्रश्नो करता. ''कोणि तुं, खंचि, तुगेलि

म्हालगडि कोण खंयि आसति. आनि तुं येकळीचि ह्या भयंकर अटवीतु इत्तें करता ? तोंड मेकळि, नावे तुगेलो गळोचि कापतलों'' अशि म्हणतां, तलवारेक हातु घालता. भयेने बंद पडलेलि तिगेलि वाचा, ताने गळो खांडतां म्हणलेल्या क्षण सुटता. अडखळत अडखळत ती, आपणाले इति पूर्वत्र पूरा सांगता. आनि उष्णयो काडनु रडूक लागता. रेवतीलि खब्बरि सांगनाचि. तिवयि आस म्हुणु कळल्यारि, तिगेलोयि गळो खांडीद म्हुणु भित्ता. हें सुंदरि भीउनाका. तुजेकडल्याने खरें तें काडूक हांव निष्टूर उलयलो. हांव तुका मगेलि धर्मपत्नि करनु घेतां, चल, मजे सांगाति. तूंवे कसलेंयि हांगाचें घेउका म्हुणना. आमगेरि सकल समृद्धि आस.''

आपणाल्या मोवाळ उत्रांक थायि तिगेलें भय राबना ते देकूनु, तो, आपणाल्या अनुयायांक अप्पण करता ''हिका पालकेंतु बसयाति, वचयां परत.'' ती भित्तरल्याने येक काप्पड हाडता, आनि पालकेंतु बसता. पालकेचिं द्वारं बंद जालि की, भित्तरि ति येकळीचि, भयिणीगेलि काळजि दिसता तिका. ''पाप रेवतीचें केदनायि तिका दूरच्याने देकूनु, दारवट्यांतु राबूनु तिगेलें स्वागत करतालिं हांव. आजि हांव देकना तें चोवनु पोरि कितलें कळवळता की, मगेलो पत्तो लागशी कांयि पुणी चिन्ह सोडका हांवे'' म्हणता, आनि, चडावत घेतिल्या कापडाच्यो फाळियो करता. तिगेल्या गळ्याक, अनेक पोडांचो, उंची मोतियांचो हारू आसिलो थुंटवनु, येकेक मोति येकेका फाळियेंतु बांदूनु, येकि पोटलि दारवट्यांतु उडयता. तशीचि थोडेंचि अंतर सोडनु येकेकि पोट्लि मार्गारि उडयत वता, राजकुमारागेल्या वाड्याच्या दाखवट्यांतु थायि उडयता.

पुत्ताने लावण्यवति राजकन्या हाडलेलि पोळवनु, तागेलिं म्हालगडि भारी हर्ष पावताति. तिगेलि करूण कथा आयकूनु तांगेलि हृदयं तेवेताति. आयच्या मितीक तुगेले कष्ट क्लेष दूर जाले म्हुणु लेक. तुका हांगा कसल्याकयि ऊणे करिशिनाति आमि. तशीचि, भारी विज्रंभणेरि तिगेलें कुमारा ओट्टु लग्न जाता. थंयि तिका सर्व थरेचे सुखोपभोग आसतनायि, भयिणीगेल्या खंतेने ति अस्वस्थचि आसता. इतले दिवस वंचन करनु धरलेलि भयिणीलि बाब, आत्तं भायर घाल्यारि, आपणाक प्रीतीने पळयतल्या घरच्यांगेलि रागणि जायदेवया म्हुणु भीवनु ती खब्बरीचि काडना. तिने सांगिल्या पक्षाक तीं केदनायिं न्है म्हणशिना आसिलिं, ततक्षण जन धाडनु रेवतीक आपोवनु हाडयतलिं आसिलिं.

इतलें जाता म्हणतना, थंयि रेवति, धरांतु भयिणीक देकनातिलें भारी बेकूडनु वत्ता. धरभरि सोदलें, हितलांतु सोदलें, बायींतु पळयलें. खंखंयि दिसना भयिणि.

तिनसांज जाउनु गेलेलि. तसल्या त्या भयानक जंगलांतु खंयि म्हुणु पोळवचें. घरांतु वता घर म्हणलेलें खावच्याकचि येताशें दिसता. कशी पुणी राति फाल्लें करता. आनि दिक्कु उजवाडता म्हणतना उटावनु, भयिणीक सोदत भायर पडता. दारवट्यांतूचि तिका रोहिणील्या कापडाचि फाळि दिसता. कालिथायि सबंद आसिल्या कापडाचि फाळि कशि जालि ? दुष्ट राक्षसानि तिका धरधरीचि ताणनु व्हरतना तिगेलें काप्पड पिंदूनु चिंदियो जाल्यो न्हैम ! बलात्कारानें व्हरतना, तिगेल्या कोमल शरीराक इजा जायनेम ! ति सर्वांग सुंदरि आसिल्या निमितिं, कोणूयि दारलो, कितलोयि क्रूर आसलो, तरी, तिगेलो जीवु घेशिना हाजि खात्रि आसिलि रेवतीक. तरीयि कापडा फाळियेचो उलगडो जायना तिका. कोणु प्रकारु जाउनु आसतलो हाजे नाना थरेचे विचार विजे वेगाने तिगेल्या मात्यांतु येउच्याक लागले. अकस्मात तिगेलें लक्ष फाळियेचेरि गेलें. तुरियेक पोटलिशी दिसता. मेकळनु पळयिता, मोतिं, रोहिणिल्या गळ्यांतुल्या हाराचें. आत्तं मात्यांतु प्रकाशु पडता तिगेल्या. आपणाक खंच्या दिशेने व्हेल्या तें सुचवच्याक म्हुणु हें चिन्ह सोडल्यां रोहिणीने, हें निश्चित. चिके मुखारि पळयिता आनेकि पोटलि, ताजे मुखारि आनेकि. त्यो वेंचत ति वाट धरनु वता रेवति. वत्ता, वत्ता वत्ता, येका भव्य वाड्याच्या बागलांतु पावता. ''आसो आका भो भोळीचि म्हुणु लेकिलें हांवे. तितलि भोळि ना म्हणा. ति कितल्या बुद्धि चातुर्याने माका वाट दाकयिलि पळे. बरें, आत्तं हांव हेंचि मगेलें रुप घेउनु गांवातु वचुं, तरि, आक्काक व्हेलि तशि माकायि कोणूयि उब्बारनु व्हरद. ओ ऽ थंयि बेणारि कसलें दिसता तें पोळवयां'' म्हुणु वत्ता. येकि म्हांतारि, पोट्टाक नातिलें आंब्या घोंटशें चिरमुटलेलि, सुकूनु काडिड जाउनु मेलेलि. तिजे हाडांक लागिलें मास कायळ्यानि हपगुडग्यानि खावनु, काति वेगळि केलेलि. रेवति इतें करता, निरियाळें तिगेल्या तोंडाचें चाम धूवनु आपणाल्या तोंडाक आवरण घालता, हातपायांक मशि सारोवनु भिकारि म्हांतारेलो वेसु घेता. कोणयि तिका गुरतायनाति.

हातांतु येकि बड्डि घेउनु, म्हांताऱ्यांवरि बळकतचि भळभळतचि ति वत्ता, मोतियां पोटलियो वेंचत, सीदा राजवाड्या इदुर येउनु राबता रोहिणीक हांगाचि हाडल्या हें खंडित अशि लेंकता. आत्तं भित्तरि वचचें पुणी कशि ? यमदूतशे, गालमीशांचे कल्ले कान्नांक सुत्तावनु घेतिले, भिरुंडंशे तांबडे तांबडे दोळ्यांचे; तांचे हात्तारि चारि मोतिं घालनु पुसलावयां म्होणूक, भरवसो खंचो ? भिकारडेकडे इतलिं मोतिं कशि, खंचाणे की मारनु हाडल्यांति म्हुणु कोरनु, मोतिं सर्व बाचाटूनु, चोरि म्हुणु बंदिखान्यांतु घालि, तरि ह्या जन्माक रोहिणीलें तोंड देकचि आशा ना. तरी आपणालें

धारिष्ट सोडना ति. भयिणीलि कसलीयि सुद्दि लागसरि, आसपास त्याचि वठारांतु खंयि पुणी राबचो निर्धारु करनु, राजवाड्या इदूर आसिल्या येका शेतक्र्या बागलांतु कडकडतचि राबता, आनि दीन स्वराने उल्लो करता ''कोण आस घरातु ?'' शेतक्र्या बायल भायर येउनु निमगीता ''बाये कोणि तुं. तिन सांजे वेळारि आयल्या. खंचि तुं तुगेलिं कोण आसति ह्या गांवातु ?'' ''मगेलि होडि भयिणि कालि धरनु ना जाल्या, दीसु भरि तिका सोद्दूक भोवनु भोवनु दणूनु गेल्यां बाळा पोट्टांतु येकु शित्ता कणु पडने मजे आम्मा. आयचि राति फाल्लें करुक येकु जाग्या कुडको दिशिवे ?'' तिगेले हाल चोवनु, इतें म्हणलें तरी, हळिये गांवचि ती शेतक्र्या बायल, तिगेलो जीवु नेराने राबता ? ''आजि, हांगा भायल्या जगलेरि, थयिं वणती लागि आरामु करि. तुका जेवण दितां. जेवण दीउनु शेतकरिणि, ''आतं निद्दे कसलेंयि लागल्यारि माका जागयिं हंवे, म्हणु सांगूनु, भित्तरि वचूनु निद्दता.

सकाळि धरनु, भोंव भोंव भोंव कोरनु पाय सगळें थुंटूनु पडतातिशे जालेलें रेवतीक. शेतकरिणील्या दयेने, पोट्टाक अडव जेवण मेळलें, आड सरूक विंगडसूनु जागोयि मेळलो. पायां पोट्यो पोरसूनु घेतां घेतां, तिगेले दोळे जड जाउच्याक लागले. उशाक कानु लावच्या भितरि, तिका मारनु घालेल्यांगादि नीद पडलि. मध्यरात्रि सुमाराक, शेतकारणीक जागु येता. भायर म्हांतारेगेलो कसलोयि सुळुवुना, खांकि ना शींकिना, इत्याक पोळोवच्याक ती भायर येता. निद्दउच्या पैलें, रेवतीने बगलेक काडनु दवरलेलि चामड्या मुसकेचेरि तिगलें लक्ष वता. तशीचि ती रेवतिलें गोरें गोमटें राजटीविचें तोंड चोउनु झुप जाता. तिजे उशा लागचि पोटलि हगूर मेकळनु पळयिता, तांतु उंचि उंचि उंचि मोति, राजे राजा दिकांगेल्या गळ्यांतु देकूक पडताति तसलिं. कसलें की इंगित आस तें कळनु, असल्या अपरात्रि गलाटो नाका, फाल्लें जालेल्या उपरांते पोळोवया म्हुणु शेतकारणि वापस वचूनु निदता. तरी भायल्यां हुसक्याने ती जागीचि आनि जागरूक राबता.

कोंबड्याने पैलो सांधु घालेल्या तसाक, रेवति उटावनु, लागिच्या तळ्याकडे वता. शेतकारणीयि भायर येता. रेवतीने मोतियां पोटलि निदलेल्या जाग्यारीचि सोडलेलि. म्हणल्यारि, तिका कसलोयि संशयु अनुमानु आयिल्लों ना, आनि ती वगीचि वापस येतलि, हाजि खात्रि जालि शेतकारणीक. रेवति तळ्याकडे गेलेलि, चामड्या मुसकि धूवनु सुकत घालता. आंग धूवनु घेता, आनि तळ्यांतुले येक सुंदर राजकमल माळनु घेता. त्याचि वेळारि, नित्यावारीचि, रायालो सानु पूतु तळ्यांतु पोंवच्याक येत्ता. तळ्यांतुल्या कमलांक कोणेयि हातु लावच्याक ना आसिलें. रोहिणीने कांयीयि संकोचु

नातिलें तें काडनु माळनु घेतले, तावळि राजपुत्रु लेकता ती कोणिकी परकि. तरीयि कोणि ति पोळवच्याक, ''कोण तें थंयि तळ्या तडीरि'' म्हणता.दारल्या मनुश्यालो ताळो आयकिल्याण, जीवु हंहारूनु, रेवति ताका पळयता, आनि क्षणार्धातु मुसकि घालनु घेवनु घांवच्याक लागता. तिगेलें तोंड ताजे दिकाने पिरलेल्या त्या घडियेक, तिगेलें ते अनुपम लावण्य राजकुमाराल्या दोळ्यांतूंचि वता. आनि तो ''तुं कोणीयि आसलि तरी भीउनाका. हांव तुका कांयि दुखापति दीना, घावनाका'' म्हुणु आश्वासन दीता. ति धांवत सुटता, तो तिजि फाटि धरनु वता. येका भेज्जूड चलियेलि.

येका भेज्जूड चलियेलि फाटि धरूक जायनाति दारलो कसलो म्हणता राजकुमारु, सर्व थरेचें व्यायाम गरडी साधन केलेलो तरुणु तो, आयकता ! माक्षि पाया खूळ कुल्यांक, मुखावेल्या पाय्या दिंबि पोट्टाक लागकाति, तशि दूरदूर पावलानि धांवता आनि तिगेलो हात्ता रट्टो धरनु तिका राबयता. धांवता धांवता धरलेल्या झटक्याक तिगेलो तोल चुक्कूनु, ति, तागेल्या कुरटाक गोप्पें घालता, घडियांतु आंग सावरनु लाजेने मान तगु घालनु राबता. कुमारु निमगिता. ''हें आमगेलें राजत्वाचा गेले खासगि तळे म्हुणु तुका गोत्तु नासतना तु आयलि हें क्षम्य लेकता हांव. जाल्यारि दिक्कु उजवाडच्या पैलेंचि अशि तुं काळकांतु तळ्या तडीरि आयलि. तळ्या पावट्यांचेरि शेळो निसराडि आसता, पाय निसरनु पडलेल्या पक्षाक, पांच आळ उदकांतु समचि पोंदाक गेलेलि, जीवानिशि तूवै उंचारि येउचि आशा आशिलि ? उलयिगो. तुं कोणि, खंचि, खंयि राबल्या ? ''हांव येकि गरीब म्हांतारि ?'' ती उत्तर दिता ''चित्तलशें धांवडि तुगेलि, माका अग्गु हाडयिलो आनि तूं म्हातारि.'' ?

''रान्नांतु राबतालिं हांव. चोर, रानटि प्राणियांगेलो भोचि त्रासु आसिलो, जीवा आशेक येकेक फांता धांवचें पडतालें. तोंचि अभ्यासारि पडल्यां आसका. रेवति सान्ना ताळ्याने उत्तर दिता. तावळि तिका मुखारि उलवच्याक दिनाशी उत्तर मारता. फट्टि उलवचो अभ्यासु खंयि केदना लागिलो कीबा ? चिरमुटेलेल्या चामड्या खोट्टो तोंडाक मुसकायलो की कोणयि म्हांतारें जायना. काडितो म्हणतां आप्पणचि तो काडनु आंगणांतु बीसाटूयता. आतं कांयिचि निफ्यनातिलें सर्व सांग. तुका कसलोयि सहायु जायि मका सांग हांव ह्या गांवच्या रायालो दुसरो पूतु.''

हो संवादु चलचो आड आयकत राबिलि शेतकारणि येवनु रेवतीक सांगता, ''सांग बाये सांग. भिंगि भायर पडलेल्या उपरांते आतं आनी कसलें वरलें. कुमार, रात्रि हांगा निदलेल्याकडे, तोंडा आवरण काडनु दवरलेलें तिने, आनि तिगेल्या उशा

लागिच्या पोटलंतु भारी उंचि मोतिं आसिलिं'' अशि म्होणनु, पोटलि मेकोळनु दाकयता. आनि मुखारि म्हणता ''ही चोरलेलिं न्है. येका उद्दिष्टाने, मुद्दाम येका चिंदियेंतु येक मोतिं बांदिलें आस.'' त्या दोगांगेलेंयि कसलें की संगनमत अशि कुमाराक संशयु येवनु तांका दोगांकयि धडसूनु सांगता, कुमारु, ''हें चोया, तुमि दोगंयि एकमेकांगेल्या हीनासर्याने उलयताति, अशि माका दिसूक लागल्या.'' ततक्षण, आपणाक उदाराश्रयु दिलेल्या शेतकारणिचेरि ताका आयिल्लो संशयु दूर कोरूक रेवति पूरा वृत्तांत सांगता, ''कुमार हीं मोतिं मगेल्या भयिणीने वाट्टेरि रिकरयिल्लि तिका व्हेलेलि दिशा माका कळकाज म्हुणु. हें आखेंरेचें होड मोति तुमगेल्या दाखट्यांतु माका मेळलें. हें सुचयिता, की, मगेलि भयिणि तुमगेल्याचि वाड्यांतु आस. ह्या जगांतु मगलीचि म्हुणु ती येकळीचि माका. आमि दोगानीयि अनेक कष्ट क्लेश सागातीचि भोगल्याति. राक्षस दंपतीक रसातळाक पेटवनु,सुखाने राबताति म्होणूक अवकाशु ना, कोणे की निष्ठुराने —

''चिके राब, तुगेल्या उत्रांचो मारो अवरनु धरि.'' म्हणता कुमारु. ''कालि मगेलो होडु भावु, शिकारेक गेलेलो, येतना येका राज कन्येक सांगाताक घेउनु आयिल्लो, तिगेलि ठीवि, तिट्टो आनि सौजन्य पोळवनु, साधारण तूंवे सांगिल्यावारीचि काणि तिने सांगिलि खरि लेकूनु, मगेल्या म्हालगड्यांनि तांगेलें लग्न लावनु दिलें. जाल्यारि आपणाक भयिणि आसिल्लें तिने सांगनि. ती तुजेवारीचि दिसता, तरी, तुगेलि भयिणि आसूक कारण ना.'' तावळि, अत्यंत शरणागतीने रेवति लालेना. ''दया करनु तशि म्होणनाका. मगेल्या भयिणीक तिगेल्या मनाविरुद्धचि व्हेलेलि. इत्तें आसिलिं दुःखं आपणा येकळेकचि बाधोति म्हुणु तिने मगेलो उल्लेख करने आसकाज. लग्ना नंतर सांगूक, एकळाक इत्याक निपवण वंचन केलें म्हुणु तिका अपराधि लेकचि भीति जालि की इतें की, तिका आनि सांगनातिल्याचो कितलो पश्चात्तपु जालो की बावडेक. कसल्याकयि, एक फातां आमि पळयताति. खरे खोट्टे थंयीचि कळतलें. आसो येकि संधि दि माका. देव बरें करतलो तुका.'' ''ति तुगेलि भयिणि व्हयि जालेल्या पक्षाक देवु आमकां दोगांकयि बरें करतलो. चल मजे ओट्टु.''

रायु राणि नव्या सुनेक लागि घेउनु वैरि माळियेरि बसिलिं, फक्कने रोहिणीलें लक्ष दारवट्याकडे गेले. चोवीस तासं व्हगाडलेल्या भैणीक देकूनु तिका खुशाल धरनाशी जालि. आनि, तिका घेवनु येता तो आपणालोचि देरु म्हुणु करनु, ति खुशाल कायीचि तडवना जालि.'' मगेलि भयिणि रेवति'' म्हणत ति दडदडीचि धांवनु येता, भयिणीक पोटळता, कुमाराक खात्रि जाता. रायु राणि तांगेलेंयि लग्न भारी विज्रंभणेने करताति, आनि सर्व सुखसंतोशाने राबताति.



कोल्लो राजपुत्राक जीवत कोरचो उपायु कोल्लिणीक सांगता. चंचला राणि तें आयकून् सुबाहूक जीवंत करता.

# चंचला राणि

येका गावांतु येकु रायु आसिलो. तागेल्यो दोनि राणियो. दुसरि भो मोग्गचि आसिलि. राजा दशरथाक कैकेयि भारी गांटीरि बसिलि ना आसिलिवे, राजा उत्तान पादाक सुरूचि आसिलि तशि. पैलेगेरि येकु चल्लो, सुबाहु तागेलें नांव. दुसरेगेरि चरडु ना. तो चल्लो दुसरेगेरि इत्याक जायने म्हुणु रायाक पुत्ताचेरि कोपु. दोनि ढोळ्यां-रगतशें करनु ताका चलयतालो. तो चल्लो होडु जात्तां जात्तां ताका समचि बुद्धि भरना पडे, बापसूगेलि आपणा बदलचि नाकावडि ताका कळूक लागलि. तो प्रायेक आयलो, राजादिकांनि घेउचें अवश्य आसिलें सर्व शिक्षण घेउनु पारंगतु जालो, तरि, रायु ताका युवराजाभिषेकु करचो विचारु करना.

सुबाहु योग्यतावंतु आसिलो, तितलोचि स्वाभिमानि आनि महत्वाकांक्षि आसिलो. बापुसुगेल्या राज्यांतु, सोश्या प्राय झाडा मुळांतु म्हणताति, तशि आयुष्याचे अमौल्य दिवस व्यर्थ घालोवच्या पेक्षां, भायर विशाल जगांतु भोवनु कीर्ति, अनुभवु मेळयतलों अशि तो निर्धारू करता. येकु दिवसु आवसुक आपणालें मनोगत सांगता. पुत्तांतु आत्मविश्वासु दृढनिश्चयु पोळोवनु तिका भो आनंदु जाता. तरी येकळोचि परदेशाक, परक्या जनांतु वचूक भायर सरला, बाळाने खंचे संकटांक तोंड दिउचें पडतले की, मुखारि कसलें जायद की, हाजि भो चिंता दिसता म्हणता ति, तावळि आवसुलि चिंता दूर करूक सुबाहु म्हणता. आम्मा मगेलें बुद्धिचातुर्य आनि सामर्थ्य विशय केदना की पूर्ण खात्रि आस तुका, तावळि, सर्व आवसुंगेल्या आंताक दिसकाज ति स्वाभाविक चिंता तुका दिसत आस. ताजाणे तूंवे व्याकुल जाउ नये. आत्तं, गोमटेंचि करनु हसत मुखाने आशीर्वादु दी पोळोवयां.'' ''आयुष्यवंतु जा. यश, आनि कीर्ति मेळोवनु परत यो. येतना जीवन सांगातीक घेउनु यो, वचचे फूडे बापसूलो निरोपु घेउनु वच.''

सुबाहु बापसुक मेळता.येकु उच्च जातिचो, अंतरिक्षांतु उड्डाण करतलो रणघोडो घेउनु रवाणे जाता. सुमार दूर पावनु येका राजधानिच्या दारवट्याकडे येता. लागीचि येक तणार दिसता. ताका तणारा भायर आंगणांतु येकु सुतारु, दुष्ट बंदिवानांगेल्या पायांक, चोर गोरवां गळ्याक बांदताति पळया, ति राकडिं खोडं तयार करतालो. सुबाहू ताका विनंति करता, ''सुतार बाबा, दूरच्या प्रवासाने दणूनु आयलां हांव. आयचि येकि राति माका तुगेल्या घरांतु आश्रयु मेळदवे ?'' तागेलि विनयपूर्वक

उत्रं आयकूनु सुतारु सांगता ताका, ''बाबा भित्तरि वच, थंयि मगेलि बायल धूव आसति. ति तुका रांदप करनु वाडतलि.

भित्तरि वचूनु सुतारा बायलेकडे उलयता, सुबाहु. ति म्हणता, ''रांदपाक लागचें जलावु राक्कुड हवण घरांतु. तुं लागीचि जंगलांतु वचूनु थोडेंचि राक्कुड घेउनु यो.'' ''सुबाहु म्हणता, ''पाच्ची, माका भोचि दणु जाला, आनि भुकेने मगेलो जीवु तळमळता. तुर्ताक ह्या खोडांचे काप कोरनु दित्तां. रांदप करि. फाल्लें जालेल्याक्षण जंगलांतुले राक्कूड हाडनु खोडंचि इत्तें, थरथरेचे वस्तु करनु दितां. सुतार कामांतु येकदम पटायितु हांव.'' सुतारा बायल धुव रांदपाक लागताति. बांयिच्या लागि, येका हौदांतु उद्दाक भरलेलें आसता. घोड्याक चारो उद्दाक दीडनु, न्हावनु, सर्वा सांगाति बैसूनु जेवतां.

सुभानु, हेरदीसु काळोकु आसतनाचि उटावनु रात्रां थावनु/चांग जातिचें राक्कूड हाडता, खोडं तयार करनु सुतारागेल्या आंगडींतु दवरता. तावळि रायोगेलो उग्राणि येवनु, दोनि वेंचूनु घेता, वीस रुपयो दीउनु वचत राबता. सुताराक आश्चर्य. आपणाल्या खोडांक दोनि रुपयांवैरि कोणयि दीनाति, धा धा रुपयांचि खोडं - आपणे केलेलिं न्हे, तिं आंगडींतु खंचाणे आयलिं, ह्या विचारांतु पडलो सुतारु. फुडले दिसु जोलेलें वृत्तांत, धुवेने सांगलें की, सुतारा मनांतु विचारु येता; ''इतलो कुशल कारेगारु, हाकाचि जांवयि करनु घेतल्यारि, वरस भित्तरि आमि दुडवाळ जाउच्याक कांयि आतंक ना.'' सुबाहु राजुपुत्रु हें सुतारु नेण, सुबाहुनेयि सांगिलें ना.

सुतारा धुव शुभांगि, नांवा तकीत रुपाळि गुणग्नि राजघराण्यांतु पावचा लक्षणांचि. सुताराने सुबाहुक घरजांवयि, जाउचो आग्रहु केलो. थोडो वेळु विचारु करनु तांने हंकारू दिलो आनि सुताराल्या अयपते प्रमाणे लग्नयि जालें. लाकडि कामांतु सुबाहुगेलो हातु अत्यंत कसलेलो निरडलेलो आसिलो. अशि जाउनु, तागेलें काम उच्च वर्गाचे होड्डा प्रमाणाचें जातालें. तावळि, मांवु जांवयानि आपसांतु उलवनु घेतलें की, सुबाहुने वस्तु कोरचे आनि मावाने आंगडि सांबाळचि. सुबाहुने, मागणे प्रमाणे खोडं कोरनु, उरलेल्या वेळांतु थरथरेचिं पशु पक्षि खेळणि, बण्णा बोंबि करचिं, आनि तिं कायळ्याने पोळे उब्बारनु व्हेलेल्यावारि विकूनूयि वचूक लागलि.

येक फांतां सुबाहुने एक हजार राकडि कींर केले, ते यच्चावत कीरचिशे दिसताले, इतले थायि की, खरे कीरांक निपवका तांकां दाकवका, तितलें अभिन्न दिसतालें, तांचो वल्लो रंगु सुकवच्यांक भायंर आंगणांतु दवरलेल्याकडे, शंकरा सांगाति

अंतरिक्षांतु वतना पार्वतीगेल्या दृष्टिक पडले. शंकरु ध्यानस्थु बशिलो विमानारि. ताका कोप्पूरु मारनु जागयता पार्वति, आनि म्हणता, ''ते चोयि, ते चोयि हजार कीर कशि येकडे सभेंतुल्यांवारि सज्जन जाउनु बसल्याति.'' ते पोळोवनु शंकरु म्हणता, ''ते राकडि कीर म्हणूचि तशि बसल्याति, ताच्यांतु जीवु भरि मागीरि पळे कशि बसताति ते.'' ''बद्दचि तें येकचि ऊन तांचांतु. हांव दित्तां ताका जीवु. कीरानु, जीवंत जाया'' म्हणता पार्णति आनि ते दंपति वचत राबत्ताति.

फाल्लें जातां, कीरांक लायिलो रंगु सुकला की कशि पोळोवयां म्हुणु सुबाहु कवड काडता, आश्चर्यांतु आश्चर्य!!! कीर पूरा जीवंत जाउनु नाना थरेचे शब्द करताति. हजार कीरांगेलो किलकिलाटु आयकून घरचिं सर्व भायर आयलिं. सर्वांक जुप जालें तो चमत्कारू चोवनु.तावळि सुतांरा बायल घरकारणि बोचकळ्यांतु पडता आनि जांवयांक निमगिता ''पुता, कीरानि जीवंत जाउनु आजिवरेक घडने तो चमत्कारु केलो व्हयि. आमगेलि प्राप्ति कितलि तुं जाण. आत्तं ह्या सर्वांक पोसचो अनावशक बोजो मात्यारि आयलो, तो कशि सांबाळचो जालो सांग. आत्तं आसति थंयि आंगणांतूचि सोडूक जाता ताकां ? माजरं घुगुमानि मारनु खायनाशि तांजेगुणि घूड बांदका जाले. इतले कीरांगेलि परगुणायि करूक, आमकां सगळो दिवसु हें येकचि दंद घेउनु बसका जातलेंमरे !! तुका हे दवरनु घेउचे आसल्यारि, तुं विंगड बिडार करि. हें सांगतना आमकां जीवारि येता, निर्वाहु नातिल्याक सांगका पडता.

''कांयि चिंता ना'' म्हणता सुबाहु. ''हांव तुमकां वांटांतु घालतलों न्है. घरजांवयि जालेलो सगळ्यांक ससार जाता, हें माका कळतालें. तुमि माका इतलें चंद रीतिने पळयतना, वेगळ्या बिडाराचो प्रस्तावु कशि काडुं म्हुणु पेचांतु पडलेलों. मगेलें काम सलीस करनु दिलें तुमि. फायि आमि विंगड वताति.'' हेर दिवसु सुबाहु बायल शुभांगि आनि हजार कीर घेउनु वेगळें राबूक वता. तानि वतना, तात्पूर्ते तांकां, आयदान, वस्त्र थोडें धान्य-दवसु बांदूनु दिता, सुतारा बायल. ''चला बाळानु, सुखी जाया. देवु तुमकां सदोदित पाठिराका जाउनु आसो'' म्होणनु तांका रवाणे करताति.

तानि लेकिल्लें तशि कीर चडावता बोजो तरि जायनेतिचि. उलट फायद्याकचि पडले. दिक्कु उजवाडच्याक, ते आपयां तुपयां उब्बूनु वताले, दीसु भरि शेतांतु जंगलांतु भोवनु आपणालें पोट भोरनु घेताले. आनि सांजेवेळा घारा येतना मालकागुणि, कांयि ना कांयि आहारु, वस्तु, घेउनु येताले. सुतारागेलो घरखर्चु वेचु, उणे जावनु, धन संपादन वाडलें, आनि थोड्याचि काळां भित्तरि, तो आस्तिवंतु वृत्तिवंतु म्हुणु नांवाक पावलो.

अशि सुखाने तागेचि दिनचर्या चलत आसतना, राजा सुबाहूक येक सोपन पडता . तें कसलें की म्हणल्यारि :- दूर सात समुद्रां पेलतांतु येकु सुरम्य आनि संपन्न देशु आस. थंचे रायाक अप्सरे इतलि लावण्यवति धूव आस. तिगेलें नांव चंचलाराणि ति राज्याच्या मद्यगति येका स्थळारि महाल बादूनु तांतु राबता. महाला सुत्त सात खंदकं आसति, तुडुंब उदकाने भरलेलिं. आनि खंदकाक येकि, धा हात्ति उंच चुपचि शूलांचि वयि घालेलि आस. चंचलाराणिलो पणु आस की, जो वीर पुरुषु, तिं खंदकं आनि त्यो शूलांच्यो वयियो उड्डूनु येता, ताका आपण वरमाला घालतलिं.

सुबाहु सकाळिं उटायिल्लोचि विचारांतु पडता. कसलें पुणि विचित्र सोप्पन. निज स्थितींतु असलें आसुक शक्य आसवेया ? आस म्हुणु जालें तें खंयि आस आनि थंयि पावचें साधन कसलें, त्या थरेचि तिं खंदकं, वयियो उड्डूनु वचचे कशि. कोणाकयि साधनि, तरि, चंचलाराणि जन्मु भरि कुमारीचि राबतलि. ह्या सर्व पश्नानि तागेले मात्तें खरडु जालें. हाजो पूरा उलगडो कशि जायद म्हुणु शुभांगिक निमगिता. ति सुचयता ''इतलें इत्याक अस्वस्थ जाता. तुका गोत्तु ना कशि, आमगेल्या कीरांगेलो गेड्डो वक्रतुंडाक बारा देशांचि माहिती आस. ताका निमगूनु पळे. वक्रतुंडु, तें सोप्पन न्है, वद्दचि तशि आस, आपण स्वंत दोळ्यानि देकिलि खात्रि सांगता. सुबाहुक आपणे साहसु करनु पणु आनि चंचलाराणि जिंककाज ही तीव इच्छा ताका तडवना जालि. परंतु सात समुद्र पार तितलें दूर वचचें कशि म्हणता. तावळि वक्रतुंडु ताका धैर्य दित्ता. राया तुका आत्तं सांगतां येकि संगति, तूंवे आजिवरेक नेण जालेलि. तूंवे एक हजार राकडा कीर बनयिलें. परंतु आमच्यांतु प्राणु कशि आयलो ? सांगतां आयक. आमका रंगवनु सुकूक तूंवे वाऱ्याक दवरलेले, तेदना शंकर पार्वति वैल्याने वतालिं. आमकां देकूनु तांकां तुगेल्या कलानिपुणतेचें कौतुक दिसलें. आमच्यांतु येकूचि ऊणे आसिलो तो प्रणु भरलो शंकर-पार्वतींगेल्या कृपा प्रसादाने. आमि राकुड आसिले प्राणि जाल्याति. आमच्यांतु वशेष शक्ति आस. हांव आनि मगेलो भावु करनु तुका सीदा चंचल राणियेल्या राजमहालांतु व्हरनु सोडूक शकताति. जाल्यारि, पणु जिंकनातिलें भित्तरि आयिल्लो म्हुणु ति तुगेलो स्वीकारु करीशिना. त्या खातिर तुका आम्मि पैले खंदका लागि सोडताति. व्हयि, बरोचि उगडासु जालो. तुगेल्या वंशाचो इतिहासु. तुगेलें पूर्वत्र आमि संपूर्ण जाणताति. थोडे विशय तुका थांयि गोत्तु नाति. खंदक दांटूवचिं, लोखंडि कटांजनां वैल्याने उडचि विद्या तुका, सानपणांतु येका गोसाव्याने शिकयिल्लि, उराडासु करि.'' ''आरे ! बद्दचि मरे, आत्तं यादु आयलो माका,'' म्हणता सुबाहु. ''परंतु, ताजो अभ्यासु नातिलें मस्त काळ जाले, आत्तं ति विद्या काम दीदमरे पोळोवनु सोडतां, देवु आस.''

तशीचि, दोनि कीर रट्याक रट्‌टो लावनु राबताति, मद्देगतिचि पाक्कं येकारि येक दवरनु खुर्चिशी करताति, आनि सुबाहुक बसोवनु घेउनु उब्बूनु वताति. नित्य तानि दिसाचें वातायन करचें, तिनसांज जालिकी, नदि किंवा स्वच्छ जलाशय दिसिल्याकडे, प्रसस्थ येक झाड रुकु सोदूनु थंयि रात्तिचें विश्रांति घेउचि. फाल्लें जावच्याक पुनः प्रवासु सुरु. अशि करतां करतां, येकाफांताचें सात समुद्र दांटुले म्हुणु जाले, चंचलाराणियेल्या सीमेंतु येउनु पावले. कीर म्हणताति ''राया आत्तं आम्मि ह्या पेरा रुक्कारि राबताति. पिकिल्लिं हळदुवीं तांबडी पेरं आमकां आपयत आसति. तुं मुखारि वच, तुगेलो साहसु सफल करनु, रीणियेक घेउनु यो, आम्मि तुमगेलि प्रतीक्षा करताति.''

सुबाहु येकळोचि मुखारसुयता. लागीचि येका हितलांतु माळि काम करतना ताका देकुं पडता. तो माळियाक प्रश्नो करता, ''माळिबाबा, हांव हांगा तिराहितु, चंचलाराणि हांगाचि राबतावे ?''

''व्हयि, ऊ ऽऽ थंयि दिसता सात खंदकं, तितलींचि शूलांचि कटांजनं. आताचंचि वर्तमान मेळलें. तिं उड्डूनु दांटुच्याक आयिल्ले, सकाळि धरनु तेग जाणं, झंप मारलेले, कटांजनांचेरि पडनु, पोट्‌टांतु घुसिलें शूल फाटींतुल्याने भायर येउनु मेल्यानि. असलो अवघडु पणु केलेल्या चंचलाराणियेने पूरा फसच्याक आस. लेक नातिले राजपुत्र, झंप मारतना मेले. म्हांतारि जायसरि अशीचि चलनु, तोंडारि निरियो पडना पडे, मजे असल्या कोणाकयि कोरनु घेवचें, तिजे कपालांतु बरयल्या की कितें की, देवु जाण.''

''माळिबाबा, दोनि हजार कोस दूरच्याणे येतां हांव. पूर्वापार विचारु करनातिलेंचि आयलां म्हणतावे तुं ? असले झंप मारचो अभ्यासु हांवे सानपण धरनु केलेलो आस, थोडियो राणियो असले घातक पण लायताति तें लेकूनूचि'' पळयित राब. सांजे भित्तरि चंचलाराणियेल्या हात्तांतु हातु घालनु, फूडे तूंवे आसिल्याकडे येता की ना.

''तरि आमकां लाड्डु मेळतले म्हणता'' माळि उद्गारता.

''लाड्डचि इतें, जायि तें माग'' म्हणता सुबाहु.

''बरें तरि जाउनु वचो शर्त,'' माळि उत्तेजन दित्ता.

दुस्र्या दिवसु सुबाहु आपणालिं नित्यकर्मं वगीचि करनु ते चवदा अडवंताव

दांटूवच्याक सज्ज जाता. थोडोचि व्यायामु करनु आंगाचे हातपायांचे स्नायु शिथिल आनि तरतरीचि जालेल्या उपरांते खंदकं शूलकटांजन उड्डूक सुरु करता. एका माक्षि एक उड्डूनु पार करता, एक, दोनि, तीनि, चारि, पांच, दांटूनु जालिं. येकेका श्वासांतु. घडिभरि राबता. तो रुपाने अश्विनीकुमारुसो, आंगटणाने बलभीमुसो आसिलो. ताका चोवच्याक जमिल्लें जन तागेलि. ति अद्भुत कृति पोळोवनु आश्चर्याने तटस्त राबले. हो वर्तमानु आयकूनु रायु स्वतः आयलो चमत्कारु पोळोवच्याक. चंचलराणि, महालाच्या आगाशेचेरि राबूनु मनांतु म्हणता ''आजि मना तकीत पतिदेवु प्राप्त जावचो योगु आयल. जाल्यारि पराक्रमी तरुणु तटस्थ राबला इत्याक, सटसटी झंप मारना इत्याक ? उड्डूनु उड्डूनु थकलोवेया, अर्धारीचि हातपाय सोडनु हारि खायिशिनाम. पणु जिक्कूक थोडेंचि बाकि उरल्या. पांच सहसा दांटूला, दोनि चडवे ?'' आशि नना थरेचाो शंका कुशंका तिगेल्या मनांतु खौदळु उटकारोवच्याक लागल्यो. इतले म्हणतां, सुबाहु,दंड, जांगो टोकूनु पट्पट् पट् झंप मारनु, सातवे खंदक पार करता. आत्तं उरलें एकचि शूलकटांचन, येकीचि उडकि, येकाचि क्षणाचें काम अत्त, सुबाहु इते करता, छाति भोरनु श्वासु घेता, उकडें बसकि घेउनु सलंब महाप्रयासाचें येक झंप मारता. येदोळु तटस्थ श्वासु बांदूनु राबिलें जन, पणु जिंकलो म्हुणु लेकूनु, ''हुय्यो ऽऽ'' करताति आनि त्याचि श्वासांतु ''हायहाय'' म्हुणु हळहळताति. दुर्दैव ! पायु कटांजनाक आद्दळनु सुबाहु शूलांचेरि पडनु मरता. विजयश्री हातांतु आयिल्लि अपघाताने झोम्मूनु व्हेलि. अद्भुत कृति चोवच्याक खुशालेरि आयिलें जन दोळे पुसूनु घेत घारा परतताति. हातपाय गळनु पडलेल्या चंचलाराणिक सखियो उब्बारनु व्हरताति.

''ह्या फूडे पणु जिकूक आयिले कित्येक वीर, हरनु हताश जाउनु परत गेलेले, कित्येक जणानि अपयशाचि अतीव लाज दिसूनु, थर्यींचि जीवु काडनु घेतिल्लो. असलो भयंकरु दुरापास्तु पणु लायिल्या चंचलेक, त्या सर्वांगेलो आनि तांगेल्या आप्त बंधूंगेलो द्रोहु, श्रापु, बालावु बोडूयलो वेया, म्हुणुचि, तिगेलो धनि जावच्या बदलाक, सुभानु वीर स्वर्गाचो धनि जालो. चंचलागेलें पणाचें प्रस्थ हांगाचि समाप्त जावो. हें हत्याकांड राबो. आनि आनि आशाळु युवकांगेल्यो बलियो पडलेल्यो तीरा पोळोवचिं उररि ना माका.'' अशि रायाल्या मनांतु विचार येताति.

पणाचे आग्रह जे घालेले ते सुबाहूने संपूर्ण रीत्या पुरयल्याति, अशि जाउनु. तो विजयी म्हुणु घोषणा कोरचो भागु पडता, रायाक. आनि विजयी पुरुषाक, तो कोणूयि आसो, खंचायि अवस्थेंतु आसो, आत्तं धूव दीउनु लग्न कोरच्या शिवाय, दुसरो निर्वाहूचि ऊरना, रायाक.

रायालो विचारु कळ्नु, राणियेक भोचि दुःख जाता. ती थरथरेने लाल्लेता, विनवणि करता. रायु एक जात आयकना. पणाचे शर्थ पूर्ण करनातिले, आपणाक पापांतु पडचें ना म्हणता रायु, आनि लग्नांचि सज्जा, संभारु अप्पण करता. लग्नाचो संस्कारु समाप्त जालेल्या तसांक रायु धुवेक सांगता, ''हें चोयि, चंचला, तुगेल्या भाग्य-सौभाग्यांचे उत्तर दायित्व तूंवे खंत वशाक धेतिले, आत्तं मज्जेरि कायि उत्तर ऊरनि. तुगेलें भविश्य तुगेल्या हातांतु, तूंचि पोळवनु घे.''

रायाल्या आज्ञे प्रमाणे, व्हरेतु-व्हकलांक दोनि पालक्यांतु बसोवनु, दूर अठंग रान्नांतु, येका विशाल फलझाडा मुळांतु सोडनु, पालक्यो हाडलेले भोयि, तांगेल्या गावांक परताति. तांगेलो ताळो, पावलां शब्दु, दूर दूर जावच्याक लागता, त्या सरशी चंचला राणीक मन सांगूक लागता, की, आत्तं जाल्यारि, जीविताचि आशा धरशि आसिलें मगेलें सर्वस्व सरलें, मरण वगीचि येवो म्हणलेलें येकचि उरलें. आपणाल्या पणाक प्राणांचि आहुति दिलेल्या पतिदेवालें अंतिम दर्शन घेउच्याक, तागेल्या पालके लागि येउनु बसता. तान भुकेने जावो, नावे खंचायि रानटि प्राणिया निमितिं जावो, आपणाक तागेलीचि अवस्था येवो, म्हुणु, तागेल्या विशाल वक्षस्थलारि, शोकाने भारायिलें आपणालें मात्तें दवरता, थेडेचि क्षणानि, दुःखाच्यो संतरधारो गळवचि तिगेलि दृष्टि, तागेल्या मुखवट्याचेरि गेलि, सुखंड निद्देलासो निश्चेत. दोळे, वट गच्च धांपिल्ले. पगडे भायर आयिल्या काळिं भोर कुरलां सखल दिसचो तो कानसळाक जालेलो कंत धायु, तरी मुखचर्येचेरि दुकीचि छाया लगीन ना आसिलि.

ताका नियाळत नियाळत ति मनांतु म्हणता, ''आदर्श पतीचि अपेक्षा करनु पणु दवरलो. तूंवे पणु जिंकलो, तरी पणांतु जिंकिल्या बायलेलें तोंड चोयनि. मगेलो पतिदेवु जालो, तरी मगेलो घोर अपराधु क्षमा करच्या फुडेचि, मगेलि कसलीयि सेवा घेवच्या पैलेंचि काळ मृत्यूने तुका व्हेलोम ! मगेल्या दुराग्रहाक, अहंकाराक, ही शिक्षारे, विधाता, तूंवे माका दिउचि ? तूं पुणि कसलें करतलो ? पाय्यांरि फात्तरु हांवेचि घालनु घेतला.''

बशिल्या कडेचि तिका दोळो लागता. सुमार राति सरलि. बहुतेक प्राणियं, पोटभरि खाउनु, तांगतांगेल्या गुह्यांक गव्हारांक वताति. तसल्यांतु, त्या हिंसक प्राणियानि मारनु खालेलि बडिं, म्हणल्यारि शवांक लागिलें मास, सानसान्न हाड्ड खावनु दोनि कोल्ले, नर मादि, त्याचि झाडां मुळांतु येवनु आड सरताति. तावळि कोल्लिणि दादल्याक येकि काणि सांग म्हुणु आग्रहु करता. तावळि कोल्लो म्हणता ''पुरत्याने तुगेलो काणियो आयकुचो हेद्दासु तूंवे भोचि वाडोवनु घेतलागो. तुजे इदूरं

जिंति काणि धडत आस, चोयि थंयि. तो येकु होड्डा रायालो येकळोचि पूतु. मोग्गा राणियेल्या पोट्टांतु उबजने म्हुणु रायाने ताका दुटारलो. आपणालें भवितव्य सोदूनु भायर सरलो. येका सुताराने ताका उदाराश्रयु दिलो, घरजांवयि जालो. तागेलें बरेंचि चलतालें तितल्याने तृप्ति ना जालि. ताजे लागि आनेक पालकेंतु आस पळे ति तागेलि बायल, चंचलाराणि.''

आपणालें नांव घेतिल्लें आयकूनु, हालयिल्यावारि जाउनु ती कान दीउनु आयकता. तृप्ति ना जालि म्हुणु कसलें केलें ताने ?'' कोल्लिणि प्रश्नो करता, ''जीवुधरणेचो धाडसु करता. तिका तो स्वप्नातु पळयता, आनि तिका लग्न जावच्या हव्यासाने आमगेल्या राज्याक येता. तगेलो तो भयंकर पणु जिकलो जिकलो म्हणसरि, अंतिम सातव्या शूलकटांजनाचेरि पोडनु प्राणु सोडता. ताने पणु यशस्वी रीतीने जिकिल्लो जालेल्या निमित्तिं, पणाच्या शर्थाक लागूनु, रायु धुवेगलें लग्न लायता, व्हरेताल्या प्रेता सांगाति.''

''पाप बावड्यांचे'' म्हुणु चुरचुरता कोल्लिणि



''ताका वापस जीवु येउचि कांयि आशा नावे.''

''आश ना जाउच्याक कित्तें जालां. योग्यु तो उपचारु करतलिं जायि न्हे, आनि तांका तो सुचका न्हे ?'' म्हणता कोल्लो. तिने कसलो उपचारु तो निमगिना पडे कोल्लो सविस्तर सांगता. ''ऊ तें थंयि झाड दिसता पळे, ताजि फुल्लं पान्न चेंचाउनु वस्त्रगाळित रस्सु, दोनि दोनि थेंबे कानांतु, दोनि थेंबे वैल्या वट्टारि निस्तावनु, वरलेलो चोमडो घायांक सारवकाज आनि इकरा वेळा तांगेल्या इष्टदेवागेलें नामोच्चारण करका म्हणल्यारि, राजकुमारु, पणाच्या अभिचारा पैलें आसिल्यावारि सजीव जाता.

फाल्लें जाउच्याक अजुणी थोडो वेळु आसिलो. खळचो येकेकु क्षणु येक युगचिशें दिसूक लागलो, चंचलाराणिक. केदना येक वेळा फाल्लें जातलेंरे देवा, म्हुणु चडपड चडपड जाता. येक फांतांचो दिक्कु उजवाडलो म्हुणु जालो. तिने तडवु केल्लावे. राया धुवती, भूयीरि पायु उरुवनु नेण, रित्या पाय्यानि कांटे फात्तर पळयनातिलें वस्त्रा, कोल्याने सांगिल्या झाडाचो पाल्लो फुल्लं बाचाटूनु हाडता, आपणाल्या शेरग्या पालवेलु घालनु सानि पोटलि करनु पिळता, कान्नांतु, वट्टारि आनि तो चोमडो बामणाल्या घायाक लावनु दोळे चिम्मि करनु इष्टदेवालें ध्यान करता. दोळे उघडुनु पळयिता, महदाश्चर्य !! कोणाक चड जालें सांगचें कष्ट. तो, घायु ना दूकि ना, रक्तातु, तिजे वोट्टु ! आनि मोरनु चोवीस तासां उपरांते बाम्मुणु जीवानिशि हासाहासि म्हुणु ती !! सुबाहुने तिका

स्वप्नांतु शिवाय प्रत्यक्ष पळयिने आसिलि. तीचि चंचलाराणिवे हि, की आपण अजूणी स्वप्नांतु आसं. आंग हालयल्यारि तो आल्हादकारकु मंत्रमुग्ध केलेलो क्षणु सरदवेया असल्या भयेनेशी, ति परस्परांक नियाळूक लागलिं. ताका जालेलो संभ्रमु तिका कळता, आनि पैलें तीचि वट मेकळता. ''ह्या घटनेने तुका चकित केला. मगेलो गुरतु ना तुका. हांवचि चंचलाराणि.'' ''बद्दचिवे तुं चंचलाराणि थोडे वावंट दीनेति तूंवे माका.'' ''व्हयि व्हयि, माका कळता. हांवे तुका मरण हाडयलें, तरि हांवेचि तुका जीवंतु केलो. माक्षि जालें, तें जाउनु गेलें. चल घारा वचयां. मगेलि आनु आम्मा तुका पूतुचिसो पळयतलि.'' तो उत्तरता ''ना. पैले माका मगेल्या घारा वचचें आस. हांवे सोडनु ते मस्त काळ जाले. तूंवयि मजे सांगतणि आयलि, तरि बरेंचि जायद. मागीरि जाल्यारि तुगेल्या कुळारा वचयां.'' ''हांव तुगेल्या उत्रा भायर ना.'' म्हणता ति.

तशीचि तिं दोगंयि पिंपळा रूकु सोदीत येतातिं, दूरच्याणे तांका देकूनु कीरु आपयिता ''यो राया यो. कितले दीस ते तूंवे घेउचे. आमकां हांगा सोडले आनि वचूगेलो तुं. जीवु काडनु घेउचे पूर्ते जाले.'' ''कसलें उलयिता तुं किरा ? पणु जिंकलो, प्राणु सोडलो, राणि जिंकलि, मागीरि प्राणु जिंकलो. आसवे असलें उद्भुत खांयीयि जालेलें. दग्विजय केलें म्हण. आत्त आमकां घारा पावोवचो विचारु आस की इत्ते ?

''विचारू सर्व आस. जाल्यारि वाट्टेरि खावच्याक कोक्को जायि. ताजो विचारु केलो वे तूंवे ?'' कीरु ताका सुचयिता.

''आरे, व्हयिमरे, दूर्त विचारि म्हणका तुक्का'' अशि म्हणत, पालकेंतु मांवाने दवलेल्या थैलिंतुले पैसे काण घेउनु लागीच्या हळ्ळियैंतु थावनु सगळयांक पुरशी खाण घेउनु येत्ता. कीरु वक्रतुंडानि फुडल्यावारी पाक्कं मांडयलिं, सुबाहु आनि चंचलाराणि वैसूनु घराचि वाट धोरनु अंतरिक्षांतुल्याने वतलिं तसलिं जालिं. फुडल्या प्रमाणेचि, दिसाचें वातायन, रात्ति विश्रांति, अशि करीत स्वदेशाक पावतातिं म्हणसरि वरस भरि लागलें.

तिं देवंलि तें राजमहालाच्या माक्षि दिकानेचि. तरि मध्यंतरांतु वरसांचि वरसं गेलेल्या निमित्ति, सगळें वातावरणाचि बदलनु गेलेलें. सुबाहूक खंयि कसल्याचो पत्तो लागनि . ज्या परिस्थितीत तांगेल्या कष्टांच्या नपुरो पुरत्याक चंचलाराणि बाळांति जालि; गोरो गोमटो चल्लो जालो. आवसु बाप्पुसु, दोगंयि मन्मथु रतिशी शोभतातिं न्हैवे ! मात्यारि येक माड पुणी जायि न्है, म्हुणु तो सोदूक गेलो येका गारूड्यां गेल्या

बस्तींतु पावलो. थंच्या येका होड्डा येका तंबूंतु वचूनु रात्रि पूर्ते आश्रयु मेळदवे म्हुणु येका म्हांतारियेक निमगिलालो. म्हांतारि ताका गारुड्यांगेलो गेड्डो आपणा पुत्ताकडे व्हरता. सुबाहुगेलें रूप ठीवि चोवनु गारूड्या मनांतु कुविचारु आयलो, ''असलो येकु अप्रतिम गोमटो आमकां डोलु वाजवच्याक मेळलेलो जायद, हाका पोळोवच्याक म्हुणु आयिलें जान, आमगेलो खेळु पोळोवच्याक राबतले, आनि, मागीरि दुड्डूचि दुड्डु अशि लेकता. म्हांतरि येका पेल्यांतु कसलें की, सुबाहुक दिवच्याक दित्ता. गारुडि ताजे आंगारि विभूति फुंकून, तीनि वेळा तागेल्या मात्यावेल्याने पाय थायि हात ताणता. म्हांतारेने दिलेंलें पानक दिलेल्या क्षणचि सुबाहु ताजांतु तो ना जालो. कसलें चलल्यां ताजि भानचि गेलि तागेलि. गारुड्याने मात्यावेल्याने हात ताणलेल्या तसाक ताका संपूर्ण भूलि पडलि. आपण कोणु खंचाणे आयिल्लो कसल्याक आयिल्लों, बायल, चरडुं सर्व विसरता तो. गारुड्याने ताका म्हणलें ''आत्तं खंयि वत्ता ? आम्मीचि तुगेलिं लेकूनु राब हांगा, सुबाहु ''जायद'' म्हुणु राबता.

चंचलाराणि थंयि, बामणालि वाट राकूनु राकूनु, तानेने भुकेने संकटेवनु, आंगावेलो बोधु नातिलें पडता. लागि तें चरडुं रडता रडता, ताजे हाल ते सांगूनु सरचे न्है. मनुष्याक पळे, दुःख कष्ट, दोळ्यांतु रगत नातिल्यावारि येकारि येक येवच्याक लागतातिं. न्है जाल्यारि, त्याचि दिवसु त्याचि दिवसु त्याचि क्षणाक राणि (चंचलाराणिलि मांयि) अर्धकुडे म्हैन्यांरि बाळांति जात्ता इत्तें, तें चड्डुं चल्लो, आवसूल्या पोट्टांतूंचि ह्रास जाउनु (''मेल्लेलें'' म्होणूक आचारु) उबजता इत्तें, आनि तितलेंयि नपुरो म्हुणु, ताजि अंत्यविधि करूक थंयि येतातिं इतें, कर्मा खेळु व्हयि की न्है पळे. येकि सुंदर स्त्री हेक्कडलि खब्बरीचि नासतना निश्चेत पडल्या तिजेलागि चरडुं रडता. चेरडाफ पोळोवच्या भित्तरि तें राडपिंडु म्हुणु तांका खात्रि जाउनु, तांच्यांतु राणियेक खुषि करचो येकु कुटील विचारु येता. मेल्लेल्या चेरडाक थंयि सोडनु , चंचलाराणिलें चरडुं उब्बारनु घेउनु, ति. चलत राबतातिं.

भुकेने रडत आसिल्या चंचलाराणियेल्या चरडाक नौकर घेउनु येतातिं आनि राणियेक बगलाट सांगतातिं, की, तिगेल्या चरडाक जीवु आयलो म्हुणु वापस हाडलें. चरडालें आंगटण मुखवटो चोयिल्या क्षण, राणियेक नौकरांगेलें दुष्ट कारस्तान लक्षांतु आयलें, तिने येकळाक, चरडाक आंगावेलें दूद पिवच्याक दिलें, आनि ताने नेराने राबना फुडे नौकरांक पंथरसूनु सांगलें, ''बरे उत्राने हो कसलो प्रकारु सांगातिं, ना जाल्यारि, तुमकां जन्मु भरि बंदिशालेंतु शासनायतां.'' राणियेक सपोट पांयि पोउनु क्षमा याचन करीत, ते नौकर सपूर्ण वतांत सांगतातिं. राणि संतापाने कनिकराने उलयता

आरे पापियानो, तुमकां मनुष्य म्हणका की राक्षस. ह्या चेरडाक उब्बारनु हाडतना, निश्चेत पडलेलि ताजि आवसु जीवंति आस की कशि पळयिने तुमि ?। तान्ने तळमळाने चिंदारे येउनु पडलेलि आसिल्या पक्षाक, थेंबो उद्काक तिजे ताळ्यारि सोडलेलें तुमि, तरि, ती उटावनु बसतलि आसिलि मरे दुष्टानु ? तितलेंचि न्है. मगेल्या पोटा गोळ्याचि अंत्यविधि करनासतना, तो कोल्ले खुंटशिंगांगेल्या भरीक घालनु आयले ? उस्सका, येकळाक मगेल्या बाळशा देहाक मात्ति दिया, तशीचि त्या आनाथ स्त्रीयेलि कसलि अवस्था जाल्या ती खब्बरि मेळलेल्या शिवाय राज्यांतु रिगुनाकाति रिगशाद, तुमचि धडगति ना, गांटि घालनु घेया. तानि गेलेल्या तसाक तांचेरि पाळति दवरूक राणि दुसरे गुप्तचारांक माक्षि धाडता.

तितलें भित्तरि थंयि रान्नांतु इते जाता की म्हणल्यारि, राजवाड्याचि मंडवळणि (धोबिणि) जलाव राक्कूड सोदूनु आयिलि, चंचलाराणीक मूर्छित पडलेक पोळोउनु, काम कस्तूरि झाडाचो पाल्लो चिरडूनु तिका हुंगयिता. पाल्या कमराक चंचलाराणि उटावनु बसता, आनि रडूक लागता. ''मगेलो पतिदेवु खायि आस. आमचे गुणि खाण हाडूक गेलेलो.'' आनि लागि मेलेलें चरडु देकूनु, ''अरयो !!! हें कोणालें चरडुं, अर्धकुडि वाडि जालेलें, मेल्लेलें ? हें मगेलें न्है. मगेलें बाळाक कोणेकी उब्बार व्हेलें. ये देवा, हांवे कोणालो द्रोहु घेतिलो म्हुणु हे कष्ट मजेरि कोसळ्याति रे. मगेलो पति देवु आनि पोर माका वगीचि मेळोवनु दी'' अशि आक्रोशु करता. धोबिणि तिगेलें सांत्वन करता, मेलेल्या येरडाक मात्ति दीवनु, चंचलाराणीक घारा आपवनु व्हरता. न्हाण माक्कण, जेवण जालेल्या उपरांते तिगेलें पूर्वत्र निमगुनु घेता.

मडवळणि म्हणता, ''बाळा, तुगेलो पतिदेवु कोणु खंयि आस. हांव नेण. तो तुमचेगुणि खाणे-पिण्याचि व्यवस्था करूक गेलेलो लागीचि आसपास खंयि आसतलो. चिके दूर गांवच्या भायर, कोल्ले खावु, भामटे, गारुडि लोक राबताति. ते मंत्र, मोडि, माट करन लोकांक भूलि घालनु व्हरताति. माका तुका सांगिलि बाब न्है तागेलो शोधु लावचि. तुका ह्या गांवच्या राणिकडे व्हरता. तीवयि तुजवारी दुःखि. तिगेलो पूतु देशांतराक गेलेलो. आजि वरेक, तो खंयि आस, कशि आस, आस की गेल्ला, हें कळूक मार्ग ना जाला. तुगेलें दुःख तिगेलें अंतःकरण कालवनु सोडशी आस. यो वचयां. चंचला राणीक घेउनु, मडवळणि राणियेने आशिल्याकडे वता. राणियेल्या पोरल्यांतुलें चरडु देकूनु चंचला, मडवळणि कान्नांतु अंतरंग करता. ''मगेलें चरडुं रूपाने लक्षणाने थेटा अशीचि आसिलें. हेंचि आसूकयि फाव आस.'' राणियेक चेरडा निमित्ताने, चोरनु खालेल्यांगादि मन जालेलें आसता. ''कसलें म्हणता ती'', राणि

मडवळणीक निमगिता. मडवळणि, सांगू की नाका अशि दोनि मनांच्या गैंचिगेंतु शिरकता. मडवळणीलो संकोचु, गोंदळु लक्षांतु आयिलि राणि, आश्वासन दीत म्हणता ''मडवळणी, खरेंचि सांगल्यारि हांव कसलें लेकूनु घेत्तां की म्हुणु भविनाका. मगेल्या चेरडा बदल कसलि की कानगोष्टि केलि तिने, व्हयि की न्है. तुगेल्या तोंडाने सत्य. तेंचि आयकुडचें आस माका. भीड दाक्षिण्य नातिलें सांग पळयितां. तुका मगेलें अभय आस.'' राणियेने आश्वासन अभय दिलें म्हुणु मडवळणीलें धैर्य वाडनि. तरी, सांगनातिल्या पक्षाक येदोळु कोपने ती राणि खंडित कोपतलि, हें भय चड दिसूक लागलें. अडखळत अडखळत ती उत्तरता ''देवी ही म्हणता म्हणता, तिगेलें चरडु थेटा हाजे जवळातुले भावंडशें आसिलें, कोणे की चोरनु व्हेल्या, आपणे मूर्छित पडलेल्या तावळि.''

चंचला चेरडालि निजि आवसु, इतलें समजुउच्याक राणियेक वेळु लागना. ''तुगेलो पति आपण कोणु ? तागेले नांव कसले. तुगेलि जीवित कथा इत्थंभूत सांग माका.''

''मगेलो पति येकु महा पराक्रमि राजपुत्रु, सूभानु तागेलें नांव.'' ''मगेल्या पुत्ताले नांवयि तेंचि'' राणि मनांतु म्हणता. बापसूल्या पाट्टाक बाध्यस्तु तो एकोणि पुनु जावनु आसतनायि, धाकटि मोगाच्या राणियेलो तो न्हयि म्हणलेल्या क्षुल्लक कारणाने, रायु तागेलो युवराज्याभिषेकु करना, त्या संतापाने, तो देशांतराक वत्ता, रूपाने लक्षणानिं तो अश्विनीकुमारांक समानु, पराकमांतु इंद्रा समानु आसिलो. मगेलो अत्यंत दुष्करु आनि विस्मयकारकु पणु जिंकूनु ताने माका प्राप्त कोरनु घेतलि. पणाचो अंतिम फेरी जिकताना जालेल्या येका गंभीर घायाने तागेलो जीवु वत्ता. तागेल्या मृत देहा सांगातीचि, मगेलो बाप्पुसु माका कन्यादान करता, आनि दोगांक दोनि पालक्यांतु घालनु आमका रानांतु रवाणे करता.'' अशि सगळेंचि वृत्तांत सांगता चंचलादेवि.

येकि रसाळ काणि कशिकी, चरडुंव कान नीट करनु आयकताति, तितली मग्न जालेलि आसता राणि, चंचलादेवीलें कथन आयकुच्यांतु, आपणाल्याचि पुत्तागेलि खब्बरि ती सांगत आस न्हैम, देशांतराक गेलेलो राजपुत्रु आपणालोचि सुभानु आसदवेया, चेरडा आवसु कष्टाळु चंचला आपणालि सून की इत्तें, आशि सर्व विचारांची सरणि तिगेल्या मनांतु गोंदळु घालूक लागता. आनि, मन तडवनातिलें ती मदेंचि प्रश्नो करता, ''सुभानु जीवंतु जालेल्या क्षण, लगत आसिल्या तुगेल्या चंचल राज्याक वचनातिलें, तुमि हांगा इतलें दूर येवचें केलें इत्याक ?''

''हांवे तेंचि सुचयिल्लें, तो आयकना जालो. द्रौपदीक पणांतु जिंकिल्याक्षण, पांडव तिका घेउनु येकळाक कुंतिने आसिलेकडे गेले, तशि, प्रथम आपणाल्या म्हालगड्यांगेलो आशीर्वादु घेउकाज म्हणु, हो मायदेशु म्हुणु हांगा आयलिं आमि, गेलेल्या धाबारा वरसांच्या दीर्घ कालांतु हांगाचे पर्यावरणचि बदलल्यां, दिक्कु दिसना जाला म्हणालो. तुं हांगाचि झाडा मुळांतु बैस, रात्रिच्या जेवणा खाणाचि, विश्रांति घेउच्याक येका ठिकाण्याचि, व्यवस्था करनु येतां म्हुणु माका सांगूनु गेलेलो आयिल्लोचि ना.''

हे शब्द कान्नारि पडलेलेचि, महाराणीलें अंतःकरण उचंबळेवनु येता, दोळ्यांतुल्याने दुःखाच्यो संतरधारो देवच्याक लागताति, कंठु दाटूनु आयिल्या अतिरेकाने तोंडांतुल्याने शब्दु फुटना. आपण कसलें करीत आसं हाजो आंगावेलो यच्चरूचि उडिल्यांगादि, हातांतुले चरडुं, चंचलाल्या व्हांटींतु घालता, आनि तिका पोटळनु, आपण महाराणि म्हणलेलो संयमु सुट्टूनु, येका सामान्य आवसुवारि, खळसंखळसं काडनु रडता. तो प्रकारु चोयिलि मडवळणि, जीवु तडवनातिलें रडता. कष्ट ल्केषांचो कांटेरि मार्गाचें क्रमण करीत आसिल्या चंचलादेवीलि आंगा काति दाटि जालेलि आसता. तरि, फातराक पाझर फुटकाज तसले ते राणियेगेले हाल आयकूनुयि, आपणाक न्हैरे म्हुणु मन आवरनु धरलेलि चंचला, चरडुवां हातांतुलो उदकाचो फुग्गो फुटता, तशि दुःखाने कोसळता. आनि, आपणा निमित्तिं राणि दुःखि जालि, हें धडियांतु लक्षांतु येउनु, मन संतरसूनु, अत्यंत शरणागतीने राणियेक म्हणता ''देवी, मगेल्या दुःखदायक जीविताचो विस्तारु सांगूनु हांवे तुका कष्टि केलि, माका क्षमा करि.'' तावळि, दुःख, अपरूबायि येक जालिं की येताति त्या उमाळ्यानि राणि उलयता ''अय्यो !!! ना ना त्या खातिर न्हैगोमा, त्या खातिर न्है. अमाप राज वैभवांतु वाडिल्या मगेल्या पोरानि वनवासाचे वावंट कशि सोसलेवेया म्हुणु दुःख जालें. हें तुगेलें चरडुं, तुगेलो सुभानु मगेलें चरडुं, सानपणांतु देशांतराक गेलेलो. तो खंचे दिकाने गेलेलो सांग.''

परस्थळ, तांतूयि रात्रांतुल्या काळकींतुलि घटना. सुभानूने गेलेलो दिक्कु खंचो सांगचो जालो, अशि फजीतींतु पडलेलि चंचला, मुखदुर्बल जाता. तितलें भित्तरि, चारि गुप्तचारांक घेउनु, खूळचि नेलाक लागूक दीनासो, रायु, अत्यंत उतावळीने हेकडेचि येतना दिसलो.

लागि येउनु रायु म्हणता ''देवी, तूंवे सांगिलें काम हांका साधने, तुगेल्या

शिक्षेक पात्र जालेले ते, माका शरण आयल्याति.'' रायाने मुखावेलें उलवच्या फूडेचि राणि ताका सन्नेनेचि दाटायिल्यावारि हातवारि करनु म्हणता, ''तांका शिक्षा दिउचो प्रश्नो आमगेल्या सुदेवाने सुटयिलो. हो चोया तुमगेलो नात्तु, ही तुमगेलि सून, आमगेल्या सुभानूने अत्यंत साहसाच्या पणांतु मेळयिलि चंचल देशाचि राजपुत्रि'' रायु, तिका मुखारि उलवच्याक सोडनातिलें आपणालें सुरु करता, ''राब राब, चिके दम्मु धरि. शुभवार्ताचें केक पूरा तुका येकळेकचि दीनि म्हणलें, ''हांवेंयि येक वर्तमान हाडल्यां, आयकिल्यारि, तुमि सर्व खुशालेने चरडुवंशी धिंगूवच्याक लागतलिं.''

रायाने इतलें पल्हाळ करनु सांगल्या म्हणलेल्या उपरांते, तें नक्कीचि सुभानुलेंचि शुभवर्तमान आसकाज म्हुणु कोरनु तीं सर्व उटावनु रायाक भारी उत्कंठेने घेरो घालताति. तावळि रायु सांगता,''आमगेलो सुभानु मेळलो.'' सगळींयि ''खंयि मेळले, खंयि मेळलो'' म्हुणु एक कंठाने प्रश्नो करताति. रायु मुद्दाम, तांगेलो हुसको वाडोवच्याक इतें म्हणता ''मेळलो म्हणल्यारि मेळला, आमकां न्है.''

पुरत्याने भोचि करताति तुमि'' राणि चिडता, ''कशिमन येता तुमकां अशि चेष्टा मक्कार करूक. खरे कसलें तें आयकुवच्याक आमगेलो जीवु हांगा ताळ्यांतु येवनु शिरकला, तुमि आमकां वाऱ्यारि घालूक पळयताति ?''

तिगेल्या प्रश्नांक उत्तर दीत रायु म्हणता ''कोप्पूनाका महाराणी कोप्पूनाका. मगेलें उत्तर तुका चेष्टाशी दिसलि, दिसो.'' तशीचि गंभीर स्वराने ''प्रसंगु अगदी संगीन आस. आमगेलो सुभानु गारुड्यांगेल्या गेड्यागेरि आस. मात्याक वक्कद घालेल्या निमित्तिं, तो आपणालें पूर्वत्र पूसूनु काडलेल्यागादि विसरला. नांव गांवु विंगडचि सांगता, गारूड्याला मेळ्यांतु डोलु वाजयता. कानाक काना पत्तो लायनासतना द्या गुप्तचारानि वरदि हाडल्या. राजधानींतु हाजो पुकारो बोबारो जायद, सुभानु आमगेल्या हाताक लागचो ना. गारूडि ताका घेउनु रातोरात नपश्यात जातलो. त्या निमित्तिं तुमकां सारूनु सांगतां, हें सर्व राद्धांत तुमच्या भितरीचि उरो. आमगेल्या मनोरंजना नेवनाने त्या गारूड्याक फायि आपयल्या हांवे. ताल-लय भास्करू सुभानु डोलुं वाजोवच्याक आसतलोचि. बाकि अवश्य ते कडक प्रबंध हांवे केल्याति. फायिच्या कार्यक्रमांतु तुमि केवल प्रेक्षक, इतलें लक्षांतु आसो.

हेर दिवसु, खेळु पोळवच्याक राजांगणांतु गांव वासियांगेलि गर्दि जमता. रंगि विरंगि वेसु धारण केलोलो गारूड्यालो मेळु, रायालें मनोरंजन करचि अपूर्व संधि मेळलेल्या पासावत भारी उल्लासांतु आसता. रायालो परिवारू तांचगुणि मांडयिल्या

सुखासनांचेरि येवनु बसता. सुभानुलें डोलु वाजवचें कौशल्याक साथ दीत जान मान्त्रो दोलावच्याक सुरू करता. गारूडि ताने शिकिल्या विद्येचें उत्तमांतु उत्तम प्रकार करनु रायाक खुश करता. रायाल्या संज्ञेने खेळु संपन्न जाता, आनि आपयिल्याक्षण. बिदागि घेउच्याक गारूडि डोलकिया सांगाति राया इदूर हात जोडनु राबताति. रायु नाण्यांचि थैलि गारूड्या हातारि दवरता, तक्षण, ''पुता'' म्हुणु राणि आनि ''प्राणनाथ'' म्हुणु चंचला डोलकियाक गोप्पें घालताति. रायाले दलवायि गारूड्याक अटकायताति. रायु आपणालि तलवार गारूड्याला गोंक नळियेक लावनु आज्ञा करता. हो डोलकिया कोणु, तुका येदोळु कळनु आसतलें. आत्तं, बरे उत्राने, कसलीयि वळसावणि करचिं प्रयत्न सोडनु, तूंवे हाका घालेले मोडिमंत्र, कृत्रिम, वक्कद उतरायि. तुगेल्या अधारे अपराधाक प्राणांतिक शिक्षाचि तुका दिवचि आसिलि. जाल्यारि, देशांतराक गेलेलो आमगेलो युवराजु, तागेल्या परिवारा समेत, दीर्घ कालांतराने आमकां मेळलो, आयच्या आनंदा दिवसु, तुका जीवदान दिल्या. हं करि सुरु.

गारुडि उतरायिचे मंत्र तंत्र करता. सुभानुक पूर्व स्मृति परत येता. आनि सर्व सुख संतोषाने आप आपणाल्या ठिकाण्याक वताति.

# तुगेल्या पडावारि मगेलि उ

कोन्नकळे शिवराम शेणयि म्हणल्यारि कारवारचो दुडवाळु, सुपारि व्यापारि नित्याक हजारानि व्यवहार कागद ना पत्र ना, सर्व तोंडि व्यवहार, विक्रयि-गिरायकानि, हातांतु हातु दिवचो, तो येलवस्तराने जावो वाल्याने, घांकचो. दर, भितरल्या भित्तरि, बोट्‌ट बोट्‌टा पेय्यानि संज्ञा करनु केक करचें. दितलो जाण, घेतलो जाण. त्याचि गांवातु मुरकुंडे मन्नात कामति म्हणु येकळो आसिलो.

शिवराम शेणयि, आपणे दिलेल्या उत्राक चुकतलो न्है, जो चुकता, ताजें तोंड पळयतलो न्है. शिवराम शेणयि कितलो ठोकु आनि प्रामाणिकु, तितलोचि किरकोळु आनि अणवो, मुरकुंडि मन्नात कामति. रामपैलि तोप्पि शिन किणियाक, आनि शिन किणियालो रूमालु भिकप्प म्हाल्या मात्याक चडोवनु, उपजीवन करतालो. असल्या बगलाटा धंदो तो, तांतु प्राप्तिचो भरवसो सांगूक जातावे ? येकु खारवि पोंगायि घेवनु न्हयिंतु समुद्रांतु पाग्गूक वता, खंयि मासळ्यां सुळुवु देकलो की बलें बिसूयता. पागु मेळना, तेदना, जेवणा पुरतें, गाळु घालनु, दोनि चारि जेब्ब धरनु घारा व्हरता. जाल्यारि मुरकुंडे मन्नाताक तशि न्है. नित्याकयि ताने पुरो जायशि जोडि हाडचाजचि. हाडना त्या दीसु ताका ग्राहाचार कष्ट, कुजराहु संधीचि म्हणना इत्याक ! बायल तागेलि जगंजाळि !! सव्याचो सपाटो सूरु करीद, सुमाराचानि, लागीच्या दीव्या खांब्याक गळु घेवकाज ! ते सवे खावनु खावनु, मुरकुंडील्या आंगाक जड्‌ड पडलेलें. तरी ताजो धाकु आसिलो. ताजि दशा, सुण्याक दिल्यारि नाका आसिलि. कोन्नाक फूल येता, ताजो दुर्गंधु, कोणाकयि लागि येवच्याक सोडना, तशि मन्नातालि कीर्ति आसिलि. अशि जावनु मन्नातु, परगांवचो कोणु आतवोचि मेळद, ह्याचि पाळतेरि आसतालो.

येकु दिवसु इतें जालें की म्हणल्यारि, आयतारा सांतेक गेलेल्याकडे, भायल्या गांवच्याने आयिल्या येका व्यापारियाक ताने देकलोभ ! तो व्यापारि, अनेक जणांक सुत्तु घेउनु, कसलें की होड येक केक करीत गर्क जालेलो. होचि वेळु म्हणालो, मन्नातु, आनी त्या व्यापारियाकडे आपणालेंयि येक वोंट्र घेउनु वता. आनि कसलि की बाबलावणि कोरनु, संचगारु घेउनु जुगुळता. कोणे की येकळ्याने त्या व्यापारियाक चेतावणि दिलि. तो व्यापारि, तावळि, मन्नाताक तवरूनु घेउनु वत्ता, पोरसु खावच्याक आयिलें चोर गोरूशें मन्नाताक तावळि पोळोवका आसिलो. धोतराचो पंचकासु



मुरकुंडि मन्नातु शिवराम शेणयिकडे अर्ध सुपारेंचे मोल मागता.

वीरकासुसो माक्षि किरवंटिक खोवनु, ''वांचूनु वरल्यारि वेंचूनु खायन,'' म्हुणु धांवत सुटता. सांते बाजार तें ! खंयि देक, थर थरावळीचिं धान्य-दवसांच्यो राशि घालनु राबिले वर्तक, आनि तांचिं क्रय-विक्रय करूक आयिलें जन, हांगेले घोळक्यांचे घोळके. दीवे लावणे पैलेंचि हाडलेलो मालु लाद्दूनु काडका, नावे बिडकि बांदूनु, जागो रित्तावका. त्या उपरांते, मनोरंजना कार्यक्रमु कोरूक आयिल्यांक, तांगेलि मांडावळि कोरूक, पुरो जायशि जागो समयु लागता. मन्नाता माक्षि लागूक ताका खंयि वेळु आस. व्यापारु म्हणलेल्या उपरांते, लाभु-हानींचि सरशि ही चलयीचि, अशि तो व्यापारि आपणालें सांत्वन करनु घेता, आनि वत्ता.

येकु असलो दुर्दिनु येता, मुरकुंडी मन्नाताक, येकयि कूळ गाळाक लागना. भोवनु भोवनु पायांतु चेंड येत्ताति. चमकतना दिंबियो आदळताति. दणु जालेल्या पेटाक, भुजं सैल, हात विळविळि, तोंड, वत्ता रापाक वळपूनु गेलेलें. असल्या करूणा जनक अवस्थेंतु मान तग्गु घालनु तो घरचि वाट धरता. आजि कांयि प्राप्ति नातिल्या दुःखापेक्षां, बायलेगेल्या तोंडातोफुखान्याचो दुकदुको ताका चडु लागलो.

बायल तागेलि नांवाने लक्षुमि, चाळवल्यारि थेटा हंकालक्षुमि. तिने तोंड सोडल्यारि सगळें वठार गलगलतालें. इकडि खंचीयि लक्षुमीने सुचवचि, मन्नाताने करचि, अशि तांगेलि प्रथा आसिलि. सांगल्यारि फट्टि म्हणशाद, मुरकुंडील्या आनि सेजारच्या पटणशेटील्या हितला मद्देगति येकि नीळि-निगुंडा झाडांचि मोघोलि आसिलि. मोघोलि लगत, शेटील्या हितलांतु, चेकु कलमि आंब्या रूकु, फलाक आयिल्यो चारि माड्या मडगियो आसिल्यो. लक्षुमीक हीं येक सम दोळ्यांतूचि खुरखुरतालिं, अनि तीं कशी पुणी कोरनु, बगलेक मारकति ह्याचि हवणांतु आसिलिं लक्षुमि. कितले दीस म्हुणु तिं नियाळनु आयंडे गिळत बसतलि. अवंदुच्या पाड्याचें उत्पन्न, पटणशेटीक खावच्याक सोडीशि ना म्हणलेल्या पंथाकचि पडलि लक्षुमि. तिने वकील बाड भिकप्पालो सल्लो घेउनु, तिं फलपंगु दिउचिं झाडं आपणाल्या हितलांतु जायशी, दोनीयि हितलांचो आकारू क्षेत्रफलचि बदलावनु घेतलें. आनि शेटीने तिरूपति यात्रेक गेलेलो समयु साधूनु, नीळि-निगुंडाचि मोघोलि काडनु, चिऱ्या फातरांचो पक्का पागारूचि घालोवनु घेतलो. शेटु कोर्टांतु दिवाणी दावो करता. मुरकुंडि मन्नातु, गांवच्या पटेल शानभोगांक साक्षिदार करता. त्या अधिकारियानि लांचु खावनु सर्वे नंबरांतु, दिवाणि कागद पत्रांतु गंडागुंडि केलेलि ती भायर पोडूक नज्ज म्हुणु, मन्नाताक गुणु जायशि न्यायाधीशा इदूर साक्षि दिताति. पटणशेटीलो दावो गुळगुळि जाता. आसो.

आजि येकूनु मन्नातु, हताश जाउनु घारा येतना दिसलो. लक्षुमीने ताका, फुडल्याचि दिवसु, जगलेवेल्या मांच्यारि बैसूनु गजकवळाचो घासडो घालनु, कीराक सांगिल्यावारि ताका सांगिलें. युक्ति करना तारण, तावळि कुयुक्तिचि शरण, उदाहरण म्हुणु ति जड भरीतालि काणि सांगता.

''जरत्कारू रूषिकडे येकु परिचारकु आसिलो. आश्रमांतुलिं सान्न सान्न. काम कोरनु तो गुरूलो अनुग्रहु आनि उदरनिर्वाहु, दोन्नीयि मेळयितालो. येकु दिवसु गुरूने समाधि घेतलि. आश्रमाचें पारिपत्य नव्या हातांतु पावलें. जडभरीताक दिवस काडचें कष्ट जालें. येकु दिवसु ताका आश्रमाच्या नव्या अधिकारियाने भायलि वाट दाकयिलि. जडभरीतु अनाथ जालो. खंयि वतलो. वानप्रस्थाक आयिल्या कोणाल्यायि कुटीरांतु रीगि मेळदकी म्हुणु निमगुच्याक गेलेल्याक, यंचि तानि सांगच्या कामांचें राष्टाळ पोळोवनूचि तागेल्यो दोळ्यां मंडलियो धुंवताल्यो, भुक्केक पोट आयकना, घोळूक जीवु आयकना.'' मरतलो वे इतें !?

''सरळ उज्जयनि नगरीचि वाट धरता. आनि थंच्या महाकाला देवळांतु पौळेरि येकडे ध्यानस्थु जाउनु बसता. कोणु की सत्पुरूषु यात्रेक आयला आसतलो अशि लेकूनु महाकाला दर्शनाक आयिल्या जानानि ताका जेवण फलपंगु हाडनु दिलें. हो प्रयाण फुडसारचो विचारूचि करना देकूनु, जान येउचें पात्तळ जालें, आयिल्यानि ताका नांवगांवाचो विस्तारू विचारूक सुरू केलो. सर्वांक तो, आपण कालिदासागेलो गुरू म्हुणु सांगूक लागलो.

लोकांक महदाश्चर्य !! वाग्देवील्या वराने तो वरकवि जालेलो अशि वदंति सर्वांनी आयकिलेलि, हो गुरू खंचो आयलो, कोणु अशि गांवातु गुजगूजु सुरू जालो. हे वर्तमान कालिदासाल्या कान्नारियि पावलें, आनि तो स्वतः आयलो. पळयिल्यारि तपस्वीगेलो तिट्टो पडता, तोंडारि. अशि धडधडीचि असत्य उलयिताम, ताका तसलेंचि कांयि पुणी बलवत्तर कारण आसतलें, अशि लेकूनु, कालिदासु, जडभरीताक एकांतांतु घेउनु निमगिता. जडभरीतु आपणालि दैनावस्था कालिदासाक सांगता. रायाकडच्याने आपणाक विशेष दथिणा, मानधन प्राप्त कोरनु दी म्हुणु ताजेकडे लाल्लेता.''

कालिदासु ताका विचारता ''आरे पुण्य केलेल्या, राजसभेंतु तुगेलो सन्मानु जावकाज, तेदना, तुं तसलोंचि विद्वानु आसकाज. राजसभेंतु प्रथम आयिल्या पंडिताक, इतर आस्थान पंडित कूट पश्ने करताति. तो समर्पक उत्तर दीउनु, आपणालें वर्चस्व

मांडयिता, तावळि ताका ते आपणांतु मेळोवनु घेत्ताति. तू म्हणता आपणाक म्हणशि विद्या येना.''

''कविवर्य, तें तुं पोळोउनु घे. अन्नाक तत्वार जालां हांव. तुजेकडे उपायुना, तरि, माका येकचि तारण आस. रान्नांतु वचूनु येखाद्या हिंस्त्र पशूगेल्या तोंडांतु पडतां.'' ह्या शब्दां सांगतणि, जडभरीता दोळ्यांतुल्याने तिपियो गळूक लागल्यो. कालिदासु विरगळेलो. हेर दिसूचि ताने जडभरिताक ओलगाक येउच्याक सांगलें, आनि इतर सभिकांक सर्व सांगूनु दवरलें, की, सुलभांतु सुलभ पश्नो निमगुवचो.

जडभरिताक विद्या हवणचि, जालि, तरी, युक्ति प्रयुक्तियांक ताजेकडे ऊणे नाा आसिलें. सभेंतु ताका येकूचि पश्नो निमगिलो. ''रावण की राबण.'' जडभरीताने विचारू केलावे, थपराको मारलेल्यावारि, ''राभण'' म्हणालो. तानि आधारू निमगिल्या क्षण, कालिदासाकडे बोट दाकोवनु, ''मगेल्या शिश्याकडे आधारू ना, तरीचि, हांव सांगन.'' कालिदासाचेरि महद पेचु आयलो. जडभरिता सरशी तागेलीयि हारि जावचो दुर्धर प्रसंगु !!! कालिदासाने, धडसूनु श्लोकु सांगलो ''भकारो कुंभकर्णस्य भकारो विभीषणः लंकाधीशो दशग्रीवो राभणेति प्रकीर्तितः.'' जडभरितु, धन, वस्त्र अलंकारू घेउनु, पारा''

''असलीचि खंचीयि इक्कडि करि, वच'' म्हणु सांगूनु लक्षुमि घोवाक धाडता. शिवराम शेणयिलें भरम, तागेल्या उत्राक आसिलें मोल द्या दोनींचोयि फायदो घेउचें येवजूनु मुरकुंडि बंद्रारि वता. थंयि ताका जावकाज तेंचि मेळलें. शिवराम शेणयिलो येकु होडु पडावु उदकाचें नेलें नपुरो आसिल्या निमित्तिं, काळी नदींतु मद्देगतीचि नांगरु घालनु राबिलो. पडावाच्या भायल्या आंगाक बेलतेल बिब्या तेलांचे मिश्रण कोरनु, खारट्या उदकांतु राकूड किडूक नज्ज म्हुणु दाटचि सारयिलें. शीडाच्या छिद्रांक चिप्पियो लावनु, शीडांच्यो सुरळ्यो केलेल्यो. काटि खांब्याच्या दोन्नी गाळ्यांतु, बाणीचो कांटु थायि फोपळा बेट्टो आनि चिकण्या सुपारीचिं चिल्लं भरलेलि. इतर व्यापारियांगेलो नोरू धक्यावेल्याने, सान्ना पडावांतु घालनु व्हरनु मचव्यारि चडयित आसिले. सर्व खलाशि आनि तांगेलो तांडेलु, मचवो हंकारूक शिवराम शेणयिने येवचि वाट राकताले.

शिवराम शेणयि येत्ता, ताजे माक्षीचि मन्नात कामति थंयि दत्त म्हणताम ! शेणयि आत्तं, धक्यावेल्या खुंटाक बांदिलि मचव्याचि रैलि मेककनु न्हयींतु सोडनु दिता म्हणतना कामति किशांतुलि येकि सुपारि काडनु, आडकातरेनं ताजि दोनि आद्दि करनु,



येक आद्दें मचव्यारि विंदता. आनि ''शेणयिनुं, तुमगेल्या मचव्यारि मगेलि अर्ध सुपारि'' अशि हासत म्हणता. शिवराम शेणयिनेयि चेष्टेने ''व्हैरे मन्नाता, व्हयि, मगेल्या मचव्यारि तुगेलि अर्ध सुपारि.'' हः! हः!! हः!!!

मन्नात कामतीने, तेंचि उत्तर घट्टिट धरलें. शिवराम शेणयि माक्षीचि तो वखरिंतु पावलो, आनि, आपणाल्या सुपारेचें मोल मागलें. ''सबंद बंदरकारा समक्ष तुमि मान्य केल्यां की मचव्यावेलि अर्ध सुपारि मगेलि. दिवचें ना जाल्यारि, तुमगेलें उत्तर तुमगेल्या पदरांतु घालतां.'' ''अर्ध सुपारीचें मोल वेट्टटना, तरि हो लुच्चो गांव भरि टमकि मारतलो, मजे नांव धुतलो, मजो नांका कुडको वतलो,'' शेणयिने चिंतलें, पैशा पेटलांतुल्याने पांच हजार रुपयि काडनु, ''घे तुजे हेरद्यारि घालनु घे, आनि तोंड काळें करि'' म्हणत रुप्पयि दित्ता.

## *ह्याचि लेखकालिं इतर प्रकाशनं*

१) प्रीति खातिर
२) कथाकुंज
३) कोंकणि - इंग्लिश स्वयंशिक्षक
४) पार्वती कवड काडि
५) कौरवालो कृष्णु

## *हस्तलिखितं*

१) नाम्मु वाडला शाम्मु वरडीक
२) धडाने घट्टि की बोडाने घट्टि
३) उबगणि उद्योग
४) बाविसांरि बारसो
५) सुखा संसारु
६) पांडव प्रकटन
७) मध्यमु
८) वाट्टेवेलो विक्रमु
९) दृष्टांत
१०) पंचतंत्र कथा
११) वेताळ पंचविशि
१२) लग्ना लचांड
१३) सोयरिके संभ्रम
१४) दोनि होरं

## *इतर दैनिक, मासिकांतु प्रकाशित लेख*

मक्कांतु महालिंग, भासकवि, मुंबयिकरांलि कोंकणि नाट्य परंपरा, कोंकणीचेरि कंटक, हावं बंडखोरु इत्याक, कोणा पोट्टांतु कोण, ज्ञानेश्वरु (रि) कोंकणि, कोंकणि इंग्लिश शब्दकोशु (अपूर्ण), खरी कोंकणि बरया, जीवु जळता आंत भगभगता (कविता)